Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)




मार्च २०११

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

(१९ डिसेंबर २०१० - १९ डिसेंबर २०११)

# पणजी महापालिका वेंचणूक

## हारतलो कोण? पणजेक तारतलो कोण?



# संस्मरणीय मैलाफातराच्या हुंबऱ्यार....
# मुक्ततायेची ५० वर्सां



श्री. दिगंबर कामत
माननीय मुखेलमंत्री
गोंय



शिक्षण



उद्येग



शेतकी




भलायकी



पर्यटन

वसाहतवादाच्या बंद पासांतल्यान मेळिल्ले मुक्ततायेचो येत्या वर्सा भांगरा उत्सव मनोवपाच्या मैलाफातरा दिकेन पावल घालतना आमी गोंयच्या निर्भय सुटके झुंजाऱ्यांक आनी ४९ वर्सां आदीं ज्या संस्मरणीय दिसा पयले खेप स्वतंत्र गोंयचेर भारतीय तिरंगो फडकायलो त्या शूर भारतीय सेनेक आमी वंदन करतात.

तेन्ना सावन आमच्या राज्यान सामाजिक आनी आर्थिक मळार मोठी उडी मारल्या. पर्यटकांचे नदरेन गोंयासारकी सुवात देशांत दुसरी ना आनी निर्णायक वेळार सामाजिक आनी आर्थिक घडीय केन्ना हालूंक ना. दरमाणशी येणावळ आनी महिला साक्षरताय, समाज कल्याण आनी भलायकी ह्या सारकिल्ल्या मळारूय म्हत्वाची सुवात सुगूर केल्या. देशांतल्या पुराय साक्षरताय वळेरेंत गोंय वयल्या पांवड्यार आसा.

गोंय भारतांतलें सगळ्यांत ल्हान राज्य जावं पूण थंयचें आतिथ्य, उद्येग आनी स्फूर्त हे दोनूय नदरेन कोणाकडेच तुळा करूंक जावंची ना. थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार १९ डिसेंबर १९६१ त तें मुक्त जायत सावन सगळ्या मळाचेर गतीमान उदरगत ताणें केल्ली आसा. आनी हें शक्य जावंक पावलें तें गोंयचे ताठकण्याचे जनते पासत.

अश्या ह्या पवित्र आनी उत्सवी समयार आमी स्वतंत्रतायेची ज्योत आमच्या काळजांत आनी आमचे भुंयेचेर सतत पेटत दवरतले असो सोपूत घेतात.

**जय हिंद! जय गोवा!**

Issued by:
Department of Information and Publicity, Government of Goa



कोंकणी मासिक
बिम्ब
१०वें वर्स

वर्स : १० अंक ३
मार्च २०११
मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in



५ पणजी महापालिका वेंचणूक
हारतलो कोण?
पणजेक तारतलो कोण? - दिलीप बोरकार

११ अणभवान वयर वचपी बायल
सक्षम आनी सबळ आसतली - प्रकाश कामत

संपादकीय /३
प्रतिबिम्ब /४
साहित्य महिलांचें - ज्योती कुंकळकार/१९
सतीचे वाण - मोहन रानडे/२५
इंद्रधोणू - आशा शानभाग/३२
उशणी वायणां - नं. ध. बोरकार/३५
पडवेर - कुसुम अग्रवाल/३६
संवाद - अलका असोळणेकार/हर्षा शेटये/४१
गोंयची भोंवडी - प्रा. प्रजल साखरदांडे/४३
दिका - विन्सी क्वाद्रूस /४७
जगम - अंगीता शेणै नगर्सेकार/६२
परमळ - अपर्णा गारुडी /६३
अश्रेकणी वॉल्टर मिनेझीस/६६
तेफळां - रुपा कोसंबे/६९
कथा - ब्रॅन्डा मिनेझीस /७१
पोसो - काश्मिरी पावसकार/७३
उतरकुवाडें - संतोष शिवराम हळर्णकार/७४
पडवेर - कुसूम अग्रवाल/७५
आयलें तशें गायलें - दिलीप बोरकार/७७
बिम्बांत खंय कितें? /८५

५० मनसंवेदना
अशोक शिलकार
आर. रामनाथ
रमेश घाडी
विनोद गावडे
म्युरियल फर्नांडीस
इंदू अशोक गेरसप्पे
मेहंदी अनय नायक देसाय

५२ भुरग्यांचें आंगण
हर्षा शेटये
रमेश भगवंत वेळुस्कार
प्रशांती तळपणकार
अंकल पै
भिकाजी घाणेकार

रेखाचित्रां
गिरिश नंदा बोरकार

# लढो पणजेच्या अस्तित्वाचो काय पक्षांच्या?

गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्साची पयली नागरी वेंचणूक ह्या म्हयन्याचे १३ तारकेक जाता. पणजी महापालिकेची ही वेंचणूक म्हळ्यार पणजेचे विद्यमान आमदार मनोहर पर्रीकार आनी आपूण पणजेचो भावी आमदार म्हणपाचीं सपनां रंगोवपी बाबूश मोन्सेरात हांच्या पंगडा मदीं ही वेंचणूक जावपाची आसा. वयलेतराक ही वेंचणूक पणजी महापालिकेची अशी दिसली तरी खरेपणी ही वेंचणूक मनोहर पर्रीकार आनी बाबूश मोन्सेरात हांच्या अस्तित्वाची आसा. १३ तारखेक मतदान जावन तेच दिसा निकाल जाहीर जावपाची गोंयच्या वेंचणूक इतिहासांत ही पयलीच घडणूक. शकून अपशकून मानपी संवसारांतले सगळेच लोक १३ हो आंकडो अशुभ मानतात. पूण सद्या जे पणजेचे आमदार आसात त्या मनोहर पर्रीकारांचो जल्मदीस १३ डिसेंबर जाल्ल्यान तांचे पासत हो आंकडो अशुभ न्हय हाची तांका खात्री आसा. म्हणटकच मनोहर पर्रीकार महापालिकेचे वेंचणुकेंत आपल्याच पंगडाची सरशी जातली ह्या हावेसान वॉर्डा वार्डा मदल्या उमेदवारां वांगडा घरांघरांनी भोवून आपल्या पंगडाक निवडून हाडात म्हणपाचें आवाहन करतात. तशेंच बाबूश मोन्सेरातूय आपल्या उमेदवारांसयत घरांघरांनी भोंवतात. आपूणच आपलो बावटो पणजी महापालिकेचेर उबयतलों म्हणपाचें ताणें जाहीर केलांच आनी तें सार्थी पावोवपा खातीर मोन्सेरात साम, दाम, दंड, भेद हांचो वापर करतलो हातूंत कोणाकूच दुभाव ना. हे दोगूय फुडारी आपापले परीन चाल खेळत आसात. कारण फुडले वर्सा येवपी विधानसभा वेंचणुकेंत तांच्या अस्तित्वाचो प्रस्न आसा. हे खेप पणजी महापालिकेची वेंचणूक आपल्या हातांतल्यान गेली जाल्यार आमदार म्हूण वेंचून येवपाचीं आपलीं सपनां शेळेलीं म्हणपाची खबर ह्या दोनूय फुडाऱ्यांक आसा.

मनोहर पर्रीकार भोंवतणी एक उच्चशिक्षित, सडेतोड आनी सभ्य प्रवृत्तीची व्यक्ती म्हूण वलय आसा. तें वलय मोन्सेराता भोंवतणी ना. पर्रीकारान पणजेचो आमदार म्हूण पणजेच्या विकासा खातीर फाटलीं धा वर्सां नदरेक भरपा सारकें कांयच करूंक ना अशें पणजेचे नागरीक उलयतात हातूंत सत्यताय आसा. पूण पणजी महापालिकेचेर फाटलीं पांच वर्सां मोन्सेराताचो शेक चलत आशिल्ल्यान पणजे कांयच करप शक्य जालें ना अशें पर्रीकर उलोवन दाखयता.

पणजे महापालिकेची उदरगत करप हें काम वेंचून दिल्ले पालिकेचें जावन आसा. पूण ही महापालिका मोन्सेराताचे मुठींत आसुनय पणजेची जावंक जाय अशी उदरगत फाटल्या पांच वर्सांत जावंक ना.

पणजी हें गोंयच्या राजधानीचें शार. पूण पणजे शाराकडेन पळयल्यार हें शार म्हळ्यार एक बेशीस्त आनी दुर्लक्षीत शार कशें दिसले बगर रावना. पणजेच्या फुटपाथांचेर फेरीवाल्यांची गर्दी जाल्ल्यान नागरीकांक वेवस्तीत चलूंक मेळना. पणजेंत पार्किंग वेवस्ता नाशिल्ल्यान पार्किंगचो सगळ्यांत मोठो प्रस्न निर्माण जाला. कोयराचो विलो लावपाचे समस्येचेर उपाय काडूंक महापालिका अयशस्वी थारल्या. महापालिका फकत उत्तेजन दिता ती बेकायदेशीर बांदकामाक आनी वेवसायांक. पणजे शाराची अवतिकाय पळयत जाल्यार ह्या शाराक कोण वाली आसा अशें दिसना.

पणजे शार हें विद्वानांचें, बुदवंतांचें शार अशें म्हणटात. पूण हांगचे नागरीक आपूण बुदवंत म्हणत घरांतूच बसप पसंत करतात. आपूण बरो आनी आपलें काम बरें, बाकीचें पडलां कोणाक? हे वृत्तीक लागून राजकी माफियाचें पणजेंत फावलां. फक्त राजकीय ध्येय नदरे मुखार दवरून जो कोण वेंचणूक लढयता तांचे कडल्यान निवडून येतकच कसली आनी अपेक्षा बाळगुपाची?

हे खेप पणजे महापालिकेची वेंचणूक ही भाजप आनी काँग्रेस ह्या दोन मुखेल पक्षांच्या बावट्या खाला जावपाची आसा. राष्ट्रवादी काँग्रेसपक्षाचे उमेदवार आसात ते नांवा खातीर. ते कोणाल्याय गोठ्यांत शिरपी. पूण अस्तित्वा खातीर लढो चलतलो तो भाजपा आनी काँग्रेस हांचे मदीं. म्हणटकच ह्या दोनूय पक्षांचे समर्थकूय आपआपले परीन हे वेंचणूकेक तेंको दितले. दोनूय पक्षांचे फुडारीय आपलेपरीन वावुरतले. पणजी मतदार संघ आपल्या पक्षाकडेन कसो उरतलो हाचेरूच सगळ्यांची भर आसतली. अशे वेळार पणजेचे नागरीक कितें करतले?

आतां तर पणजेच्या कांय नागरिकांनी एकठांय येवन पणजेकारांचो फुडाकार संघटना स्थापन केल्या. १३ मार्चाक जावपी वेंचणुकेंत मतदारांनी प्रामाणिक आनी लोकांच्या प्रस्नांचो हुस्को आशिल्ल्या उमेदवारांक वेंचून हाडचें म्हूण ही संघटना वावुरतली. म्हणचे कितें करतली हें सारकें स्पश्ट ना. हे संघटनेन उमेदवारी भरिल्ल्या भाजपा, काँग्रेस, राष्ट्रवादी काँग्रेस आनी अपक्ष उमेदवारां मदले २९ उमेदवार वेंचून काडल्यात. हे उमेदवार बरे आनी हेर उमेदवार नावाडगे म्हणपाचें वेंचून काडपाक हे संघटनेच्या जाळवणदारांनी खंयचो कस लायला हें कळूंक मार्ग ना. वेंचणूक प्रक्रिया सुरू जावन, उमेदवारी अर्ज भरून जाल्या उप्रांत हे जागृत पणजेकार कितें करताले तेंय कळपाक मार्ग ना. तरी ताणीं मतदान जावंचे आदीं फुडाकार घेतलो हें खूब जालें. तांच्या तेंक्यार वेंचून येवपी पंगड पणजे शाराचो सर्ग करतले आनी जर एखाद्रयान नरक करपाचो यत्न केलो जाल्यार ही संघटना तांचेर नियंत्रण दवरतली हे गजालीक आमी येवकार दिवया आनी तांच्या प्रयत्नाक यश लाभूं म्हूण आमी मेरी इमाक्युलेट आनी देवी महालक्ष्मीकडेन प्रार्थना करूया!






संपादक,

फाटल्या म्हयन्याचो अंक मेळ्ळो. अंक खूबच सुंदर जाला. तुमचें आयलें तशें गायलें आनी प्रजल साखरदांडेन आग्वादच्या किल्ल्या बद्दल जी म्हायती दिल्या ती खूब आवडली. एक गजाल हांगा तुमची आमकां आवडली म्हळ्यार तुमी सरकारी चड करून सरकारच्या पर्यटन खात्याची जायरात अदींमदीं घेतात. बिम्ब मासिका सारक्या कोंकणींतल्या आनी थळाव्या मासिकाक सरकारान जायरात रुपान आर्थीक पालव दिवप हें सरकारचें कर्तव्य थारता. तेच वांगडा सरकारच्यो कांय येवजण्यो मासिकांनीं लोकां मुखार दवरपाच्यो आसतात. ही गजाल म्हाका दिसता तुमच्याच मासिकांतल्यान आरंभ केल्या.

गोंयच्यो खूबश्यो सुवातो जांकां पर्यटन मुल्य आसा अश्यो आमकां गोंयकारांक खबरूच नांत. गोंय हें पर्यटन थळ आनी गोंयांत पळोवपा सारक्यो कसल्यो कसल्यो सुवाती आसात आनी त्यो खंय आसात आनी ते सुवातेर कशें पावप हें आमकां खबरूच ना. तुमी गोंयच्या अश्या सुवातांची म्हायती बिम्ब मासिकांतल्यान दिवन ह्या पर्यटन थळांची म्हायती आनी जागो आमकां कळीत केला. ह्या वावरा खातीर तुमची आनी प्रजल साखरदांडे हांची तोखणाय करूंक जाय. तशेंच पर्यटन खात्यान असल्या वावराक चडांत चड तेंको दिवपाक जाय अशें दिसता.

गोंयची भोंवडी हें सदर तुमी सतत चालू दवरतले अशी आस्त आसा. तुमी हेर राज्यांतल्या सुवातांची वळख भोंवडे खबरेंत दिताच. ती वाचून आमकां भोंवडी करपाची इत्सा जाताली. आमी अश्यो भोंवड्यो करताय बी. पूण गोंयांतल्या गोंयांत पळोवपा सारक्यो सुवातो खंय आसात हें तुमच्या ह्या सदरा वेल्यान कळून येता. ते खातीर तुमकां परबीं.

फाटल्या अंकांत तुमी आग्वादच्या किल्ल्याविशीं बरयल्लें. तेच दिसांनी आमगेर मुंबयच्यान सोयरीं आयिल्लीं. तांचे नदरेक तुमचें मासिक आनी तातुंतलें गोंय भोंवडी हें सदर पडलें. तांकां घेवन आमी आग्वादाक वचून आयलीं. तुमी दिल्ले म्हायतीक लागून त्या किल्ल्याविशीं आनी सरभोंवतणच्या वाठाराविशीं खरीखरी म्हायती दिवप शक्य जालें.

हाचें श्रेय बिम्बाक वता....

बरें मागून,

**ज्योती मोणकार आनी घरचीं.**
थिवी - गोंय

## तांबड्या सर्कलाचेर तुमी लक्ष दिलां?

पोस्टमनान तुमच्या हातांत अंक दिल्या बराबर, वो घराकडेन हाडून उडयल्लो 'बिम्ब'चो अंक हातांत घेतले बराबर तुमी सवंये प्रमाण अंक वेश्टायल्ल्या वेश्टनावेल्या नाम्याचेर नदर मारतात?

सवंये प्रमाण म्हणपाचें कारण म्हळ्यार खंयचेंय पत्र जावं मासिक बी घरांत पावले बराबर तें कोणाक काय म्हूण पळोवपाची सवंय जाता.

तेच पासत ह्या अंकाच्या वेश्टणाचेर आशिल्ल्या नाम्याच्या आरंबाक एक नंबर आसा जाचो कोड इंग्लीश S असो आसा. एस् म्हळ्यार सब्सक्रायबर. वर्गणीदार. ज्या लोकांची वर्गणी पावूंक ना तांकां कळचें म्हण ही तांबडी खूण केल्या. जांच्या नंबरा मुखार W म्हळ्यार रायटर वो वेलवीशर आसा तांकांच ह्या मुखार अंक पावतलो. जांकां अंक जाय तांणीं ३१ मार्च मेरेन आपली वर्गणी धाडची. जांचेकडल्यान वर्गणी येना तांकां ह्या अंकाविशीं लागणूक ना अशें धरून आमी अंक धाडपाचें बंद करतले.

- वेवस्थापक




CORPORATION OF THE CITY OF PANAJI

पणजी महापालिकेचे वेंचणुकेचो प्रस्न दिसता तसो वेंचणुके पुरतो मर्यादीत ना. वेंचणुकेंत जिंकून येवपी नगरसेवक महापालिकेचो कारभार चलयतले अशें जरी दिसलें तरी हे महापालिका वेंचणुकेंत जो पंगड वेंचून येतलो तो फुडाराच्या आमदाराक कौल दितलो. निदान पणजे मतदारसंघांत विधानसभा वेंचणुके खातीर बाशींग बांदून तयार राविल्ल्या बाबूश मोन्सेराताक तरी तशें दिसता. तेच पासत पणजी महापालिकेची वेंचणूक ही जीवन मरणाची वेंचणूक अशें ताळगांवच्या आमदाराक दिसता.



# पणजी महापालिका वेंचणूक

## हारतलो कोण? पणजेक तारतलो कोण?

पणजी महापालिकेची वेंचणूक सामकी तोंडार पावल्या. ह्या म्हयन्याचे १३ तारके क नगरपालिकेच्या नगरसेवकां खातीर मतदान जातलें. नगराची सेवा करपाच्या हावेसान ९२ उमेदवार सद्या हे वेंचणुकेच्या रिंगणांत देंवल्यात. तांतले कांय भारतीय जनता पक्षाचो तेंको आशिल्ले तर कांय काँग्रेस पक्षाचो तेंको आशिल्ले उमेदवार आसात. भारतीय जनता पक्षाचो तेंको आशिल्ल्या पंगडाचो मुखेली पणजेचो आमदार मनोहर पर्रीकार आसा तर काँग्रेस पक्षाचो तेंको लाबिल्ल्या पंगडाचो मुखेली बाबूश मोन्सेरात हो ताळगांवचो आमदार आनी गोंय सरकारचो शिक्षणमंत्री आसा.

भाजपा पंगडाचो मुखेली हो उच्च शिक्षीत आमदार आनी आदलो मुखेलमंत्री आसा आनी काँग्रेस पक्षाच्या पंगडाचो मुखेली आपूण धावी पास जाला काय ना हाची खात्री दिवंक शकनाशिल्लो गोंयचो सद्याचो शिक्षणमंत्री आसा.

भाजपा आनी काँग्रेस हे पक्ष पालिका वेंचणुकेंत उक्तेपणी प्रचारांत वांटो घेवंक लागल्यात हें पळोवन राष्ट्रवादी काँग्रेसीनूय आपलें फुटकें पेपारें वाजोवंक घेतलां.

हे तिनूय पक्ष आनी कांय अपक्ष उमेदवार मेळून पणजेची उदरगत करपा खातीर सगळे शक्तीनिशीं मुखार सरल्यात. आपूण पणजे पालिके खातीर अशें करतलों आनी तशें करतलों अशें सांगत ताळो सराटतात. घरांघरांनी भोंवून आपूण नगरसेवक जावंक कसो लायक आनी हेर कशे नालायक तें सांगतात. इतल्यार सोंपना म्हूण काय किर्ते, मतदारा कणकणी पयशांची खिरापत वाटतात. तरांतरांच्यो भेटवस्तू मतदारांक भेटयतात.

पणजी महापालिकेचे वेंचणुकेचो प्रस्न दिसता तसो वेंचणुके पुरतो मर्यादीत ना. वेंचणुकेंत जिंकून येवपी नगरसेवक महापालिकेचो कारभार चलयतले अशें जरी दिसलें तरी हे महापालिका वेंचणुकेंत जो पंगड वेंचून येतलो तो फुडाराच्या आमदाराक कौल दितलो. निदान पणजे मतदारसंघांत विधानसभा वेंचणुके खातीर बाशींग बांदून तयार राविल्ल्या बाबूश मोन्सेराताक तरी तशें दिसता. तेच पासत पणजी महापालिकेची वेंचणूक ही जीवन मरणाची वेंचणूक अशें ताळगांवच्या आमदाराक दिसता. तेच पासत आपलो पंगड वेंचून हाडपाखातीर ताणें पेंगट बांदलां. वॉर्डां वॉर्डांत जे उमेदवार आसात ते फक्त प्यादे. तांचें जिकून येवप म्हळ्यार भावी आमदाराचो फुडार कळून येवप.

अश्या ह्या राजकीय झुंजात पणजेचे सुशिक्षीत मतदार कितें करतात? तांका खरेंच पणजेचें अस्तीत्व तिगोवन दवरपाचें आसा काय फाटलीं पांच वर्सां जे तरेन पालिका चलत आयल्या तेच तरेन ती चलोवंक दिवपाची आसा हें येता ते वेंचणुकेंत कळून येतलें.

**बुदवंतांक उसरां शाणपण!**

उमेदवारी अर्ज भरून, तांची छाननी जावन ९२ उमेदवार पणजी महापालिकेच्या वेंचणूक रिंगणांत उरल्यात म्हणपाचें जाहीर जाल्या बराबर पणजेचे कांय बुदवंत नागरीक एकठांय येवन ताणीं आदर्श महापालिकेचीं सपनां पळोवपी संघटना स्थापन केल्या. हे संघटनेन जांचे अर्ज ग्राह्य धरल्यात त्या ९२ उमेदवारांमदले २९ उमेदवार वेंचून काडल्यात आनी तांका तेंको दिवन वेंचून हाडपाचें जाहीर केलां.

हे २९ उमेदवार एके विचारप्रणालीचे न्हय. तांतले कांय भाजपाचे आसात तर कांय राष्ट्रवादीचे आनी कांय अपक्ष उमेदवार आसात. संघटनेचो एकमेव कार्यक्रम म्हळ्यार मोन्सेराताचो पॅनल हारोवपी जेणे करून मोन्सेरात पणजी विधानसभा वेंचणुकेक रावंक सोदता त्या निर्णयाक नखलामी करप. विधानसभा वेंचणूक जाहीर जावपाक निदान स म्हयने आसात. तेन्ना कोणाक उमेदवारी मेळटली आनी कोण खंय वेंचणुकेक रावतलो हाचें समिकरण जुळपाचेंच आसा. ते आदीं मांडवींतल्यान खूबशें उदक व्हावपाचें आसा.

पणजेच्या ह्या बुदवंत नागरिकांचे संघटनेचो विचार तोखणाय करपा सारको आसा. धरूया तांच्या उतराक आनी तळमळीक लागून, ताणीं वेंचून काडिल्ले २९ उमेदवार निवडून आयले जाल्यार तांची समान आयडॉलॉजी कितें? ताणी संघटनेचे इत्से प्रमाण काम केलेंना जाल्यार तांचेर अंकूश दवरपाचें काम ही संघटना करतली खंय! उद्देश्य बरो आसा. हे आदीं विधानसभेंतल्या आमदारांक जाग्यार दवरूंक कांय लोकांनी चाबूक घेवन बसपाची घोशणा केल्ली. मतदान जावंचे पयलीं सगळे उमेदवार कितेंय आस्वासन दिवंक तयार आसतात. एकदां निवडून आयले म्हणटकच हे उमेदवार कोणाचेच नासतात ही गजाल भोवतेक हे संघटनेच्या बुदवंतांक खबर नासतली.

संघटना स्थापन करून ताणीं आपले उमाळे, हावेस आनी कळकळ उक्तायल्या हातूंत कोणे दुबाव घेवपाची गरज ना. पूण ताणीं उमेदवारांची निवड जावचे आदीं कोण नगरसेवक जावंक इत्सूक आसात तें तरी पळोवंक जाय आशिल्लें. आपले नदरेन आदर्श उमेदवार वेंचून तांका अर्ज भरूंक लावंक जाय आशिल्ले. पूण हे संघटनेन धिरयांक जे पाडे देंवल्यात तांतले कांय जाण आपले कल्पने प्रमाण वेचल्यात आनी तांचेर बेट लायल्या. हातूंत कितलीं शाणपणां आसात हें तेच जाणांत!

फाटलीं पांच वर्सां पणजे पालिकेंत अंदाधुंदी चल्ल्या. पणजे शाराची परिस्थिती पळयत जाल्यार हे शारांत पालिका आसा काय कितें असोच प्रस्न पणजेंत भितर सरप्यांक पडटालो. पूण ह्या बुदवंतांक तांची कल्पना नासुये!

पणजे महापालिकेंत कितें चल्लां तें फक्त चार वण्टींतूच उरूंक ना तर प्रसार माध्यमांनी तें वेळोवेळार चव्हाट्यार हाडलां. नगरसेवक एकमेकाचेर भ्रश्टाचाराचें नांव घेवन कशे आक्रमण करताले तें फक्त पणजेकारानीच न्हय तर जंयजंय केबल आसा थंयच्या नागरिकानी हें पळयलां. पूण तेन्ना खंयचोच बुदवंत मुखार सरून ताणें आवाज काडलो ना. भोवतेक ते




वेळार तांका आपलें अस्तित्व शेणटा हाची जाणविकाय नासुये! जर तांका पालिकेचें हें हळशिकावणें दर्शन जाल्लें, चलपी भ्रश्टाचार दिशिल्लो जाल्यार हेच बुदवंत पणजेच्या आदर्श नागरिकांचो पॅनल तयार करून वेंचणुकेक उमेदवार उबे करपाचे. पूण हांका राजकारणांत पडपाचें ना. हांका फक्त आपलें अस्तित्व दाखोवपा खातीर निरर्थक धडपड करपाची आसा. असल्यानी कशी जातली उदरगत पणजेची?

१३ मार्च हे दिसा जावपी महापालिका वेंचणुकेचो निकाल कितें लागतलो आनी

पालिकेचो वावर फुडाराक कसो चलतलो हाची कल्पना प्रत्येकाक आसा. जांका चित्र स्पश्ट जायना ते आपूण जावन दोळ्यांर झापड ओडूंक सोदतात आसतले वो आयचें राजकारण मान्य करून घेवंक तांचें मन तयार जायना आसुये!

१३ मार्चाक महापालिकेची वेंचणूक जावन तेच दिसा वेचणुकेचो निकाल जाहीर जातलो. हो निकाल कितें आनी कसो लागतलो आनी वेंचून आयिल्ले नगरसेवक कितें उजवाड घालतले तें ठरिल्लें आसाच. तांका नियंत्रीत करपी शक्त तशी कोणाचकडेन ना. पूण एक शक्त आसा ती लोकशक्त. मतां दिवपाची शक्त वेगळी. मतांचें राजकारण येता तेन्ना थंय भाव भावाक वळखना आनी मित्र मित्राक. थंय वळखतात दुडवांक आनी राजकीय फुडाऱ्यांक. मतांचो बाजार सोंपलो म्हणटकच मागीर लक्ष वता तें गरजेच्या गजालींचेर. म्हणटकच पणजेचो हुसको करपी बुदवंतांनी संघटना स्थापन केल्याच. ह्या बुदवंतानी फुडाकार घेवन लोकशक्ती जागोवंक जाय. वेंचून आयिल्ल्या नगरसेवकांच्या कांट्यार बसून काम करून घेवंक जाय. जर करिनांत जाल्यार त्या त्या वाठारांत बसकण मारूंक जाय. फक्त पन्नास बुदवंतानी हें केल्यार सगळें जाग्यार पडटा. बुदवंतांचे संघटनेंत ताणीं ती जाहीर केल्या ते वेळार ३७ लोक आशिल्ले. उरिल्ले १३ बुदवंत म्हज्यान हाडूंक येतात. कित्याक १३ हो आंकडो अशुभ न्हय. आसलो तरी तो शुभ करपाक आमी वावरुया. एक आदर्श शार म्हूण नामनेक पावपी पणजे शार घडोवया. गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्साक गोंयाक भांगराळें शार भेटोवया.

### पाटो पयलीं जाग्यार घालुया !

पणजे बसस्टॅन्ड हो पाट्यार पडटा आनी पाटो महापालिकेक मोठ्या प्रमाणांत उत्पन्न दिवपी एक वाठार हातूंत दुबाव ना. पूण पाटो वाठाराची जी अवतिकाय जाल्या ती पळोवपाची ना. पाट्यार आंतरराज्य बस स्टॅन्ड आसा. हांगच्यान गोंयभरच्या वाठारांत बसी वतात आनी येतात तें जालेंच. कर्नाटक आनी महाराष्ट्रांतल्यानूय बसी येतात. ह्या बसींतल्यान प्रवास करपी लोक जेन्ना ह्या बस स्थानकाची अवतिकाय पळयतात तेन्ना तांका पणजे शार म्हळ्यार कितें हाची कल्पना येता. हांगचो एकूय रस्तो सारको ना आनी वाहतुकीक शीस्त ना. पावसांत तर ह्या वाठारांत भोंवपाचेंच उरूंक ना.

पाटो परिसर हो रूआ द ओवरें हे खळये देगेवयलो वाठार. हो वाठार भराव घालून तयार जाला. हांगची जमीन ही भुसभुशीत जाल्ल्यान इमारतींची बुन्याद मजबूत घालीना जाल्यार त्यो खचून मातये भरवण जावपाची शक्यताय आसा. राज्य वस्तुसंग्रहालयाची इमारत तर खचल्याच. तातूंत हे वाठारांत मोठ्या मोठ्या कंपन्यांच्यो इमारती येतात. पूण ह्या वाठाराचे रस्ते जर पळयत तर नाका जीव जाता. अशें आयकल्लें की आठ-धा वर्सां पयलीं पालिकेकडेन ३० लाख काय ३० कोटी रूपया रस्तो करपाखातीर दिल्ले. पूण अजून ह्या रस्त्यांच्या सुदारणेखातीर त्या दुडवांचो वापर जाल्लो ना. नव्यो नव्यो इमारती पुर्णायेक येतल्यो तेन्ना येतल्यो. ते आदीं हे रस्ते निटायेर घालपा खातीर बुदवंतानी वावर ठप्प करपाची धमकी तरी दिवं येता!

पाट्यार बांदकाम प्रचंड प्रमाणांत वाडलां. रस्त्यार व्हडले व्हडले फोंड पडल्यात. खासगी टुरिस्ट बशी दवरपाचो तो आगार जाला. थंयचीं गटारां खचल्यांत. पाटो पुनर्निमाण येवजण तयार आसा पूण ती चालीक लावपाची यंत्रणां सुस्तावल्या. बुदवंतानी ते यंत्रणेक चावी दिवं येता.

### मळ्यांतलें तळें पावणेर काडलां

मळ्यांत एक तळें आसा. हें तळें म्हणपाचें मळेकारूच आज विसरल्यात. ह्या तळ्याचें सुशोभीकरण करपाखातीर बरेच प्रयत्न जाले पूण अजून त्या तळ्याचो उद्दार जायना. पणजे शारांतलो हो म्हत्वाचो वाठार उत्तर गोंय नियोजन आनी उदरगत प्राधिकरणाकडेन सुशोभीत करूंक जायना देखून तो उद्योजकांकडेन वो कंपन्यांकडेन प्रदीर्घ लीजाचेर दिवपाचो विचार चल्ला. ह्या वाठाराचें बाजारांत मोल आयज करोडांनी आसा. हो वाठार मल्टी नॅशनल कंपन्याचे भकीक घालपाचो सद्या विचार चल्ला. दर वर्सा १ रुपया चौखण मिटर दरान आनी प्रिमियम घेवन हो वाठार तळें सुशोभीकरण आनी बाजार संकुलाच्या नांवान लिजाचेर दिवपाचें थारलां म्हणटात. पणजे शारांतल्या फेरी बोटीकडली अशीच सुवात एका हॉटेलाक ९० वर्सांच्या काळाखातीर लीजार दिल्या. ही सुवात पणजेच्या ज्येशठ नागरिकांक बसपा खातीर राखून दवरिल्ली. पूण आतां ती हॉटेल धनयांची जाल्ली आसा. ते सुवातेर त्या धनयाची जोड चल्ल्या. अशीच गजाल





मळ्यांतल्या ह्या तळ्या बाबतींतूय जातली. मळ्यांतले आनी पणजेंतले जागरूक नागरीक हे विशीं आपलो विरोध उक्तायतात आसलो तरी हें तळें कोणे सांबाळपाचें? हो प्रस्न वेंचणुके वेळार तकली वयर काडटाच.

### पालिकेच्या बाजाराचोच बाजार जालो

पणजे महापालिकेचो बाजार म्हळ्यार एक आदर्श बाजार जावंक जाय आशिल्लो. पणजे शाराच्या सामको हांण्णीर कसो हो बाजार आसा. पूण भ्रश्टाचार आनी आडनदर हाका लागून पणजे बाजाराचोच बाजार जालो म्हणपाचें दिसून येता. हो बाजार केन्ना बांदतात आनी केन्ना मोडटात हेंच कळपाक मार्ग नासता.

१५ कोटी रूपया खर्चून बांदिल्ल्या ह्या बाजारांतले गाळे खरें म्हळ्यार गोंयच्या पारंपारीक विक्रेत्यांखातीर प्राधान्य क्रमान आनी सवाय भितर मेळूंक जाय आशिल्ले. पणजेचो बाजार म्हळ्यार पणजे शाराचे संस्कृतायेचो एक भाग जावंक जाय आशिल्लो. पूण ह्या गाळ्यांची विक्री महापालिका प्रशासनाक कळयनासतना भायले भायर जायत आसता आनी ह्या भ्रश्टाचारांत नगरसेवकांचोच मोठ्या प्रमाणांत हात आसता. ह्या बाजारांत गोंयच्या विक्रेत्यां परस हेर राज्यांतले विक्रेते चड दिसतात आनी तांची दादगिरी आतां सोसपा भायली जाल्या. पालिकेचो वरदहस्त आशिल्ल्यान हे विक्रेते मुजोर जाल्यात. हालींच एका पत्रकाराक फोटो काडटना ह्या विक्रेत्यांनी ताका वायट वागणूक दिली, ताचो कॅमेरो काडून घेतलो म्हणपाचें वाचिल्लें. तर गोंयाभायल्या लोकांक पोसपाचो वावर ही पालिका करता. पणजे महापालिकेचें हें संकूल गोंयच्या विक्रेत्यांक प्राधान्य क्रमान दिवपाची गरज आसा, जाका लागून गोंयची खाशेली संस्कृताय ते सुवातेर दिश्टी पडटली.

### महापालिका अजून दळिद्री कित्याक?

फाटल्या पांच वर्सां सावन पणजे महापालिकेची येणावळ खूबच उणी जाल्या. ताका लागून खर्च चड आनी येणावळ कमी अशी ■■■

| | येणावळ | खर्च |
|---|---|---|
| वर्स २००५ ते २००६ | रु. १० कोटी | रु. १३ कोटी |
| वर्स २००६ ते २००७ | रु. १३ कोटी | रु. १४ कोटी |
| वर्स २००७ ते २००८ | रु. १२ कोटी | रु. १५ कोटी |
| वर्स २००८ ते २००९ | रु. १५ कोटी | रु. १८ कोटी |
| वर्स २००९ ते २०१० | रु. १३ कोटी | रु. १७ कोटी |



पणजी महापालिकेच्या नुस्त्या बाजाराक शिस्त केन्ना येतली ?

परिस्थिती उप्राशिल्ल्यान उदरगतीचीं कामां हातांत घेवप चणचणीचें थारता.

खरें पळोवंक गेल्यार पणजी महापालिका ही राजधानी शाराची पालिका. तिका महापालिकेचोय दर्जो प्राप्त जाला. हे पालिकेचे अखत्यारींत जीं वेवसायीक आस्थापनां आनी उद्योगधंदे येतात ते कांय ल्हाना सामान्याचे न्हय. पूण पालिका सातत्यान ह्या आस्थापनांकडल्यान आनी उद्योजकांकडल्यान कर वसुली करिना. भाडेपट्टींत एकसंघता दिसना. हे महापालिकेच्या ताळगांव वाठारांत प्रचंड संख्येन बांदकाम जाल्लें आसा. ह्या सगळ्यांचो महसूल तितलोच मोठो आसतलो. मागीर तो वता तरी खंय?

महापालिकेन कामगारांची भरमसाठ भरती केल्ली आसा. तांचो पगार दिता म्हळ्यार महापालिकेक नाकाशेवट जाता. केन्ना वेळारूय तो दिवंक मेळना. येणावळ कमी आनी खर्च चड अशी ही परिस्थीती बदलपाखातीर प्रयत्न जावंक जाय ते जायनांत. दर वर्सा येणावळ उणी आनी खर्च चड हीच परिस्थीती आशिल्ल्यान पालिका लुकसाणातूच वचत आसा. तेन्ना हिका रूळार कोण हाडटलो?

## पार्किंगचो सगळ्यांत मोठो प्रस्न

बॅन्क आनी हेर आर्थिक पुरवण करपी संस्था वाहन खरेदी खातीर घराकडेन येवन रिणां दिताशिल्ल्यान आयज दर घरांत एक-दोन वाहनां असताच. वाहन आसप हें प्रेस्टीज सिम्बॉल जाल्लें आसा. ते खातीर पणजे शारांत वाहनांची रास पडटा. तातूंत वाहन घेवन शॉपिंगाक वा कामा खातीर आयिल्ले व्यक्तीक मात लेगीत चलून वचपाचें आसना. ताका आपलें वाहन कामाच्या थळाचेरूच दवरपाचें आसता. पूण खंयचीं वाहनां खंय पार्क करप हाचो आराखडो पालिकेकडेन ना. पालिका आपली येणावळ वाडोवपाखातीर 'नो पार्किंग' सुवातांचेर आशिल्लीं वाहनां येरादारी खात्याच्या पालवान उबारता आनी मागीर वाहनचालकांक दिल्लो दंड वाटून घेतात.

खरें म्हळ्यार पालिकेन येरादारी खात्याच्या पालवान पणजेंत वाहनां पार्क करून दवरपाखातीर वेवस्तीत आखणी करूंक जाय. पूण तशी केल्ली दिसना. पालिकेन शारांत हॉटेलां आनी हेर आस्थापनाखातीर इमारती बांदूंक परवाने दिल्यात. पूण ते तांचीं वाहनां खंय पार्क करतले हो प्रस्न तांका घाल्लो ना. मात येणावळ वाडची देखून कांय सुवातांचेर पे पार्कींग सुरू केल्या आनी थंय पयशे घेवपा खातीर चलता ती वादावादी आनी झगडीं.

पणजे शाराचो पार्किंगप्रस्न प्राधान्य तत्वाचेर जाग्यार घालप गरजेचें आसा.

## सांतइनेज नाल्याचो प्रस्न सुटना

सांतइनेज नालो हो आयज आंतरराष्ट्रीय मळार पाविल्लो विशय जाला. सांतइनेजचो हो नालो म्हळ्यार मांडवी न्हंयची एक उपन्हंय. तिच्या काठार वेगवेगळीं बांदकामां जाल्ल्यान त्या बांदकामांचो कचरो ह्या नाल्यांत फाटलीं कितलीं तरी वर्सां पडत आसा. तातूंत थंय रावपी लोक सगळो कचरो ह्या नाल्यांत उडयतात. ताका लागून हो नालो



**ह्या दोन पंगडां मदल्या एकल्याक तरी पणजे महापालिकेचो उध्दार करप जमतलें काय ?**

पुरवला आनी उदक व्हांवती बंद जाल्ल्यान मांडवी न्हंयचो प्रवाह अडला. ताकाच लागून पणजे शारांत दर वर्सा बुडटी येता. ह्या नाल्याचें सौंदर्यीकरण करपाचो बोवाळ चलता पूण अजून त्या वावराक म्हूर्त मेळना. १८ कोटी रुपयांचो प्रकल्प अहवाल तयार केल्लो ताचें कितें जालें तेंय कोणाक खबर ना. मात ह्या न्हंयचो नालो जालो आनी आतां ताचें गटार जालां. तें उसपतलो कोण?

## कचऱ्याच्या प्रस्नाचो कचरो जाला

महापालिकेक सतायता तो कचऱ्याचो प्रस्न. ह्या प्रस्नांचोच महापालिका प्रशासनांत कचरो जाला आनी ताचो निचरो करपाचो एकूय उपाय महापालिकेक सुचना. महापालिका फाटलीं कितलीं तरी वर्सां हो कचरो ट्रकांत भरून धाय दिको हेडटा. केन्ना सांतानच्या दोंगरार वता तर केन्ना रायबंदरच्या, केन्ना ताळगांवच्या पठारार तर केन्ना पाट्यार. पाटो पुला लागसार कचरो प्रक्रिया करपाचो वावर फाटीं चलतालो. पणजे शाराच्या हुंबऱ्यारूच हो प्रकल्प जाल्ल्यान पणजेंत भितर सरतल्यांक नाकाक धरून, ओंकारे काडीत भितर सरचें पडटालें आनी पणजेंतल्यान भायर वतल्यांक जावं सायबा, सुटले एकदांचे घाणींतल्यान अशें म्हणचें पडटालें.

पणजे महापालिके मुखार हो कचऱ्याचो प्रस्न गंभीर जावन रावला. कचरो वेवस्थापना खातीर महापालिका दर वर्सा दोन कोटी रूपयांचो कचरो करता. पूण फाटल्या पांच वर्सांत एकूय कचरो प्रकल्प मार्गाक लागिल्लो ना. पणजे शारांत दर दिसा ६० ते ६५ टन कचरो तयार जाता. हो कचरो कसो जाता आनी ताचें वेवस्थापन कशें करूं येता हाचेर एकदीस तरी भासाभास पणजेच्या नागरिकांकडेन हे पालिकेन केल्ली आसा?

## मिरामारची लायल्या वाट

ताळगांवचो सम्राट बाबूश मिरामारचें सौंदर्यीकरण करूंक संवकला. कितें मोडचें आनी कितें घडचें हेंच ताका बाबड्याक कळुना. खंयचेय गजालीक एक सौंदर्यशास्त्र आसता आनी ते नदरेन कितें बदल करतलो जाल्यार ते विशीं चार लोकांक विचारूंक जाय हेंच बाबड्याक खबर ना. पर्यावरणाच्या संतुलनाचो इबाड करीत बाबडो आपले नदरेन मिरामार नटयता.

फाटीं रस्त्याचे कुशीक लांबचो लांब चर खोदून उदक वचपाखातीर पालिकेन गटार बांदलें. कितले तरी लाख उदकांत घाले. उप्रांत काम अकस्मात बंद जालें. कित्याक जालें कोणाक खबर! पूण सद्या हें गटार पुरवलां पूण ताचे अवशेश दिसतात. त्या बांदकामाक लागून ते सुवातेर कोणाक गाडयो दवरूंक मेळनांत. चलतना कोण ताका आपटता. कोण लक्ष दितलो ह्या प्रकाराचेर?

पणजे महापालिका म्हळ्यार समस्यांचो एक व्हडलो प्रकल्प. ह्यो समस्या कोणे निर्माण केल्यात हें कोण सांगूंक नकळो. त्यो समस्या सुटाव्यो करप शक्य आसुनय महापालिकेक ती नदर आशिल्ले कारभारी मेळनांत. दर पांच वर्सांनी वेंचणुको जातात आनी उमेदवार आपूण हें करतलों आनी तें करतलों म्हूण सांगता. वेंचून येतकच कांयच करिनांत. करतात फक्त कचरो. चडसो विचारांचो.

आतां परतून एक खेप पालिकेची वेंचणूक आयल्या. उमेदवार आपूण कितें करतलों हें सांगत सुटला. लिखित स्वरूपांत सांगतात. हें सगळें करपाचें तुमच्या बोडांत आशिल्लें जाल्यार इतलो तेंप खंय आशिल्ले? एकट्याचोय आवाज कित्याक नाशिल्लो ह्या पांच वर्सांत? काय तुमीय बुदवंतूच? वेळ आयलो काय तापिल्ल्या तव्यार रोटी उडोवप?

■ ■ ■

भारतीय समाज व्यवस्थेचो आनी शा[illegible] प्रक्रियेचो विचार केल्यार आमकां सामाजीक विशयांची जाण आशिल्ले. तांची प्रशासनांतले नोकरशहा, दलाल हांचे [illegible]कल्यान फसगत [illegible] अशे. तशेंच गोंयकां [illegible] आशा असे [illegible] जाय. बायलांक[illegible] हीच अपेक्षा आसतली.

बायलांच्या सशक्तीकरणाचे एक-एक कार्यक्रम जशे-जशे चालीक लागतले तशे-तशे बायलांच्या सामाजीक, शिक्षणीक परिस्थितींत बदल वेगान जायत वतले असो म्हजो विश्वास. बायलांच्या शिक्षणाचे बाबतींतय हें खूब नेटान घडलें हेविशीं तर कसलोच दुबाव नाका.

# अणभवान वयर वचपी बायल सक्षम आनी सबळ आसतली.

**– प्रकाश कामत**

**कां**य दिसां फाटीं तरनाटी लेखिका संपदा कुंकळकाराचो 'सखी' ह्या दै. 'लोकमत'चे पुरवणेंतलो लेख वाचतालों. लेख बायलांचे आर्थिक सशक्तीकरणाविशीं आसलो. 'बायलांचो साद' हे चळवळे संघटनेची वावुरपी साबीना मार्टीन्स हिची गवाय दिवन बाय संपदान बरयिल्लें कीं गोंयांत लेगीत नोकरी-वेवसाय करून जोडपी जायत्या बायलांचे घोवच तांचीं एटीएम कार्डां, चेक काडप असले वेव्हार हातासतात. म्हणचे आर्थिक नदरेन स्वतंत्र जोड करून लेगीत बायल मनीस आपल्या पयशांच्या वेव्हारांत आनी विनीयोगांत स्वतंत्र आनी सशक्त जावंक नांत.

हांव हाचेय फुडें वचून कांय देखी जाणां कीं स्वतंत्र वेवसाय-नोकरी करपी ज्या बायलांचे मोबायल फोन-एस्‌एम्‌एस पासत आनी तांच्यो इ-मेल पासवर्ड (हक्कान)

आपलेकडेन दवरून तांचे दुबावखोर घोव तांच्यो मेलय तपासतात. ही जर आर्थिक नदरेत सबळ बायलांची गोंयासारक्या फुडारिल्ल्या राज्यांतली गत जाल्यार हेर मागास वाठारांत बायलांची जीण 'सॅकंड रेट' काय 'थर्ड रेट' सीटीझन म्हणून कशी सारता आसतलीं देव जाणा!

हालींच जाल्ल्या डी.डी. कोसंबी विचार महोत्सवांत भारतीय वशांचे ब्रिटीश अर्थतज्ञ मेघनाद देसाय हाणीं खर उतरांनी भारतांतले विशमतायेची व्हाड्डीक केली. विशमतायेचो विचार केल्यार बायलमनीस व्हडा प्रमाणार विशमताय भोगता अशें ताणीं म्हळें. ताणीं भगवद्गितेचेर केल्ली टिका जायत्या जाणांक आवडूंक ना. पूण म्हाका आनीक एक याद जाली. १९८७ च्या दरम्यान सावड्ड्या लाड म्हणून एका कुटुंबान सामुहिक आत्महत्या केल्ली. तातूंत जाण्टे आवय बापूय, एक तरनाटेपणांत विधवा जावन गांठीक सान भुरगें आशिल्ली धूव आनी एक तरनाटी धूव असो पांचांचो परिवार असलो. हांव तेन्ना 'नवहिंद टायम्'सांत आशिल्लों. हे केसीचेर विशेश झोत घालतना हांवें त्या कुटुंबातलो जाण्टो गुरूचरित्र वाची, ताचेर खूब विश्वास दवरी आनी घोव तरनाटेपणांत गेलो जाल्यार बायलेची जीण कितें ह्या विशयाचेर (आपले धुवेक लेखून) निराश जाल्लो अशी म्हायती म्हाका ताच्या एका लागींच्या मित्रान दिल्ली, ती बरयिल्ली. रवीन्द्रबाबान ती खबर वाचली आनी ताणी एक स्वगत बरयिल्लें तें म्हाका याद जाता. गुरूचरित्र भायर मारचें काय लासून उडोवंचें अशीं कितें उतरां ताणीं घाल्लीं तीं हो ग्रंथ बायलांचे बाबतींत उणाखण दर्जो दाखयता आनी पर्यायान कालबाह्य थारता अशे पुरोगामी विचार मांडून. तेन्नाय म्हाका याद जाता घेऽ बोवाळ जाल्लो.



हांगां विशय हाडपाचो संदर्भ कितें तर बायलांची ह्या देशांतली जीण. तिचेर जुनाट पोथी-पुराणां आनी परंपरावादाचोय शेक आसा. हो देश परंपरेन आनी अजूनय पुरुश प्रधान. देखून हांगा दादल्यांची सोडाच बाबड्या बायलांची मानसिकताय लेगीत (दुर्दैवान) पुरुशप्रधान विचारांचेर पोसल्या. हाचो व्हड मार तांकां बसता म्हणपाचें लेगीत जायते फावटी बायलांकच समजना. देखीक घोव मेल्ले बायलेक लग्न-कारणाक, मुखेल कार्यापासून पयस दवरप. हळद कुकमासारक्या गजालींनी विधवा बायलांक कडेक दवरप. ह्या वेळार कितलेश्या बायलांक काळीज चर्त जावन ते बायलेचो कितें दोश असो मानवी भावनेंतल्यान विचार येता काय? हांव तांकां दोश दिना कारण वयर म्हळां ते प्रमाण त्यो बाबड्यो पुरुशप्रधान संस्कृतींत आनी संस्कारांत वयर आयल्यात. ते मानसिकतेंतल्यान करपाच्या गजालींत धन्यताय मानतात. देव सगळ्यांक सारको हें जर खरें जाल्यार विधवा बायलेन देवाचें प्रत्यक्ष कार्य कित्याक करचें न्ही?.. पूण असले पुरोगामी विचार करपी दादले-जावं बायलो असल्या देव-धर्म कार्यांनी परंपरागत पद्धतीन सहभागी जायनांत हीय एक समाज प्रबोधनाचे नदरेन वायट गजाल. भारतीय समाज गांधीजींचें कित्याक आयकयी? तांच्या फाटल्यान कित्याक वच? कारण ते देव-धर्म, प्रार्थना ह्यो गजाली श्रद्धेन करताले. आसूं.

बायलांच्या विशयाचेर बरोवपाचें कारण म्हळ्यार महिला आरक्षण विधेयक संसदेत भितर सरून वर्स जावन गेलें. आनीक एक बायलांचे वर्स ८ मार्चाक भोगावळ कशी मनयतले. उतरांचो शिवर करतले. बायलांक माता-देवी पाचारतले, पूण बायलांचें सशक्तीकरण करपाचो विशय येता तेन्ना आमचे 'डिसीजन मेकर्स' आसा नाशिल्लीं आडमेळीं आनी तर्कटां फुडें करून कृती करपाचें टाळतले. ही आमची बायलांच्या सबलीकरणाक 'खरी लागणूक!' ते नदरेन कवतूक करपाक फावो तें सर्गेस्त राजीव गांधींचें. ताणीं पंचायत पांवड्यार बायलांक ३३ टक्के राखीवता एका धपक्यान करून उडयली. ते बॉम्ब स्फोटांत सोंपल्या उपरांत तांची बायल सोनिया गांधीन तांचो निजाचो संवसार आनी देशाचें राजकारण जे तरेन लावन धरलें तें पळयल्यार सर्गेस्त राजीव गांधींचो बायलांवेलो विश्वास सार्थ थारलो हाचेविशीं म्हज्या मनांत तरी दुबाव ना.

बायलांनी बाकी सगळें करचें, तांका राजकारणांत कित्याक लुडबूड करपाक जाय? अशें चडांत चड दादल्या राजकारण्यांक दिसता. मागीर वयलेचाराक ते 'पॉलीटीकली करेक्ट' (म्हळ्यार खरेपणान दांभीकपणाची भास) कितेंय उलोवं. काँग्रेसवाले तर सोनिया गांधीक भियेवन ह्या विधेयकाक तेंको दितात हें सांगपाक ज्योतिष्याची गरज ना.

बायलांचें सशक्तीकरण म्हळ्यार कितें?

आमकां घडये गोंयांत ह्या प्रश्नाची गंभीरताय आनी खरसाण शारांत बसून कळना

जावंये. तरी लेगीत कांय दिसांफाटीं केंद्र सरकारच्या पत्र सूचना कार्यालयाच्या भारत निर्माण म्हायती कार्यावळीच्या निमतान चार गांवांनी लोकांमुखार उलोवपाची आनी उपरांत भासाभास करपाची संद म्हाका मेळ्ळी. मांद्रे, कोरगांव, शिवोले आनी पेडण्या. ह्या गांवांतल्यो बायलो पंच, सरपंच, जिल्हो पंचायत वांगड्याकडेन आनी हेर बायलांकडेन उलयतना जाणवलें तें बायलांक संवसार आनी सामाजिक कार्य, भौशिक पदां सांबाळप ही व्हडली कसरत करची पडटा. जायते जाणांक खरेपणान सशक्त जावपाक भौशिक पदां ही संद हें कळटा. पूण तांचेर दादल्यांचो (खुद्द घोव, घरांतले हेर दादले, तशेंच थळावो आमदार जायत, मंत्री जायत) दबाव तांका स्वतंत्रपणान कार्य करूंक अजून दिना.

पूण हांव शक्य थंय असल्या बायलांक तांचेलागी उलयतना सांगतां की ही फकत कांय तेंपाची गजाल. 'पासींग फेज'. करतां-करतां तांका आपसुकच आपल्या पदाचो योग्य वापर (सामाजिक हिताचे नदरेन) करपाचें बळगें येतलें. तांच्या दोळ्यांतलो विश्वास म्हाकां ही गवाय दिता. हांवें एक म्हत्वाची गजाल तांकां वन-टू-वन भासाभाशेंत सांगली. भौशिक सभेंत सांगल्यार बायलांक भडकायता असो आरोप जावं येता! केरळांत पंचायतींत कांय तेपा फाटीं ५० टक्के आरक्षण जावन वेंचणुको जाल्यात. त्या राज्यांत सद्या १० हजारांवयर बायलो पंच सरपंच जाल्यात. आनीक एक म्हत्वाची गजाल घडल्या. आमच्या राज्यांत पंचायतीक सरकार अनुदान दिता आनी येवजणोंय दिता. केरळांत ५० टक्के अनुदान येवजणेंक धरून मेळटा आनी ५० टक्के अनुदान आपल्या अदमास पत्रकांतल्यान राज्य सरकार उक्तें दिता. म्हणजे पंचायतीचें मंडळ आपापल्या गांवांच्या गरजांप्रमाण प्राधान्यक्रम थारायता. आपल्या गांवांत मुळाव्या शिक्षणाचेर पयसो मोडपाचो काय रस्त्यापासत, गांवांत भलायके पासत काय विधवा पेंशना पासत तजवीज जाय, हे चड बरेतरेन बायलांपरस कोण थारायत? देखून ही गजाल नवी क्रांती हाडटली. पंचायतींतल्या राखीवतेन समाधानी रावनास्तना गोंयांतल्या बायलांनी केरळचो हो मॉडेल हांगा हाडपाची मागणी लावन धरूंक जाय. हातुंतल्यान खरें सबळीकरण तळागाळांतल्यान जावपाक लागतलें.

हांव नांवां मुद्दाम टाळटां. पूण कांय बायलो सरपंच-पंच कागाळी करताल्यो. तांचे तांच्या गांवांतल्या कामांचे थाराव मंजूर जावन वयर धाडूंक वर्सांचीं वर्सां वतात. पूण कामां जायनांत. जायते गांवांनी कांय गरीबांखातीरच्यो येवजणी थारावीक लोकांकच मेळटात. मंत्री, आमदार ह्या गजालींक जापसालदार आसतात. गरीबी रेशेखाला अशिल्ल्या (बीपीएल) येवजण्यांच्या लावांविशीं जायत्या गांवांतल्यो बायलो सामक्यो निरशेल्ल्यो पळोवंक मेळ्ळ्यो. बी.पी.एल. दाखलो मेळोवप हेंय एक मोठें दुश्टचक्र. खास करून बायल मनशांक.

**घोव मेल्ले बायलेक लग्ना-कारणाक, मुखेल कार्यापासून पयस दवरप. हळद कुकमासारक्या गजालींनी विधवा बायलांक कडेक दवरप. ह्या वेळार कितलेश्या बायलांक काळीज चरै जावन ते बायलेचो कितें दोश असो मानवी भावनेंतल्यान विचार येता काय?**

एक म्हत्वाचो प्रस्न : हें सगळें पळयल्यार बायलांक पंचायत वाठारांत ३३ टक्के राखीवता खऱ्यांनीच तांची जीण बदलूंक पावल्या व्हय? जर हाची जाप सद्या तरी न्ही अशी आसत जाल्यार दुसरो व्हडलो प्रस्न : ३३ टक्के संसदेत आनी विधीमंडळातली राखीवता आर्थिक आनी सामाजिक नदरेन मागशिल्ल्या बायलांचे जिणेंत बदल घडोवन हाडूंक शकतली व्हय?

म्हाका दिसता सामक्या सोपेतरेन जाप दिवपाचे हे प्रश्न न्ही. ह्यो राखिवता म्हळ्यार बायलांचेर उपकार न्ही. तांचेर ही सरकारी कृपाय न्ही. आमच्या समाजान इतल्या तेपां खातीर समाजांत जी भयानक विशमता पोंसल्या तांतली बायलांच्या वांट्याक आयल्या ती विशमता आनीक चड. कारण निमणे मनीस कुळांत दोनच म्हत्वाच्यो जाती. दादलो आनी बायल. पुरुषप्रधान समाज रचनेन परंपरेच्या पासांनी बायलांक दुबळीं दवरल्यांत. तांतल्या तातूंत शिक्षण, आर्थिक, सामाजिक आनी भुगोलीक नदरेन (ग्रामीण वाठार) बायलांक ह्या विशमतायेचो आनीक चड मार बसता. ह्या सगळ्या गजालींचो विचार केल्यार बायलां आडची विशमताय ना करपा पासत विधानसभा आनी संसदेंतली राखीवता ही एक सकारात्मक कार्यावळ. आनी हें घडप ही काळाची गरज अशें म्हजें ठाम मत. ताचे आड भोवतेक सगळ्याच पक्षांत विरोधक आसात. सरसकट बायलांक ही राखिवता दिल्यार मंत्री, खासदार, आमदार हांच्योच सोयऱ्यो दायऱ्यो, आसपतकारांच्यो

सोयऱ्यो-दायऱ्यो ह्यो सुवाती आडावन ताचो लाव तळागाळांतल्या बायलांक पावपाक दिवच्यो नांत अशें एक मत विरोधकांनी उक्तें केलां. हातूंत जातीचें राजकारण करपी प्रादेशीक पक्ष चड फुडें आसात. ही गजाल सामकीच फाल्स नी. पूण ताका लागून लिंगआधारीत विशमतायेचो अन्याय ना करपापासत 'अॅफरमेटीव अॅक्शन'च नाका म्हणप म्हळ्यार भुरग्यासयत बाथटबांतलें उदक भायर उडोवपा सारकें जातलें. ह्या मार्गान जावपी विरोध हो खरें म्हळ्यार कावेबाज. ताचे फाटल्यान आसा ती बायलांच्या राखीवतायेंत 'जातीयतेचे लेबल' लावन तिकाय सासणाची मतांच्या राजकारणाची बटीक करून दवरपाचो जातीय राजकारण करप्यांचो हावेस.

अल्पसंख्यांक अनुसूचित-जाती-जमातींतल्या बायलांक, ओबीसी बायलांक अशी राखीवता मागपाचो अंतस्थ हेत ह्या कटाचो भाग आसा. हांतल्यान बायलांच्या राखीवतेचें 'मंडलायझेशन' जावन तिचे तीन-तेरा वाजतले हें समजून घेवंक जाय. ही राखीवता चालीक लायतना कायम राखीव सुवाती आसच्यो नात. त्यो फिरत्यो आसतल्यो. देखून हाचो लाव घेवन सदांचे यशस्वी आनी 'इस्टाब्लीशड' राजकारणी आपल्या कुटुंबीयांक फुडें करून फाटल्यांच्यान आपले मतदारसंघ राखून दवरतले आनी 'प्रॉक्सी' पद्धतीन राजकारण करतले अशें एक मत उक्तें जाता. ह्यो गजाली जातल्यो हें खरें पूण परतूनय म्हजें मत : म्हळें म्हणून बायलांखातीर करपाचें सरकारात्मक धोरणच गुठलावन दवरपाचें व्हय?

बायलांच्या शिक्षणाचें देशांतलें उणें प्रमाण पळयल्यार राखीवता दवरल्यार खासदार/आमदार हांच्या शिक्षणाचें प्रमाण आनीक घसरतले अशें कांय जाणांक दिसता.

खरें म्हळ्यार आमच्या देशांत शिक्षण-शिक्षण म्हणटात तें कितें? पदवी मूं? शिकिल्ले राजकारणी देशांत कितें दिवे लायतात तें आमी नकळों? भारतीय समाज व्यवस्थेचो आनी शासन प्रक्रियेचो विचार केल्यार आमकां सामाजीक विशयांची जाण आशिल्ले, जांची प्रशासनांतले नोकरशहा, दलाल हांचे कडल्यान फसगत जावचीना अशे, तशेंच जांकां भौसाची नाडी खबर आसा असे राज्यकर्ते जाय. बायलांकडल्यानय हीच अपेक्षा आसतली. बायलांच्या सशक्तीकरणाचे एक-एक कार्यक्रम जशे-जशे चालीक लागतले तशे-तशे बायलांच्या सामाजीक, शिक्षणीक परिस्थितींत बदल वेगान जायत वतले असो म्हजो विश्वास. बायलांच्या शिक्षणाचे बाबतींतय हें खूब नेटान घडटलें हेविशी तर कसलोच दुबाव नाका.



पंचायत-जिल्हो पावंड्यार राखीवतेंतल्यान बायलो राजकारण आनी भौशिक वेव्हार नेटान शिकत आसात. जायत्यो जाणी उघडपणान आपल्या घोवाक/दादल्यांक आपल्या वेव्हारापसून पयस दवरपाक लागल्यात. हें चिन्न कितें दाखयता? बायलांक राजकारणांत भितर वचपाक उच्च शिक्षण जाय. 'सॉफीस्टीकेशनू'च गरजेचें हें 'अॅलीटीस्ट' मत. तें चड गंभीरपणान घेवपाक जायना. आर्थिक वा सामाजीक नदरेन उंचेल्या वर्गांतले लोक बशीनी येरादारी करिनात. ते पंचायत पालीकांनी वचनात. रेशनाखातीर वा हेर गजालीं खातीर रांगेत रावनात. गांवांनी उदक मेळना जाल्यार बायलांक कळशी माथ्यार घेवन वणवण करून उदक हाडचें पडटा. कॅरोसीना खातीर वरांचीं वरां रांगांनी रावपाची पाळी येता. ह्या बायलांक देशाच्या खऱ्या गरिबांच्या चुरक्याची जाणविकाय ना अशें म्हणपाक आमकां खंयचो अधिकार आसा काय?

देशाच्या दुर्दैवान अजून मुखेल राजकी पक्ष जावं कॉंग्रेस, जावं भारतीय जनता पक्ष, उच्च वर्णियांच्या हातांत तांचें फुडारीपण आसा. आनी मजा म्हळ्यार दाव्या विचार सरणींच्या पक्षांचीय तीच गत. तरी एक गजाल विसरूंक फावना. वयल्या वर्गांतल्या बायलांक आपली बायलपणाची आयडेंटीटी वापरून बायल म्हणून सगळ्या समाजांतल्या बायलांक उलो घालप शक्य जावं येता. अशें घडल्यार

बायलांच्या उद्धाराचे चळवळीक ताचो लाव थोडो तरी जातलो. म्हाका आनीक एक म्हत्वाची गजाल बायलांचे राखीवतेंतल्यान जावपाची व्हड आस्त दिसता. ती म्हळ्यार राखीवता पंचायत-जिल्हो थरार पयलीं आयल्या. देखून आतां राखीवता वयल्या पावंड्यार येता तेन्ना कांय बायलो तरी सकल्ल्यान वयर वतल्यो. सद्या जें थेट कांय बायलांक खासदार म्हणून राज्यसभेंत बी धाडपाचें राजकारण जाता ताचे बदला तळागाळांतल्यान पद घेवन अणभवान वयर वचपी बायल राजकारणी ही चड सक्षम आनी सबळ आसतली. पूण हांगांय अडचण पयशांचीच आसतली. वेंचणुको म्हळ्यार पयशांचो खेळ ह्या देशांत जाला. देखून बऱ्यो बायलो आनी पयशेकार बायलो हातूंत वेंचणुकांत सरशी कोणाची जातली हें वेगळें सांगूंक जाय?

खातीर, समान संधी घेवपाखातीर पयलीं तयार करपाक वावर जावंक जाय. तें करिनासतना राखीवता म्हळ्यार फकत तांकां संदी तयार करून दिवप. त्यो संदी मागीर योग्य बायलांक मेळटल्यो हाची कांयच शाश्वती आसची ना.

आयज देशांत लिंगभेदाचेर आदारीत अन्याय व्हड प्रमाणार चलता. सामको चली भुरगें जल्माक येवचे आदींच मारपाचे करणेक धरून. शिक्षणाचो प्रस्न येता तेन्नाय चल्याक प्राधान्य. शाळेंत भुरग्यांची गळटी जाता तातूंत चलयांचो वाटो चड कारण गांवगिऱ्या वाठारांनी घर सांबाळपाक आवय-बापूय चले भुरग्यांचेर पातयेवन. ह्या मतप्रणालीच्या पुरस्कर्त्यांचें म्हणणें बायलांक ह्या देशांत उण्यो संधी आसात अशें अजिबात न्हय. पूण आसात त्यो संदी घेवपाक बायलांक मुक्तताय ना. ही मुक्तताय वचत थंयच्या बंदनांतल्यान तिची सुटका करपाक जाय. खरेपणान ती समाजा मदीं समजीकाय आनी संवेदना. हे संवेदनेविशीं देशांत रासवळ शिक्षण चड गरजेचें. बायलांक आनी समाजाक चड गरजेचें तें हें संवेदनशिलतायेचें शिक्षण. हो बायलांच्या सबलीकरणाचो विचार उदात्त पूण कितलोसो जमनीर प्रॅक्टीकल? तो अंमलात येवपाक वातावरण निर्मिती करता कोण? हो रूजता म्हळ्यार मदलो मार्ग म्हणून संसद आनी विधीमंडळांतल्या राखीव सुवातांच्या धोरणाची गरज न्हयकारूंक जावंचें ना. ताचें पुराय राजकारण मात जावंचें न्ही. अंदूच्या संवसारीक बायलांदिसा हें विधेयक मंजूर जावपचे नदरेन नेट धरतलें अशी आस्त बाळगुया.



देखून म्हज्या कोतान बायलांचे राखीवतेच्या कायद्यावांगडा वेंचणुकांतल्या पयशांचें प्रस्त उणें करपाक वा सरकारान वेंचणूक खर्च उबारचो अश्यो वेंचणूक सुधारणा येवंच्यो म्हणून यत्न जावप गरजेचें. तशें घडल्यार जायत्या कार्यक्षम बायलांक राखीवतेच्या आधारान राजाकारणात भितर सरप शक्य जावं येता.

हें विधेयक फाटलीं १४ वर्सां लोळटा. ताचेवेल्यान बायलांच्या सशक्तीकरणाची देशाची तळमळ कितली तें कळटा!

ह्या विधेयकाविशीं जायत्या बायलांमदींच दुमत आसा. तांकां दिसता की बायलांक संसदेंत आनी विधिमंडळांत सुवात ही आयची खरी गरज न्ही तर शिक्षण ही व्हड गरज. आयचे परिस्थितींत राखीवता लागू जाल्यार चड अनपढ बायलो विधीमंडळांनी पावपाची शक्यताय आसा. असल्या बायलांक 'वापरप' राजकी पक्षांक सोपें पडटलें. ह्या मतप्रवाहाच्यो बायलो म्हण्टात की राखीवता बायलांचे परिस्थितींत बदल हाडपाखातीर चड गरजेचें न्ही. चड गरजेची आसा ती मानसीकताय बदलप. बायलांक समान हक्का

**बा**यलांक संसदेंत आनी राज्य विधिमंडळांत राखीवता हो जायत्या जाणांक दादल्यांचेर खूब गंभीर अन्याय कसो दिसता. ते खातीर कांय मुळावे मुद्दे उपस्थित जाल्यात ते अशे,

ही भारतीय नागरीकाच्या आपल्या मतदारसंघातल्यान बऱ्यांतलो बरो उमेदवार वेंचून काडपाच्या हक्कावेली गदा. कारण ताका बरो

उमेदवार वेंचूक कित्याक मेळना तर ती बायलमनीस न्ही. दुसरो आनीक एक मुद्दो फुडें आयला. दादल्यांच्या आपल्याक जाय त्या मतदार संघांतल्यान वेंचणूक लडोवन मतदारांची सेवा करपाच्या हक्काविरुद्ध हें आसा.

हे मुद्दे उपस्थित करपी लोक हें विसरतात कीं आज देशाचे लोकसंख्येंत संविधानासकला समान हक्क आशिल्ल्यो लागीं-लागीं ५० टक्के बायलो आसात. तांतल्या कितल्याश्याच जाणींक अशेंच दिसता जावंये. पूण पुरूशप्रधान राजकी पक्ष, वेंचून येवपाक लागपी 'मनी-मसल पावर' ह्यो 'मुखेल' गजाली तांचे लागीं ना म्हणून तांकां आपल्याक जाय त्या मतदार संघांतल्यान वेंचणूक लडोवन लोकांची सेवा करीन दिसता त्या विचाराक मुरड घालची पडटा. निरशेणी सोंसची पडटा तांचो दादले विचार करता व्हय?आनीक एक मुद्दो दादले राजकारणी आनी तांचे समर्थक फुडें करतात तो असो - हें विधेयक जर मंजूर केलें जाल्यार आतां व्हडा संख्येन आशिल्ल्या दादले खासदारांनी मान्य करप की आपूण बायलांचें हीत सांबाळपाक अपात्र तशेंच तांकां न्यायान वागोवपाक अपेशी थारल्यात. देश स्वतंत्र जावन ६० वर्सां उलगलीं तरी बायलांचो आंकडो लागीं-लागीं ५० टक्के आसूनय तांचो आंकडो संसदेंत आनी राज्य विधिमंडळांत साधारण १० टक्केच कित्याक? तो फावो तसो घसघशीत कित्याक वाडना? तांका व्हडा नेटान तिकीटी दिवपाक राजकी पक्ष सरसकट फाटीं कित्याक....? बायलांचीं मतां मागपाक ते फाटीं आसनांत. अजून देशाची राष्ट्राध्यक्ष, लोकसभा अध्यक्ष हीं पदा 'टोकनीजम'च्या स्वरूपात तांका कित्याक दिवचीं पडटात? ह्या सगळ्या गजालींचो विचार आमी करतले काय ना?

**राखीवतेक लागून दादल्यांमदी, बायलांविशीं तिरस्काराची भावना उपस्थित जातली. 'लींग भेद ना करपाक नव्यान लिंगभेद तयार करप' हो खंयचो न्याय अशेंय एक मत दादल्यांचे समर्थक मांडटात. ते एक गजाल मुदलांत विसरतात ती ही कीं हें विधेयक दादल्यांचे विरोधांत ना.**

कांय जाणांक दिसता की संवसदेंत बायलांचो जो साधारण १० टक्के आंकडो आसा तें बायलांचें राजकारणांतलें प्रमाण पळयल्यार समर्थनीय आसा. पूण मुदलांत बायलांचें राजकारणांतलें प्रमाण अशें उणें उरपाच्या कारणाक एक धक्को दिवपाची गरज आमकां सकारात्मक कृतीन (ॲफर्मेटीव ॲक्शन) करची अशें कित्याक दिसना?

राखीवतेक लागून दादल्यांमदी, बायलांविशीं तिरस्काराची भावना उपस्थित जातली. 'लींग भेद ना करपाक नव्यान लिंगभेद तयार करप' हो खंयचो न्याय अशेंय एक मत दादल्यांचे समर्थक मांडटात. ते एक गजाल मुदलांत विसरतात ती ही कीं हें विधेयक दादल्यांचे विरोधांत ना. तें बायलांच्यो संदी वाडोवपाक सकारात्मक कार्यक्रम आसा. आनी तो चालीक लागचो म्हणून संविधानीक दुरूस्तीच्या स्वरूपांत हाडटात. संसदेचीं सभाघरां आनी विधिमंडळां हो कायदो भासाभासेन मंजूर करतात. ही प्रक्रिया धा वर्सां जालीं चलता. हे विरोधाचे मुद्दे पळयत जाल्यार पोरूं संवसारीक महिला दिसा राज्यसभेंत हें विधेयक मंजूर जावपाआदीं जायत्या राजकीय पक्षांच्या दादल्यांनी जो धुडगूस घालो ताचें अजाप दिसपाक नाका. सुमार धा वर्सांच्या आरत्या परत्या भासा-भासे उपरांत हें पावल फुडें पडलें. ह्या विधेयकाचे जायते विरोधक राज्यसभेंत (जिका आमी ज्येश्टांचें सभाघर म्हणटात) हातघाईचेर लेगीत आयलें. इतलें की ७ वांगड्यांक मतदान घेवन सभाघरांतल्यान भायर घालचे पडले. बायलांच्या उद्धाराचे दिकेन हें विधेयक एक व्हड गजाल निश्चीतच आसा. ताचे पासत हें विधेयक लोकसभेंत मंजूर करून घेवपापासत सगळ्या राजकी पक्षांनी नेटान वावरूंक फावो. आयचे घडयेक बायलांक लोकसभेंत प्रतिनिधीत्वाचो निकश धरल्यार भारताचो संवसारांतलो क्रम १००वो! तांची टक्केवारी फक्त ११ टक्के जी जायत्या देशांचो विचार केल्यार खूबच उणी आसा. जायत्या आफ्रीकन देशांच्या मानान लेगीत.

ही परिस्थिती मतींत घेतल्यार ३३ टक्के राखीवता समर्थनीय ना अशें कोण म्हणीत? ह्या मार्गान बायलांच्याच हिताचे विशय चालीक लागतले अशें मानप पिशेपणाचें जातलें. बायलांक निर्णय घेवपाची तांक मेळटा तेन्ना त्यो कुटुंबाचो, भुरगे-बाळांचो असो सर्वंकश विचार करतात हें समजून घेवंक जाय. ताचेच वांगडा बायलांची सामाजीक-सांस्कृतीक नदरेन 'स्टीरीयोटायप इमेज' जी आमी केल्या तिच्यो बेडयो तोडपाक हें खूब कामाक येतलें.

जे लोक हांगा मॅरीटाचो प्रस्न उपस्थित करतात आनी संसद आनी विधानसभांनी कामकाजाचो दर्जो घसरतलो म्हणून हुसको करतात ताणी सद्याचे परिस्थितींत ह्या

सभाघरांचें कामकाज कशें दर्जान चलता तें खऱ्यांनीच 'ॲनलायझ' केलां व्हय?

एक गजाल खरी. बायल मनशेचेर समाजीक आनी कौटुंबिक पावंड्यार जो विशमतायेचो अन्याय आजवेर जाला ताचो परिणाम म्हणून अजून बायलमनीस समानतेच्या संदीचे सर्तींत खूब फाटीं रावन बाबडी सर्त करता. जंय संद मेळटा थंय ती आपली पात्रताय आनी तांक दाखोवन दीत आयल्या तरी रासवळपणान तिका सांस्कृतीक मळार लिंगभेदाचो मार बसता. तिका अजून जायत्या वाठारांनी अत्याचार सोंसचे पडटात. इतल्यान जायना तर अत्याचार जाल्ले बायलेकच समाज गुन्यांवकाराच्या पांजऱ्यांत उबो करपाक जायते फावटी अनमनना. देखून ही सगळी परिस्थिती लक्षांत घेतल्यार बायलांच्या खऱ्या उद्धाराची ३३ टक्के राखीवता ही एकसुरी गुरूकिल्ली म्हणूंक जावचेंना. पूण ताचेच वांगडा तांकां गिन्यान, शिक्षण, सगळ्या वाठारांत तेंको आनी साधन-सुविधा हांचें बळगें दिवन आपल्या पांयांर उबीं रावपाक सशक्त करप हेंच खरें बायल सशक्तीकरण. पूण ते पासत दादल्यांनी थोड्या त्यागाची भावना दवरचीच पडटली. महिला आरक्षण कायद्याकडेन देशाच्या फुडाराचे नदरेन पळोवपाक ही त्यागाची भावना सामकी गरजेची. बायलांक माता आनी देवता करून तांचो उद्धार आजवेर आमी केलो ना ताचें थोडें तरी भान आमी दवरूंया. खरें काय न्ही? **बा**यलांक संसदेंत आनी राज्य विधिमंडळांत राखीवता हो जायत्या जाणांक दादल्यांचेर खूब गंभीर अन्याय कसो दिसता. ते खातीर कांय मुळावे मुद्दे उपस्थित जाल्यात ते अशे,

ही भारतीय नागरीकाच्या आपल्या मतदारसंघातल्यान बऱ्यांतलो बरो उमेदवार वेंचून काडपाच्या हक्कावेली गदा. कारण ताका बरो उमेदवार वेंचूक कित्याक मेळना तर ती बायलमनीस न्ही. दुसरो आनीक एक मुद्दो फुडें आयला. दादल्यांच्या आपल्याक जाय त्या मतदार संघांतल्यान वेंचणूक लडोवन मतदारांची सेवा करपाच्या हक्काविरुद्ध हें आसा.

हे मुद्दे उपस्थित करपी लोक हें विसरतात कीं आज देशाचे लोकसंख्येंत संविधानासकला समान हक्क आशिल्ल्यो लागीं-लागीं ५० टक्के बायलो आसात. तांतल्या कितल्याश्याच जाणींक अशेंच दिसता जावंये. पूण पुरूशप्रधान राजकी पक्ष, वेंचून येवपाक लागपी 'मनी-मसल पावर' ह्यो 'मुखेल' गजाली तांचे लागीं ना म्हणून तांकां आपल्याक जाय त्या मतदार संघांतल्यान वेंचणूक लडोवन लोकांची सेवा करीन दिसता त्या विचाराक मुरड घालची पडटा. निरशेणी सोंसची पडटा तांचो दादले विचार करता व्हय? आनीक एक मुद्दो दादले राजकारणी आनी तांचे समर्थक फुडें करतात तो असो - हें विधेयक जर मंजूर केलें जाल्यार आतां व्हडा संख्येन आशिल्ल्या दादले खासदारांनी मान्य करप की आपूण बायलांचें हीत सांबाळपाक अपात्र तशेंच तांकां न्यायान वागोवपाक अपेशी थारल्यात. देश स्वतंत्र जावन ६० वर्सां उलगलीं तरी बायलांचो आंकडो लागीं-लागीं ५० टक्के आसूनय तांचो आंकडो संसदेंत आनी राज्य विधिमंडळांत साधारण १० टक्केच कित्याक? तो फावो तसो घसघशीत कित्याक वाडना? तांका व्हडा नेटान तिकीटी दिवपाक राजकी पक्ष सरसकट फाटीं कित्याक....? बायलांचीं मतां मागपाक ते फाटीं आसनांत. अजून देशाची राष्ट्राध्यक्ष, लोकसभा अध्यक्ष हीं पदा 'टोकनीजम'च्या स्वरूपात तांका कित्याक दिवंचीं पडटात? ह्या सगळ्या गजालींचो विचार आमी करतले काय ना?

कांय जाणांक दिसता की संवसदेंत बायलांचो जो साधारण १० टक्के आंकडो आसा तें बायलांचें राजकारणांतलें प्रमाण पळयल्यार समर्थनीय आसा. पूण मुदलांत बायलांचें राजकारणांतलें प्रमाण अशें उणें उरपाच्या कारणाक एक धक्को दिवपाची गरज आमकां सकारात्मक कृतीन (ॲफर्मेटीव ॲक्शन) करची अशें कित्याक दिसना?

राखीवतेक लागून दादल्यांमदी, बायलांविशीं तिरस्काराची भावना उपस्थित जातली. 'लींग भेद ना करपाक नव्यान लिंगभेद तयार करप' हो खंयचो न्याय अशेंय एक मत दादल्यांचे समर्थक मांडटात. ते एक गजाल मुदलांत विसरतात ती ही कीं हें विधेयक दादल्यांचे विरोधांत ना. तें बायलांच्यो संदी वाडोवपाक सकारात्मक कार्यक्रम आसा. आनी तो चालीक लागचो म्हणून संविधानीक दुरूस्तीच्या स्वरूपांत हाडटात. संसदेचीं सभाघरां आनी विधिमंडळां

> **जे लोक हांगा मॅरीटाचो प्रस्न उपस्थित करतात आनी संसद आनी विधानसभांनी कामकाजाचो दर्जो घसरतलो म्हणून हुस्को करतात ताणी सध्याचे परिस्थितींत ह्या सभाघरांचें कामकाज कशें दर्जान चलता तें खऱ्यांनीच 'ॲनलायझ' केलां व्हय?**

हो कायदो भासाभासेन मंजूर करतात. ही प्रक्रिया धा वर्सां जाली चलता. हे विरोधाचे मुद्दे पळयत जाल्यार पोरूं संवसारीक महिला दिसा राज्यसभेंत हें विधेयक मंजूर जावपाआदीं जायत्या राजकीय पक्षांच्या दादल्यांनी जो धुडगूस घालो ताचें अजाप दिसपाक नाका. सुमार धा वर्सांच्या आरत्या परत्या भासा-भासे उपरांत हें पावल फुडें पडलें. ह्या विधेयकाचे जायते विरोधक राज्यसभेंत (जिका आमी ज्येश्टांचें सभाघर म्हणटात) हातघाईचेर लेगीत आयलें. इतलें की ७ वांगड्यांक मतदान घेवन सभाघरांतल्यान भायर घालचे पडले. बायलांच्या उद्धाराचे दिकेन हें विधेयक एक व्हड गजाल निश्चीतच आसा. ताचे पासत हें विधेयक लोकसभेंत मंजूर करून घेवपापासत सगळ्या राजकी पक्षांनी नेटान वावरूंक फावो. आयचे घडयेक बायलांक लोकसभेंत प्रतिनिधीत्वाचो निकश धरल्यार भारताचो संवसारांतलो क्रम १००वो! तांची टक्केवारी फक्त ११ टक्के जी जायत्या देशांचो विचार केल्यार खूबच उणी आसा. जायत्या आफ्रीकन देशांच्या मानान लेगीत.

ही परिस्थिती मतींत घेतल्यार ३३ टक्के राखीवता समर्थनीय ना अशें कोण म्हणीत? ह्या मार्गान बायलांच्याच हिताचे विशय चालीक लागतले अशें मानप पिशेपणाचें जातलें. बायलांक निर्णय घेवपाची तांक मेळटा तेन्ना त्यो कुटुंबाचो, भुरगे-बाळांचो असो सर्वंकश विचार करतात हें समजून घेवंक जाय. ताचेच वांगडा बायलांची सामाजीक-सांस्कृतीक नदरेन 'स्टीरीयोटायप इमेज' जी आमी केल्या तिच्यो बेडयो तोडपाक हें खूब कामाक येतलें.

जे लोक हांगा मॅरीटाचो प्रस्न उपस्थित करतात आनी संसद आनी विधानसभांनी कामकाजाचो दर्जो घसरतलो म्हणून हुसको करतात ताणी सद्याचे परिस्थितींत ह्या सभाघरांचें कामकाज कशें दर्जान चलता तें खऱ्यांनीच 'ॲनलायझ' केलां व्हय?

एक गजाल खरी. बायल मनशेचेर समाजीक आनी कौटुंबिक पावंड्यार जो विशमतायेचो अन्याय आजवेर जाला ताचो परिणाम म्हणून अजून बायलमनीस समानतेच्या संदीचे सर्तींत खूब फाटीं रावन बाबडी सर्त करता. जंय संद मेळटा थंय ती आपली पात्रताय आनी तांक दाखोवन दीत आयल्या तरी रासवळपणान तिका सांस्कृतीक मळार लिंगभेदाचो मार बसता. तिका अजून जायत्या वाठारांनी अत्याचार सोंसचे पडटात. इतल्यान जायना तर अत्याचार जाल्ले बायलेकच समाज गुन्यांवकाराच्या पांजऱ्यांत उबो करपाक जायते फावटी अनमनना. देखून ही सगळी परिस्थिती लक्षांत घेतल्यार बायलांच्या खऱ्या उद्धाराची ३३ टक्के राखीवता ही एकसुरी गुरूकिल्ली म्हणूंक जावचेंना. पूण ताचेच वांगडा तांकां गिन्यान, शिक्षण, सगळ्या वाठारांत तेंको आनी साधन-सुविधा हांचें बळगें दिवन आपल्या पांयांर उबीं रावपाक सशक्त करप हेंच खरें बायल सशक्तीकरण. पूण ते पासत दादल्यांनी थोड्या त्यागाची भावना दवरचीच पडटली. महिला आरक्षण कायद्याकडेन देशाच्या फुडाराचे नदरेन पळोवपाक ही त्यागाची भावना सामकी गरजेची. बायलांक माता आनी देवता करून तांचो उद्धार आजवेर आमी केलो ना ताचें थोडें तरी भान आमी दवरूंया. खरें काय न्ही?

**(प्रकाश कामत हे 'द हिन्दू' ह्या दिसाळ्याचे खाशेले वार्ताहर आनी ज्येश्ठ पत्रकार जावन आसात.)**





- ज्योती कुंकळकार
फोन : ९८२२१६१८५३




*बायल-दादल्यांचें नातें एकामेकांक पुरक आसता. तांचें शारिरीक, मानसीक मिलन एकमेकांक धादोसकाय दिवपी आसूं शकता, अशा बायल-दादलो नात्याचें उत्कट प्रेम कांय कवितांतल्यान दिसता. कोंकणीत नीला तेलंग, नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे, नयना आडारकार, अपर्णा गारुडी, शोभा फुलकार, चंद्रिका पाडगांवकार, सुफला गायतोंडे, मंगला कारापूरकार, ग्वादालूप डायस ह्या कवयित्रींनी कोंकणी कविता बळिश्ट केल्या.*

# गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत गोंयच्या लेखिकांचें कथा-कवितेंत योगदान

सगळ्या भारतीय लेखिकांच्या साहित्याचो उगम त्या काळाचे चौकटेचे परंपरेंत रावुनूच सुरू जाला. गार्गी, मैत्रयी, बहिणाबाई ते आयच्या काळावयल्यो कविता महाजन, शोभा डे, सानिया, गौरी देशपांडे ह्या सगळ्या लेखिकांनी जेन्ना जेन्ना ह्या चौकटी मदल्या विचारांक वेर घालपाचो यत्न केलो तेन्ना तेन्ना तांकां खर अशा संघर्शाक तोंड दिवंचें पडलें. २१ व्या शेकड्यांत वावुरपी लेखिकांक आयज लेगीत ह्याच संघर्शाक, हेच समस्येक तोंड दिवंचें पडटा. पूण आयची लेखिका दोळे जागरूक दवरून ह्यो सगळ्यो गजाली मुखार हाडूंक फुडें सरतात. चालू घडणुकांचेर परखड विचार मांडपाक पन्नासांतल्यो धा जाणी तरी आयज मुखार येतात हें म्हत्वाचें.

संवसार नामनेचें गोंय हें भारतांतलें एक सुपुल्लें राज्य. सैमाचे सोबितकाये खातीर नामनेक पाविल्लें. गोंय ४५० वर्सां परकी शेकाखाला आशिल्लें. अन्याय, आगळिको, जुलूम आनी ते आड चलिल्ल्यो चळवळी ह्या आनी अशा घडणुकांचो विचार करप गरजेचें. मौर्य, सातवाहन, अभीर, चाणक्य, विजयनगर, कदंब, आदिलशाही तशेंच वर्स १५१० ते १९६१ ह्या काळाखातीर पुर्तुगेज राजवट हांगा वावुरताली. हे राजवटीन सगळ्या समाजाक भेड्डो केल्लो. संस्कृतायो नश्ट करपाचो यत्न केलो. तरी लेगीत गोंयकारांनी आपली लोककला, संगीत, नाट्य, संस्कृताय आपल्या जिवापरस चड जपल्यो. व्हड विचारवंतांनी हांगासरलें साहित्य, विचार, संशोधन, कला हांची जपणूक केली. गोंय स्वतंत्र जावन ४९ वर्सां जालीं, तरी लेगीत साहित्यिक उंचाय गाठपाक आमकां खूब प्रयत्नशील जावप गरजेचें आसा.

गोंय मुक्ती उपरांत गिन्यानाचीं कवडां सगळ्यांक उगतीं जालीं आनी बायलेन कुटुंबाचो आर्थिक भार उखलप ही म्हत्वाची

गरज जाली. आयची गोमंतकीय बायल ही सुशिक्षित, नोकरी करपी, आपल्या धाकटुल्या कुटुंबाचो भार आपल्या खांदार घेवपी अशी चड समर्थ रूपान मेळटा. देखून हांगची लेखिका ही तीन भुमिका जगता.

पयली म्हणल्यार ती घरकान्न, दुसरी जोडून हाडपी, आनी हातुंतल्यान वेळ मेळ्ळो तरच लेखिका आपल्या गुणाक न्याय दिवपाक शकता. तिची सृजनशिलता तिका कितलीय अस्वस्थ करीत आसली, तरी घरकान्न, आवय, नोकरी, सोयऱ्यां धायऱ्यांचो पसारो, कुटुंबीक सुवाळे, हातुंतल्यान थंड, शांत असो लिखाणाक वेळ मेळप अशक्य आसा. २१व्या शेकड्यांत वावरत आसली, तरी तिचें जगणें मात तेच सनातन चौकटींत उरिल्लें. आं! हाचेर कांय आडवाद आसात. कांय लेखिकांनी नोकरी सोडून पुराय वेळ साहित्याक वा हेर कलेखातीर दिलो. देखी दिवपाचेंच जाल्यार हेमा नायक. हांणी आपली बँकेंतली नोकरी सोडून पुराय वेळ साहित्याक दिलो. हांवेंय स्वत: सरकारी नोकरेचेर (१८ वर्सां उरिल्लीं आसतनाय) उदक सोडलें आनी पूर्णवेळ लेखिका आनी कलाकार म्हूण जगपाचो यत्न करतां. लिखाण करपाक निवांत वेळ, बैठक मांडपाक स्वतंत्र कूड, बऱ्यांतलें बरें मेज म्हणचे लेखन अशें न्हय. तर तुमच्या मनांत एखाद्रो विचार, कल्पना जी अंतस्कर्णाक भिडटा, मनांत सतत खदखदता, अस्वस्थ जाता. तेन्नाच तें कागदार देंवता. खूब वाचन केलें तर मनीस बऱ्यापैकी लेखक जातलोच अशें ना. तरी लेगीत जें जें नवें तयार जाता ताचें किमान गिन्यान आपणाक आसूंक जाय. बदलत्या प्रवाहाचें भान खूब गरजेचें.

गोंयच्या बायलांचें लिखाण हें फाविल्ल्या वेळांतली निर्मिती. गोंयांत स्त्री लेखिकांच्या नांवांची वळेरी खूब मेळटली. गद्य बरोवपी कमी आसलीं तरी कविता ह्या साहित्य प्रकारांत ज्येश्ठ कवयित्रीं वांगडाच नवोदितांचीं बरीचशीं नांवां झळकतात. पूण साहित्य क्षेत्रांत तांच्या सातत्याविशीं दुबाव येता. कारण साहित्य रचनेचे प्रक्रियेंत जी साधना लागता, वाचन, तपश्चर्या लागता ती ताणीं करूंक ना. म्हणून आयज तांचें साहित्य हें फुरसतीच्या वेळाची निर्मणी. लग्ना आदीं साहित्यिक, परिशदो, आनी संमेलनान भरसून वचपी त्योच बायलो लग्नाउपरांत संवसार सांबाळपा खातीर घराभायर पडनात. फ्लॅट, बंगलो, गाडी, अळंकार ह्या गजालींच्या उपभोगांत गुल्ल जावन वतात आनी ह्या सगळ्या बोवाळांत साहित्य हें नांवापुरतें उरता. केन्नाय चुकून मागीर कविसंमेलनानी अशो कवयित्री दिश्टी पडटात. तांच्या संवादांतल्यान मागीर एकतर संवसारीक विवंचना आसता वा सुख-सुविधायांच्यो गजाली. तांच्यो जगपाच्यो शिमो मर्यादीत आसतात. ह्या ऐहिक सुख दु:खांबगर आपल्या अंतरंगांतले लेखिकेक भायर काडपाक तांकां वेळ आसना. तर मागीर समाजांतल्या अन्याय, अत्याचार जाल्ल्या बायलांच्यो व्यथा कशो कळटल्यो?

राजस्थानांत रूपकुंवर सती गेली, कानपुरांत तिगी भयणीनी गोळ घेतलो. रिंकू पटेल, अमृता देशपांडे, दिपा मिशाळ ह्या चलयांची हत्त्या जाली. गोंयांत महानंदू सारक्या एका सामान्य मनशान निरपराधी चवदा चलयांचे खून केले. नादिया तोरादो सारकी चली जीव दिता हें वाचून मन अस्वस्थ जाता. तें मनाच्या जिवंत पणाचे लक्षण. तें वाचून, समजून घेवपाक, तांचो अर्थ सोदपाक आमच्या कामामुखार आमकां वेळ खंयचो?

साहित्य हें आमच्या जिविताचो हारसो. पूण ह्या सर्जनशील हारशाचें म्हत्व आमकां कळूंक ना. अहमदनगरच्या दिपा मिसाळची जी शोकांतिका जाली ते गजालीचेर बायलांनी रागान, दु:खांतल्यान शेंकड्यानी कविता बरयल्यो. त्या कवितांचें 'जाणीवा' नांवाचें एक संकलन पुस्तक प्रकाशित जालां. तें वाचून म्हाका समजलें की ह्यो सगळ्यो कविता ते ते कवयित्रीच्या जिवंत मनाचें प्रतीक. एक दिपा जळटा आनी ताच्या वांगडा हजारांनी मनां जळटात, पेट्टात. अशे अवस्थेंत निर्माण जाल्लें साहित्य हें चिरंतन थरता. संत कवयित्री बहिणाबाई हांणी खंय वाचन केल्लें? तांका असो फुरसतीचो वेळ खंय मेळटालो? पूण समाजाच्या नगण्य थरावयलें बायलेचें दु:ख, अन्याय, आगळीको पळयल्यो, भोगल्यो, सकयल्या जातीच्यो व्यथा, यातना, बायलेक मेळिल्ले वेदनांचे दाग भोगीत-भोगीत त्यो उलयत गेल्यो आनी तांचें काव्य निर्माण जालें. हेंच चिरंतन.

गोंयचो मराठी-कोंकणी साहित्याचो इतिहास जरी लक्षणीय आसलो तरी तांतूत बायल साहित्यिकांचो वांटो मोठो ना. गोंयच्या मुक्ती उपरांतच खऱ्या अर्थान महिला साहित्य निर्मितीचे प्रक्रियेंत फुडें आयल्यो त्यो आदले पिळगेंतल्यो विजयाबाय सरमळकार. तांणी कोंकणी कवितेंत आपली अशी खास सुवात तयार केली. निलिमा आंगले हे कवयित्रीन मराठींत बालगीतांची एक अप्रुप देण दिली. कवयित्रीमदी माधवी देसाई ज्येश्ठ आसा. प्रतिमा पै हांच्या 'काजळ रात' आनी 'जिनिया' अशा कविता संग्रहान रसिकांच्यो अपेक्षा जाग्यो केल्यो. तरणाट्या बायल मनशेच्यो उत्कट भावना, हुरहूर कवितेंतल्यान मांडिल्ल्यो मेळटात. ते उपरांतच्या काळांत रेखा ठाकूर हांच्या चिंतनशील वृत्तीच्या कवितांनी वाचकांचें लक्ष ओडून घेतलें.

लिना पेडणेकार आनी दया मित्रगोत्री ह्या दोगांयल्यो कविता बायल मनशेच्या जिवनाचें काळीज हालोवन उडोवपी आविश्कार उक्तावपी आसात. बायल मनशेच्या जिवितांतल्या दु:खाचें, बायलेच्या सोसणिकायेचें, बायलेच्या संवेदनशिलतायेचें चित्रण करपी आसा. मेघना कुरंदवाडकर, मीना समुद्र, गिरिजा मुरगोडी, पद्मश्री

राधाकृष्ण, स्वप्ना धुपकर, लता काळे, पौर्णिमा परब, शांती नाईक, रेखा पौडवाल, गुलाब वेर्णेकार, अमिता रायकार आनी राधा भावे ह्या मराठी कवयित्रीनी आपल्यो प्रतिमा प्रगट केल्यात. रुढी, परंपरा, संस्कार जपपी राधा भावे, स्वप्ना धुपकर हांच्या कवितांनी दिसता. तृप्तताय, उदासिनताय, निराशा, परस्पर विरोधी भावना उत्कटपणान वाचपाक मेळटात. गिरीजा मुरगोडी हांच्या, 'अंतर्लाटा'तल्यान अणभव वाचपाक मेळटा. पौर्णिमा केरकर, चित्रा क्षीरसागर ह्यो कवयित्री काव्यमळार कार्यरत आसात.

बायल-दादल्यांचें नातें एकामेकांक पुरक आसता. तांचें शारिरीक, मानसीक मिलन एकमेकांक धादोसकाय दिवपी आसूं शकता, अशा बायल-दादलो नात्याचें उत्कट प्रेम कांय कवितांतल्यान दिसता. कोंकणींत नीला तेलंग, नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे, नयना आडारकार, अपर्णा गारूडी, शोभा फुलकार, चंद्रिका पाडगांवकार, सुफला गायतोंडे, मंगला कारापूरकार, ग्वादालूप डायस ह्या कवयित्रींनी कोंकणी कविता बळिश्ट केल्या. ह्या पन्नास वर्सांच्या काळखंडांत सुमार १०० वयर कविता संग्रह आयल्यात. ह्या काव्य संग्रहांत नावाजत्या लेखकांच्यो प्रस्तावना वाचूंक मेळटा.




कोंकणी साहित्यांत बायलांची अभिव्यक्ती ह्या परिसंवादांत उलयतना ज्योती कुंकळकार, प्रशांती तळपणकार आनी हेर मानेस्त

गोंयच्या कवयित्रींक स्वत:तल्या स्त्रीत्वाच्या सांस्कृतीक आंगान एकेवटेन अभिमान आसा. तेच बरोबर स्त्रीत्वाच्या बंधनाखातीर स्वत:चें स्वतंत्रपणान फुलपी व्यक्तीमत्व चेंपता ताची आधुनीक जाणीव आसा. परंपरा आनी अर्विल्लेंपण ह्या दोन धुवांमदल्या भावनांची अभिव्यक्ती ह्या कवितांतल्यान दिसता. हे प्रस्थापित जाल्ले काव्य परंपरेंत कवयित्रीमदीं सुवात मेळटा ती नुतन साखरदांडे, नयना आडारकार आनी जयंती नायक हांकां. एकेवटेन पारंपारीक बायलेची धाटणी आनी दुसरेवटेन काव्याच्या संस्कारांतल्यान आयिल्ली लक्षणीय प्रतिमा सृश्ट. तेचभशेन पुर्विल्ल्या काळापासून बायल मनशेच्या मनार बळजबरेन घाल्लीं मुल्यां आतां बदलते परिस्थितींत काळाभायलीं थारतात. हालीं कांय कवयित्रींचीं एक-एक पुस्तक उजवाडाक आयलां. योगिनी आचार्य, हर्षा शेटये, दिशा कांबळी, संहिता कुलकर्णी, शीतल भांडारे, रुपा कोसंबे, सुशिला हळर्णकार, मीलन वायंगणकार हांचे कवितेक आधुनिक नवो विशय मेळुना. खरें म्हळ्यार स्त्री शिक्षणा खातीर दारां उक्तीं जाल्यांत. एकविसाव्या शेकड्यांत आमी आसात. सार्वजनीक जीवनांत विस्मित करपाचें कर्तृत्व दाखयलां. बायलांनी जागीं जावपाचो काळ. हें जागेपण खूब आंगांनी जावंक शकता. नव्या काळाची घडण करपी नव्या कार्याचो हो काळ पूण जागेपण हे कवितेंत दिसना. आधुनीक कवितेक ह्या कवयित्रीं कडल्यान कांय मेळूंक ना. ही वस्तुस्थिती आसा.




साहित्यप्रकाश हे कला अकादमीच्या कार्यक्रमाक श्रीमती ज्योती कुंकळकार, प्रा. भुषण भावे, श्रीमती माधवी देसाय, श्रीमती सुधा आमोणकार, श्रीमती हेमा नायक आनी. प्रा. सचिन कांदोळकार.

हालींच 'जयंती नायक' हाचो एक कविता संग्रह आयला आनी सशक्त आसा. पयलो कविता संग्रह म्हणून आडनदर करूंक जायना. कथा संग्रह, नाटक आयल्या उपरांत परीपक्व असो कविता संग्रह. हो कविता संग्रह

म्हळ्यार भाव कविता म्हणूं येता. भावनेचे सुक्षीम हेलकावे तरल शब्दांच्या सहाय्यान प्रवाहीपणात व्यक्त करपी एक आव्हान अशें म्हाकां दिसलें. संघर्शांत व्यक्तीमत्वाच्यो ज्यो ठिणग्यो उडटात, त्या ठिणग्यांनी घेतिल्ली आकृती म्हळ्यार जयंतीच्यो कविता.

गोंय मुक्ती उपरांत बायलांच्या आधुनिक कवितेक नवो विशय मेळूंक ना. बदलत्या काळाकडेन, अर्विल्ल्या विचारांकडेन तिचो बंध जितक्या प्रमाणांत आनी जितक्या वेगान जुळोवपाक जाय आशिल्लो तसो तो जुळ्ळो ना. बायलेन बरयिल्ल्यो कविता जें कितें घडटा, व्यक्त करता तातूंत तापून, भरसून वा रंगून वचना. कितेंतरी हातचें राखून दवरिल्लें आसता. तांच्या कवितेंतल्यान व्यक्त जावपी प्रेमानुभव निसंकोचपणान व्यक्त जाल्लो दिसना. ह्यो कविता संख्येन जरी चड आसल्यो तरी गुणवत्तेचे नदरेन हेर राज्यांतल्या बायलां कवयित्रीपरस, दादल्यां परस खूब कमी प्रतीच्यो आसात. एक समाधान -राधा भावे हांकां कवितेखातीर कला अकादमीचो राज्य पुरस्कार पयलेच फावट फावो जाला. म्हज्या मतान बरोवपाक जाय म्हणून बरोवप, कविता संग्रह येवपाक जाय म्हणून बरोवप हें अडेचें दिसता. कांय जाणांच्या कवितेंत फक्त विचार आसता, पूण ती कविता नासता हें तितलेंच खरें.

मात्र गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत कथा ह्या साहित्य प्रकारांत भरीव योगदान मेळ्ळां. कथा आनी कादंबरी ह्या साहित्य प्रकारांत जीवन-चित्रण हें थेट जिविताकडेन लार्गीचें आसता. कथा ही आकारान ल्हान आनी सुटसुटीत आसता. बायलांच्या कथेचें स्वरूप अणभवकेंद्रीत आसता. स्वत:चे अणभव, स्वत:च्यो कल्पना, भावना हातुंतल्यान बायलांची कथा जल्म घेता. खूबशे फावट व्यक्तीचित्राचे पद्धतीन व्यक्त जाता. स्वातंत्र्याउपरांत लार्गी-लार्गीं सत्तरां परस चड कथा संग्रह हातालार्गी मेळटात. आयजमेरेन गोंयांतल्या चार कथा लेखिकांक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. तशें पळोवपाक गेल्यार ५० वर्सांच्या काळांत महाराष्ट्रांत आठ स्त्री लेखिकांक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. इरावती कर्वे, गोदावरी परुळेकर, इंदिराबाई संत, उमा कुलकर्णी, हेमा जावडेकर, धनश्री हळबे, दुर्गा भागवत आनी विजया राजाध्यक्ष तर कोंकणींत ३५ वर्सांच्या काळांत मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार, हेमा नायक आनी जयंती नायक हांका हे पुरस्कार फावो जाल्यात. मीना काकोडकार आनी शीला कोळंबकार हाणी कोंकणी कथेक भावनाप्रधान अशो कथा दिल्यो. मॅगी सारकी अप्रतिम कथा दिवपी आनी 'सुकण्या पिला रे' सारकी मनाक स्पर्श करपी शीला, मीना ह्या दोगांयनी वाचप्यांच्या काळजांत खाशेली अशी सुवात केल्या. दोगांचीय शैली विनोदी ढंगांतली. हेमा नायक आनी जयंती नायक बायलांच्या प्रश्नांचेर समर्थ अशो कथा बरोवपी. आपलें अस्तित्व सांबाळून ह्यो बायलो बंडखोरी करिनांत. निती, नियम, परंपरे आड एके शिमे मेरेन वचपाची तयारी. नोकरी करपी बायलांक सोंसपी अडचणी, बायल दादलो हांच्या नात्यांतल्यो मानसिकतायेचो संघर्श, घटस्फोटाचे प्रश्न, स्वतंत्र व्यक्तीमत्वाचो चेरो पुसून वचचो असो वेव्हार बायलेच्या वाट्याक येता ते बद्दलची खंत ह्या दोगांयच्या कथांनी येता. आमी जर कथेचे मळार गोंयचे लेखिकेन केल्लें योगदान पळयत जाल्या कोंकणी आनी मराठी २०-२२ सशक्त नांवां दोळ्यांमुखार येतात. वयलीं चार नांवां सयत माधवी देसाई, जयमाला दणायत, वासंती नाडकर्णी, ज्योती कुंकळकार, माया खरंगटे, रेखा मिरजकर, नयना आडारकार, अंजली आमोणकार, रजनी भेंब्रे, मीलन तळावलीकार, प्रशांती तळपणकार, सुरेखा तोटेकार, सुजाता सिंगबाळ, स्मिता भांडारे, मेघना कुरूंदवाडकार, लक्ष्मी जोग आनी दिपा मुरकुंडे अशीं नांवां दोळ्यांमुखार येतात.

ज्योती कुंकळकार हांच्या तिनूय कथा संग्रहांनी बायल हीच केंद्रबिंदू आसा. बायल-दादलो संबंधाविशीं निती-अनितीचे पलतडीं वचून विचार करतात. तांगेल्यो सगळ्योच कथा नायिकाप्रधान आसात. लग्न संस्कारांतल्यान निर्माण जावपी सुरक्षीत जिवीत, सुखी कुटूंबाचें चित्र, चार चवगांसारकें जिवित आसचें ह्या अपेक्षांतलो पोकळपणा ज्योतीनच स्पष्ट केला. सुजाता सिंगबाळ ह्यांचो कथा मध्यमवर्गीय जिविताचेर आदारिल्ल्यो आसात. बायलमनशांच्या कुटुंबीक जिवितांतलीं बायलेचीं वेगवेगळीं रूपां ताणीं दाखयल्यांत. जांच्यो कथा लोकप्रिय आनी वाचनीय जाल्यात त्यो म्हळ्यार वासंती नाडकर्णी, रेखा मिरजकर, माधवी देसाई, नयना आडारकार, तशेंच कांय कथेंत आपली अस्तित्वाची सुवात जोडली ती अंजली आमोणकार, प्रशांती तळपणकार, दिपा मुरकुंडे, मीलन तळावलीकार, मीरा प्रभू वेर्लेकार, लक्ष्मी जोग हांणी. ह्यो सातत्य दवरून लिखाण करतात. बायलांच्या कथांतल्या समस्यांचें स्वरूप चडशें बदलिल्लें दिसना.

माधवी देसाईच्या लिखाणांत खूब अशी तरळ भावनांची जाण दिसता. तांची 'असं म्हणू नकोस', 'सागर', 'कथा सावळीची' ह्यो कथा काळजाक हात घालतात. बायल आनी तिचें जिवित होच तांच्या कथांतलो मुखेल असो चिंतनाचो विशय. दादलोप्रधान जीवन शैलींत भड्डत गेल्ल्या बायलेचें दुखख तांच्या कथांनी घडणुकांचेर चड भर दिल्या. तांच्या कथांतली बायल चड सोशीक आसा म्हण ती बंडखोरी करिना.




इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा संस्थेचे वतीन आयोजीत केल्लो एक परिसंवाद

रेखा मिरजकर हांचे कथेंत बायलांच्या वांट्याक येवपी भोग, व्यथा, वेदना (पाऊलखुणा) ल्हवू तरेन चित्रायल्यात. साबार समस्यांक फुडो करपी 'पांगरा' ही एक किरिस्तांव जाणटे पिरायेचे बायलेची कथा काळजाक हात घालपी. आपल्या वाट्याक आयिल्ले त्रास, अन्याय ह्या फुडें कोणाच्याच वाट्याक येवक जायना म्हण धडपडपी तांच्यो चडशो कथा गोंयचे फाटभूंयेचेर आदारीत आसात.

हे शिवाय प्रतिभा रायकर, किशोरी पै, शांता कंटक, चित्रा कुडचडकर, शांता लागू, अंजली आमोणकर हांणी गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत कथा ह्या साहित्य प्रकारांक भरीव योगदान दिलां.

वासंती नाडकर्णी, इंद्रायणी सावकार, सुधा करमरकर, उषा पाणंदीकर हांच्यो कथा 'कुटुंब कथा'. अणभव केंद्रीत लिखाण म्हूण तांच्या कार्याची तोखणाय करपाक जाय. अणभवाक गवाय दवरून लिखाण केल्ल्यान कुटुंबांतल्या प्रासंगीक घडणुकांचेर भर दिल्या. सामाजिक प्रश्नांचें भान कांय लेखिकांच्या कथांतल्यान दिसता.

वयर दिल्ल्या कथा लेखिकां भायर आनीक कांय कथाकारांनी ह्या कालखंडांत लेखन केलां. तांच्या कथांनी आर्थीक नदरेन स्वावलंबी जाल्ल्या, तरी रूढ आशिल्ली पुरुष प्रधान वेवस्था बदल्ली ना. ते खातीर उपरांतच्या काळांत घोव बायलेच्या नात्यांत कांय वेगळेच ताण निर्माण जाले. बायल शिकली, नोकरी करूंक लागली कीं ती आपले परस वरचड जातली ही भावना दादल्यांच्या मनांत नकळटां घर करूंक लागली आनी मागीर विरोध जावप अशे विशय कथांमदीं आयल्यात. हालींसरा सरसकट कथेंत घोवाच्या जिवितांत आयिल्ली दुसरी बायल ही घोवा-बायलेच्या नात्यांत ताण आनी क्लेश हाडपी एक सनातन वेदना आसा. बायलांनी हे वेदनेची नोंद कांय कथांतल्यान केल्या. दादल्यांचीं कांय रुपां बायलांच्या कथाविश्वांत दिश्टी पडटात.

गोंयच्या लेखिकांनी लघुकथा बरयल्ली ना. तशेंच बायलांनी दीर्घकथेचो आकृतिबंध (निर्बल- हेमा नायक) हाताळूंक ना. बायलांच्या कथांचें वैशिष्ट्य म्हळ्यार त्यो कथा अणभव केंद्रीत आसात. बायलांचे प्रत्येक भुमिकेंत दुःखाचें प्रमाण कमी-चड आसलें तरी दुःख आसाच. एकाकीपण आसा.

बायलांच्या दुःखाक, कष्टाक, शोशणाक जबाबदार कोण? ह्या प्रश्नांचें उत्तर दुसरे पिढींतल्या लेखिकांनी सोदील्लें आसा. बायलांचो संघर्श केन्ना नियतीकडे जाल्यार केन्ना समाजवेवस्थेकडेन चलिल्लो आसा. पुरुष केंद्री समाजवेवस्था हें आपल्या दुःखाचें मूळ कारण आसा अशें कथेंतल्यान कळटा. दिवाळी अंकांतल्यान वा हेर मासिकांतल्यान बायलांच्यो कथा प्रसिद्ध जाल्यो तांची संख्या कमी ना. पूण ती पुस्तक रूपान येवंक ना. खंयच्याय अंकातल्यान बायलांच्यो कथा प्रसिद्ध जाल्यार एक चित्र आमच्या दोळ्यामुखार येतलें. 'चित्रंगी, जाग, कुळागर, सुनापरान्त, गोमंतक टायम्स, बिम्ब, कोंकणी' अशा पयलींच्या आनी आतांच्या मासिकांचेर कांय बायलांच्यो कथा प्रसिद्ध जाल्यात.

एकूण बायलांची कथा कौटुंबीक प्रश्नांभोवतणी आनी कांय मोजक्याच कथा लेखिकांच्या संदर्भांत बायलांच्या सामाजिक प्रश्नाभोवतणी फिरत आशिल्ली दिसता. विनोदी लेखन करपी स्त्री कथाकारांची संख्या मर्यादित दिसता. ह्या पन्नास वर्सांत कथा लेखिकांक सन्मान मेळळ्या. साहित्य अकादमीचे पुरस्कार, राज्य पुरस्कार, कथा ॲवॉर्ड, शाश्वती ॲवॉर्ड, डॉ.टी. एम. ए.पै पुरस्कार, संमेलनाच्यो अध्यक्षा जावपाचो भोवमान शीला कोळंबकार हांका मेळ्ळा जाल्यार कांय कथांचीं फिल्मां जावपाचो मान फावो जाला. ज्योती कुंकळकार हांच्या तीन कथेंचीं फिल्मां जाल्यांत. जाल्यार तांच्या एका कथेचेर सेल्युलॉइड फिल्म जालां. जाल्यार शीला कोळंबकार हाचे कथेचेर टेलिप्ले जाला. आज स्त्रीवादी विचारांचें आनी स्त्रीवादी समीक्षेचो प्रवाह साहित्यांत म्हत्वाचो जाला. आयज बायलांच्या लेखनाचें मूल्यमापन जाता हेही नसे थोडके!

■ ■ ■

# सतीचे वाण




मोहन रानडे



"गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें."

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कशीयस बंदखणीत ख्यास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आरसमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय कितें तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब गजाली सांगल्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली ताचें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आरसमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

- दिलीप बोरकार

## दादरा-नगरहवेली मुक्त

१९५३च्या अंबोली शिबिरांत तशेंच १९५४च्या आरंबाक भरिल्ल्या वझरी हांगच्या शिबिरांत दादरा, नगरहवेलीचे मुक्ततायेचो उल्लेख जाल्लो. हो सगळो वाठारचोंयवटेन स्वतंत्र भारतान आटापिल्लो आशिल्ल्यान थंयच्या उण्या पुर्तुगीज पोलीस दळाचेर मात करप व्हडलेंशें कठीण ना अशी चर्चा ह्या शिबिरांतल्यान जाल्ली. आझाद गोमंतक दलाच्या वावुरप्यांनी मुंबयत हे नदरेन प्रयत्न सुरू केल्ले. कांय येवजण्यो आशिल्ल्यो. तशें पळयल्यार १९५४च्या आरंबासावनच स्वातंत्र्य-चळवळीचें वारें मातशें नेटानूच व्हावंक लागिल्लें. ताका अटकसत्राचोय वांगड मेळिल्लो. प्रजासमाजवादी पक्षाचें पुराय सहकार्य 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा'क मेळिल्लें. त्या पक्षाचे अणभवी वावुरपी भूमिगत रितीन गोंयांत येवन १९५४ सावन कॉंग्रेस संघटनेचें बळ वाडयताले. भारत सरकार गोंयची आर्थिक कोंडी रोखडेंच करपाचें आसा अशेंय आयकूंक येतालें. डॉ. पुंडलिक गायतोंडे हांचें 'गोमंतकीय हे भारतीय आहेत' हें एकूच वाक्य विजेसारकें ते वेळार परजळून गेल्लें. एका जेवणावळी वेळार पोर्तुगीज गव्हर्नरा मुखार तांणी हें वाक्य ठणकावन म्हणिल्लें आनी गोंयकार पोर्तुगीज आसा ह्या गव्हर्नराच्या विधानाक तोंडा सामकार आव्हान दिल्लें. सत्य उच्चारिल्ल्या बद्दल डॉ. गायतोंडेक रोखडीच १७.२.५४ दिसा अटक जाल्ली. लोकांच्यो

भावना हे घडणुकेक लागून साहजिकच चाळवल्ल्यो. कितें तरी आतां घडटलेंच अशें लोकांक दिसूंक लागिल्लें. हेच वेळार म्हळ्यार जून-जुलायंत श्री. शिवाजी सावंत, श्री. माधवराव चव्हाण हांचे सारखे गोंयांभायले आनी श्री. गोपाळ आपा कामत, डॉ. गणबा दुभाषी, प्रा. शंकर सरदेसाय, श्री. पांडुरंग मुळगांवकार आदी गोंयकारांक अटक जाली. १५ ऑगस्ट सावन गोंयांत सत्याग्रह सुरू करपाचो निर्णय 'नॅशनल काँग्रेस गोवा'न जाहीर केल्लो. भारतीय जनता ह्या सत्याग्रहांत देंवतली हाचो अर्थ भारत सरकारूय ह्या लढ्यांत पडटलें असो केल्लो. अश्या ह्या उत्साहपूर्ण वातावरणांत २३ जुलाय १९५४ची ती खबर आयली. दादरा मुक्त जाल्लें आसा!

सावयचे शाळेंत हांव शिकयतालों आनी अचानक एकलो दादराचे मुक्तीची खबर आशिल्लें खबरांपत्र घेवन खोशयेन म्हजेकडे आयलो. खबरांपत्र पोर्तुगीज आशिल्लें. अनिसेतु रूझारियु ह्या सुबशेफाक (सब इन्स्पेक्टराक) जिवो मारिल्लो आनी देशभक्तांनी दादरा मुक्त केल्लें. खोसयेचें ल्हार सरता थंय आसा इतल्यांत शिमेपलतडच्यान, वझऱ्यासावन रकाद घेवन बाळा पर्येकार आयलो. म्हाका बेगोबेग आपयल्लो. खबर आयकल्ली तेन्ना म्हाका दिशिल्लें की आमच्या आझाद गोमंतक दलानूच तें काम तडीक व्हेलां आसुंये! पूण वझऱ्याक पावतकच कळ्ळें की, श्री. वामन देसाय हांच्या फुडारपणाखाल दादरा मुक्त केल्लें आनी तांचो आनी दलाचो कांयच संबंद नाशिल्लो. पूण हाका लागून म्हजे खोशयेंत मात्तूय उणें आयलेंना. खरें म्हळ्यार दादरा कोणें मुक्त केलें हे परस तें मुक्त जालें हेंच म्हत्वाचें आशिल्लें, मागीर तें कोणाच्याय यत्नान काय आसना! पोर्तुगीज साम्राज्याक वेरो वचूंक लागिल्ल्यो. ताका लागून श्रेय कोणाक वता हो प्रस्न गौण आशिल्लो. अर्थांत हें म्हज्या सारख्या सामान्य सैनिकांचें मत आशिल्लें. फुडारी लोकांची, राजकारणी लोकांची विचारपध्दत वेगळी आशिल्ली. दलाक श्रेय मेळूंक ना हाची खंत चड आशिल्ली. हेरांनी दादरा मुक्त केल्ल्यान जें श्रेय आमी होगडायल्लें तें नगरहवेली तरी मुक्त करून घेवया अशें थारावन नगरहवेली वचपाचें थारलें आनी जायतेजाण मुखार गेल्लेय. श्रेया खातीर आसूं वो हेर कित्याखातीरूय आसूं, चड शक्त एकवटीत जातली आनी पुर्तुगेज साम्राज्याचो आनी एक वांटो मुक्त जातलो हे कल्पनेन जे जायतेजाण बेभान जाल्ले तांतलो हांवूय एक आशिल्लों.

होंडाचो कृष्णा माईणकार आनी हांव वझऱ्याच्यान बेळगांव पावले. थंय श्री. टोनी फेर्नांडीस आनी कुंकळेचे स-सात जाण मेळ्ळे. सगळे जाण २९ जुलायाक मुंबयत पावले. श्री. विश्वनाथ लवंदो थंय आशिल्लेच. तांचे वांगडा रोखडोच वापीक गेलों आनी थंयच्यान करंबेळ ह्या शिमेवेल्या गांवांत आयलों. थंय खोशयेची एक बातमी आमची वाट पळयताली. नगरहवेलींतल्या नरोली पोलीस ठाण्यार आदले राती यशस्वी हल्लो करून थंयच्या स य पोलीसांक आनी रेजीदोराक (पोलीस पाटलाक) कैद करून दल सैनिक परतून आयिल्ले. पुण्याचे श्री. राजाभाऊ वाकणकर, सातारचे श्री. नाना काजरेकर, पुणे, मुंबय आनी सातारा हांगचे २०-२५ आपवावुरपी, श्री. प्रभाकर सिनारी, श्री. कान्होबा नाईक, कुंकळेचे श्री. दत्ताराम देसाय, सालेलीचे श्री. कृष्णराव राणे, बाबुराव राणे आनी दलाचे आनीक ६-७ आपवावुरपी आनी कांय ग्रामस्थ थंय आशिल्ले. यश मेळिल्ल्यान जाल्ली खोस सगळ्यांच्या मुखामळार उफेताली. आमकां नव्या लोकांक येवकार दिवपा खातीर सगळे आपआपल्या जैतिवंत आयुधांसैत भायर आयले. झुंजा काणयो रिजवणेच्यो आसतात. त्यो आयकतना सांज केन्ना सरली आनी रात केन्ना जाली हें कळ्ळें ना. झुंजाच्यो काणयो आयकुप्याचें काम ते दिसा हांवें केल्लें. दुसरे दिसा हांव तातूंत वांटेकार जावपाचो आशिल्लों, श्रोतो रावनासतना युध्दकथेचो कर्तो जावपाचों.

नगरहवेलीचे राजधानीचेर, सिल्व्हासाचेर चाल करून, ती काबीज करपा खातीर खंयचे खंयचे साधन सामुग्रेची गरज आसा हाची श्री. विश्वनाथ लवंदेन तेच राती श्री राजाभाऊ वाकणकर आनी श्री. नाना आजरेकर हांचे लागीं चवकशी केल्ली तेन्ना एमजीची (म्हळ्यार मशीनगनची) गरज आसा अशें ताणी सांगलें. 'आपणाकडेन आसा पूण ती सरकारी सहकार्या बगर हांगा हाडूंक येवचिना.' अशें लागींच बशिल्ल्या एका त्रयस्थान म्हळें. सरकाराकडेन हे बाबतींत विचारपाचें थारलें. मुखार कितें जालें खबर ना पूण एक मात खरें की निमणे मेरेन एमजी आयलीना. सरकाराकडेन जेरूल चवकशी केल्ली आसूंक जाय पूण ती करूनय न्हयकार मेळ्ळा जावंक जाय. ह्या मुक्ती संग्रामांतलें 'सरकारी सहकार्य'चें स्वरूप अशें आशिल्लें.

दुसरेच दिसा आमी सिल्व्हासाचेर चाल करून वचूं अशें म्हाका दिसतालें. पूण त्या दिसाच न्हय तर त्या उप्रांत दोनतीन दिसूय आमकां शक्य जालें ना. आमची इत्सा व्हड आशिल्ली. शस्त्रां उणीं आशिल्लीं, पूण मुखार चाल करून वचपाची आमची तयारी आशिल्ली. पोर्तुगिजांचे आनीक एके चौकेचेर हल्लो करून आमकां आमचो शस्त्रांचो आंकडो वाडोवं येतालो. तसो विचार आमचे फुडारी उलोवनूय दाखयताले. पूण कित्याक कोण जाणां आमी त्या करंबेळच्या देवळांत दोन दीस बसून आशिल्ले. थंयच्यान आमचें पावल काय भायर पडनाशिल्लें. इतलेंच न्हय तर अश्यो कांय गजाली घडूंक लागिल्ल्यो की हांव चडूच घुस्पागोंदळांत पडूंक लागिल्लों. नरोलीच्यान जे पोर्तुगेज शिपाय धरून हाडिल्ले तांचेर पारो दवरपाचें काम सुर्वेक भारतीय राखीव दलाचे जवान करताले. पूण आतां त्या शिपायांक आनी रेजिदोराक पर्थून



'नगरहवेलीचे हद्दींत सोडून दियात' अशें आमकां सांगून राखीव पोलीस दल गेल्लें. आमी कैद्यांक सोडपाचें नाटक केलें आनी दुसरेकडेन तांकां पर्थून अटकेंत दवरले पूण मोन्यानी. नरोलीसावन जिंकून हाडिल्लीं शस्त्रां आमी आतां कुडी भायर काडपाचें सोडून दिलें. ही इतली दक्षता कित्या खातीर? भारत सरकार तीं आमचेकडल्यान काडून घेवन आमकां पर्थून धाडटलो काय कितें? अशे जायते दुभाव म्हज्या मनांत येवंक लागले.

१९५०त पाँडेचेरी हे फ्रेंच वसाहतींतले जनतेन उठाव करून पाँडेचेरी आपले सुवादीन घेतली पूण उप्रांत फ्रान्साक साकून कुमक येवन फ्रेंच नाळी जेन्ना उजो ओकपाक लागल्यो तेन्ना पाँडेचेरीचे जनतेक आनी तिचे देशभक्त फुडाऱ्यांक हताश अवस्थेंत पर्थून फ्रेंचाचे मगरमिठींत भक्ष्य जावंक सोडून दिल्ल्याचें हांवें आयकल्लें. तशेंच आमचें जातलें काय? आमी वचन थंयच्यान पूण नगरहवेलीची जनता? असल्या जायत्या दुभावांत बुडिल्लो आसतनाच अकस्मात ३१ जुलायचे राती आमकां नगरहवेलींत प्रवेश करपाची आमच्या फुडाऱ्यांनी आज्ञा दिली आनी आमी वचूंक भायर सरले.

हेच रातीक म्हजी श्री. सुधीर फडके हांचेकडेन वळख जाली. अर्थात ते थंय एखाद्रया बोलपटाचें संगीत दिग्दर्शन करूंक येवंनाशिल्ले तर मुक्ती संग्रामांत वांटो घेवपा खातीर आयिल्ले. संगीतकार सुटकेझुंजारी जाल्लो. आपले वाद्यपेटयेचो उपेग मुंबयच्यान नगरहवेलींत हत्यारां हाडपा खातीर ताणीं केल्लो. नगरहवेली मुक्तीचो बेत तांच्या मुंबयतल्या निवासस्थानार आखिल्लो. ते संग्रामाकडेन म्हजे परस चड समरस जाल्ले.

ते राती हांव, सुधीर फडके आनी आनीक चारपांच जाण करंबेळच्यान नरोलीचे दिकेन वचूंक लागले. काळखी आनी पावसाळी रात. वाटेर एक व्हडली न्हंय लागली. चिक्कार भरून व्हांवताली. व्हडेकार पलतडीं आशिल्लो. उलो मारूनय ताचीं येवपाचीं चिन्हां दिसनांत. अडचण सोडोवप गरजेची आशिल्ली. म्हाका नावशीचे जुआरीची याद जाली. आंगावेले कपडे काडून उडी मारपाची हांवें तयारी केली. इतल्यांत व्हडेकाराचो प्रतिसाद आयकूंक आयलो. व्हडें हय न्हयशें दिसूंक लागलें. तें तडीक आयलेंय. खोसयेन पलतडी गेले. परतून चलप. शेवटाक फांतोडेच्या सुमाराक नरोलीक पावले. प्रभाकर सिनारी, राजाभाऊ वाकणकर, नाना काजरेकर, कृष्णा माईणकर बी दुसरे वाटेन रातींच थंय येवन पाविल्ले आनी फुडले चढायेचे तयारेक लागिल्ले. आमी तांचे वांगडा भायर सरले. उटंगाराचो पावस पडूंक सुरू जाल्लो. "पहा, प्रत्यक्ष वरूणराजही या संग्रामात भाग घेत आहे." आमच्यांतलो एक कवी श्री गजूभाई उद्गारलो. "कविराज धन्य तुमची! हा वरूण जर घरीच गप्प बसला असता तर काही विगडले असते का?" एका अरसिकाची प्रतिक्रिया आनी खऱ्यानीच सामक्या ल्हानल्हान व्हाळांक लेगीत हुंवार येवन तांच्यो न्हंयो जाल्ल्यो. एक एक पावल मुखार उडोवप म्हळ्यार कश्टांचें आशिल्लें. आमकां मजत करपा सोडून परकियांकूच

मजत करूंक आमचो भारतीय पर्जन्यराज अवतरिल्लो जावंक जाय अशें दिसलें. वरूणराजान न्हंयत रूपांतर केल्ल्या अशाच एका व्हाळा लागीं आयले. पलतडीं पोलीसचौकी आशिल्ली. ताका लागून पलतडीं वचप कठीण आशिल्लें. अखेरेक पावस थांबून हुंवार देंवमेरेन थंयच सगळ्यांनी बैठक मारली. आतां फाटीं सरप ना, कशीय करून चौकी हातासपूच हो आमचो निर्धार आशिल्लो. ताकाच लागून काय कितें पावसूय उणो जावंक लागलो आनी तेच वांगडा हुंवारूय. तो देंवताच आमी चौकेर हल्लो केलो. चौकी खालीं आशिल्ली. आमचो आंकडो पळोवन, बंदुकीचे फैरींचे आवाज आयकून आमी पावचे आदींच पोलीस चौकी सोडून पळून गेल्ले. ते चौकेवेल्यान मागीर आमी सिल्व्हासा लागसारच्या चारूच मैल अंतरावेले एके चौकेकडची वाट धरली. दनपरां तीन साडेतीनच्या सुमाराक आमी थंय पावले. चौकेंत दोग पोलीस आसले. ते रोकडेच शरण आयले. सिल्व्हासाविशीं म्हायती विचारली तेन्ना, सकाळ सावन आपले सिल्व्हासाकडचे संबंद तुटल्यात म्हणपाचें ताणीं सांगलें. तांतल्या एकल्याक आमी सायकलीवेल्यान सिल्व्हासाकडेन धांवडायलो.

'बेगोबेग शरण येयात, नातर गंभीर परिणाम भोगचे पडटले.' अशी तंबीय त्या पोलिसांमार्फत दिल्ली आनी रोखडीच जाप दिवपाची मागणी केल्ली. देड वरान तो सायकलीवेल्यान परतलो. 'दमणच्या मुखेल्यांकडेन आमकां संपर्क करूंक दियात आनी तांचो आदेश घेवंक दियात.' अशें वयले वयर खंबीर दिसपी जाप ताणें हाडिल्ली. ह्या खंबीरपणाच्या आनी शिस्तीफाटल्यान वेगळोच हेतू लिपिल्लो. कांय वेळांतूच तो उक्तो जावंक लागलो. ताणीं दिल्ले जापेचेर विचार करून आमचे फुडारी दुसरे दिसा सकाळी हल्लो करपाचें थारायता आसतनाच आमचे दिकेन सिल्व्हासाच्यान एक जीप आयली. आमी ती थांबयली. दमणचो एक कंत्राटदार आनी सिल्व्हासांतली एका पोर्तुगीज अधिकाऱ्याची बायल अशीं दोगांच जिपींत आशिल्लीं. दोगांकूय ताब्यांत घेतलीं. भारतीय हद्दींत पळून वचपाखातीर ताणी सिल्व्हासा सोडिल्लो. ते उप्रांत आनीक एकलो सायकलीवेल्यान आमचे दिकेन आयलो. तो निकतोच शिपायदळांत भरती जावन गोंयच्यान सिल्व्हासाक गेल्लो आनी थंय अधिकाऱ्यांक भियेल्ले पळोवन स्वताचो जीव वाचोवपाखातीर भारतीय हद्दींत पळून वतालो. ताकाय ताब्यांत घेतलो. कंत्राटदाराक सिल्व्हासाक धाडून परतून एकदां थंयच्या अधिकाऱ्यांक सिल्व्हास खाली करून शरण येवपाचो इशारो दिलो. जाप मात आदलेवरींच मेळ्ळी. रात जायत आयिल्ली तेन्ना दुसरे दिसा सकाळीं हल्लो करपाचें आमच्या फुडाऱ्यांनी थारायलें आनी आमी भारतीय हद्दींत परतले.

नगरहवेलीच्या ह्या मुक्तीसंग्रामांत आमच्या सरकारच्या अजब धोरणाचीं कांय तासां आमकां पळोवंक मेळ्ळीं. ह्या लढ्याखातीर भारत सरकारान शस्त्रां तर दिवंक नाच, उरफाटें आमकां शिमेचेरूच आडावन धरिल्ले. दोन दिसां उपरांत मात चक्रां कशीं अकस्मात घुवंक लागलीं. ३१ जुलायचे राती सावन आमकां उक्तेपणी हालचाली करूंक मेळूंक लागल्यो. मुंबय सरकारचो ह्या लढ्याक तेंको आसा अशें दिसूंक लागलें. पोलीस अधिकारी वर्ग आमचेकडेन सहानुभूतीन वागूंक लागले. पयलींचें मोनेपण खंयचे खंय पळ्ळें. नगरहवेलीचेर हल्लो करूंक सिल्व्हासचो जाता तितले बेगीन पाडाव करूंक आमकां ते प्रवृत्त करूंक लागले. नगरहवेलीचे मुक्ततायेची गरज अशी अकस्मात मोरारजींच्या मुंबय सरकाराक आनी पर्यायान भारत सरकाराक कित्याक दिसूंक लागली? हो प्रस्न म्हजे मनांत उबो रावलो. ताची जाप म्हाका कळ्ळी तेन्ना सरकारी भूमिकेची म्हाका काकूट आयली. साम्यवादी विचार सरणी आशिल्ल्या 'गोवन पिपल्स पार्टी'चे लोक सिल्व्हासा काबीज करपाचो 'धोको' उप्राशिल्लो. ते खातीर 'तांचे आदीं तुमी चलात' म्हूण वयल्या स्तरावेल्यान हो पांचवो बावटो दाखयल्लो. पोर्तुगीजांच्या शेकातळा आशिल्लो हो भूंय प्रदेश मुक्त करपाखातीर आमचेच प्रमाण आगेकूच करीत येवपी भावांक जर यश मेळटा जाल्यार तातूंत 'धोको' कसलो? भारताक? हांचे पयकी कोणाकूच हो धोको नाशिल्लो. परकी सत्ता हुमटून उडोवंक मुंबय सरकारान सुर्वेक सावन आमकां मुक्तपणान मजत केल्ली जाल्यार तांचे विचारसरणींत कितेंय अर्थ आसपाचो. साम्यवाद्यांच्या हातांत नगरहवेली वचची न्हय हे खातीर हेरांनी थंय आदीं पावपाची गरज निर्माण जाल्ली. वसाहतवादा आड अथवा साम्राज्यवादा आड युध्द करतना लेगीत सगळ्यांचो एकवट नाका. त्या परस परकी सत्ता चड काळ मेरेन रावल्यार उपकारता ह्या निश्कर्शामेरेन येवपी ही भूमिका आशिल्ली. खंयच्याय कारणाक लागून काय जायना अजून पोर्तुगीजांचे सुवादीन आशिल्ले नगरहवेलीची मुक्तताय करपाची संद आमकां मेळटा हातुंतच म्हज्या सारक्यांनी समादान मानलें.

दुसरे दिसा फांतोडेर राजाभाऊ वाकणकर पुण्यांतल्यान आनीक ५०-६० आपवावुरप्यांची कुमक घेवन आयले. तातुंतले जायते जाण म्हजे वळखिचे आशिल्ले. आपलें शिकप, आपलो नोकरी धंदो कुशीक दवरून ते आयिल्ले. नव्या येवप्यांचें मोठ्या धुमधडाक्यान स्वागत जालें. थोडेंशें खावप जालें आनी जीं हत्यारां हाताकडेन आशिल्लीं तीं घेवन सगळे जाण एखाद्रया लग्न सुवाळ्याक वचपाचे उमेदीन भायर सरले. 'काट्यान काटो काडपाचो' असो निर्णय घेवनूय शस्त्रास्त्रांचो वरदहस्त आमचेर दवरपाची बुध्द काय मुंबय सरकाराक जाली

ना. आमच्या पयकीं जायते जाणांकडेन शस्त्रांय नाशिल्लीं. आशिल्ली ती मुक्ततायेची आस्त. तिचेच आदाराचेर पोर्तुगीज व्याप्त नगरहवेलींत पर्थून प्रवेश करून आमी सिल्व्हासाचेर चाल केली.

सिल्व्हासा नदरेक पडटांच मुखार आशिल्ल्या पंगडान 'अॅटमबॉम्ब्स'चे फार घडोवन हाडले. हय, अॅटमबॉम्ब्स! फरक इतलोच की ते हिरोशिमा, नागासाकीचेर घाल्ल्या अॅटमबॉम्ब्स पयकी नाशिल्ले तर दिवाळे सारक्या खोसयेच्या प्रसंगार लायिल्ल्या फोगा सारके आशिल्ले, आनी फक्त कान बसता इतलो आवाज करप इतलोच ताचो उद्देश्य आशिल्लो. अॅटमबॉम्बच्या फाटोफाट श्री. वाकणकर, श्री. प्रभाकर सिनारी आदीनी आर्मांचे फार सोडले. मुखेल ठाण्याचे दिकेन सगळे धांवले आनी पळय जाल्यार रेवें पोतयो दाळून प्रतिकार करपाक तयार केल्ल्या त्या ठाण्यांतल्यान शत्रूसैनीक भराभर भायर आयले. ठाणें आमचें जालें, सिल्व्हासा राजधानी आमची जाली. 'जयहीन्द!' 'भारत माता की जय!' ह्या गर्जनानी वातावरण गाजपाक लागलें. ठाण्यावेल्या पोर्तुगीज बावट्याचे पिंजून कुडके कुडके केले. पोर्तुगीज साम्राज्याचीं बोधचिन्हा (पोर्तुगीज आर्म्स) तोडून उडयले, पांया सकयल माड्डिले. 'बाबानो परक्यांच्या मानचिन्हांची अशी अवहेलना करूं नाकात. इतले संकुचीत जावं नाकात.' असो सात्वीक सोज्वळ उपदेश करपी 'म्हापुरूस' ते सुवातेर सुदैवान नाशिल्ले. ते पासत हें अचळय सगळें घडलें. आमी हेच समाधानांत आशिल्ले, इतल्यांत 'मारूं नाकात, मोरारजींची तशी सक्त ताकीद आसा!' अशी आज्ञा आयकूंक आयली. पोर्तुगीजांक मस्को लावन स्वकीयांकडेन द्रोह करप्यांच्या पापाचो पाढो तांका वाचून दाखोवन, न्याय करपाच्या विचारांत कांय जाण आशिल्ले आनी इतल्यांत हो आदेश फर्मायलो. भारतीयांचें 'एकमेवाद्वितीयत्व' हे आज्ञेवतीन आनीक एक फावट सिध्द करपाचो 'पवित्र' हेतू उक्तो जातालो. धिक्कार दादरा मुक्त करपी त्या देशभक्तांचो! अनिसेतु रूझारीयू ह्या जुलमी पोलीस सबइन्स्पेक्टर तांणी जिवो मारलो मरे!

सकाळचे ते चार पांच वरांचे रण धुमाळींत खूबच तान लागली म्हूण एका घरा लागसारचे बांयकडेन गेलों. बोतरांनी कशेंतरी आंग लिपयल्ली ती एक मध्यम पिरायेची बायल थंय आशिल्ली. त्या घराकडेन बोट दाखयत तिणें म्हळें, 'हें एका पोर्तुगीज धार्जिण्या मनशाचें घर. सामको काल मेरेन तो रस्त्यान नेटार भोंवतालो. आज मात घरांत दारां जनेलां बंद करून बसला. हाका आतां बुध्द शिकोवंक जाय.' खरें आशिल्लें तिचें म्हणणें. पूण.... उच्चपदस्थांची ताकीद आशिल्ल्यान आमकां आमची खुमखुमी मारची पडली.

दनपरां शाराच्या प्रवेश चौकार हांव आनी अनंत थळी हातांत आर्मां घेवन पारो करताले. लोकांच्यो झुंडीच्या झुंडी प्रवेश करताल्यो. सगळेजाण आमचेकडेन हांसत्या तोंडान पळयताले. पूण तातुंतय जांच्या माथ्यार करकरीत गांधी तोपयो आशिल्ल्यो ते सामके वाळो पेंचून हांसताले. सलामूय करताले. 'पळयलें हें धोंग?' अनंत थळी उद्गारलो. 'एक रातींत हांणी तोपयो बदल्ल्यो. आयज आमच्या हातांत आर्मां आसात देखून आमकां सलाम करतात. चार पांच दिसां आदीं हेच आमकां धरून दिवपाचे. हेरां बाबतींत ताणीं तशें केलांय.' अनंताक कोणाकडल्यान तरी म्हायती मेळिल्ली. 'आमी कित्याक हीं घरां राखपाचीं? कित्याक हांच्या मालकांची राखण करपाची? ताणीं स्वातंत्र्य लढ्याक द्रोह केला आसतना हें संरक्षण कित्याक? मात्शी नदर आड करूया आनी मागीर पळय लोक आपूण जावन कसो न्याय दितात ते.' हे आशिल्ले ताचे परखड विचार. म्हज्या अंतस्कर्णांत सहानुभूती मेळ्ळेबगर ते रावलेनांत, पूण फक्त सहानुभूती.

सिल्व्हासच्या पोलिस ठाण्यार सुमार पाऊणशें पोलिस कैद केल्ले. पांच मुलकी अधिकाऱ्यांकूय धरिल्ले. ह्या सगळ्यांक फाटल्यान दवरून नगरहवेलीचो प्रशासक कॅप्टन फर्नांडिस फिदाल्गु, पोलिस कमांडर फल्कांव, पोलिस इन्स्पेक्टर पेगादु ७०-८० सशस्त्र पोलिसांसैत खांडवेलचे दिकेन पळून गेल्ले. ताका लागून सिल्व्हासा आजून पुरायेन सुरक्षीत नाशिल्ली. रातचो एखाद्रो हल्लो जावपाचोय संभव आशिल्लो. तेन्ना वयल्या सगळ्या कैद्यांक आनी हातांत पडिल्लीं शस्त्रां घेवन सिल्व्हासा भायर योग्य ठिकाणार आमी तळ दिलो आनी सकाळजातांच पर्थून गांवांत प्रवेश केलो.

हेच दिसा नव्या प्रशासनाच्या नांवान पत्रकां येवंक लागलीं. खबरापत्रांक मुलाखती दिवंक लागले. मुक्ती आंदोलनांत ठळकपणान वांटो घेतिल्ले एकमेकांकडेन पळोवंक लागले. 'हें सगळें करतना आमचें मत विचारांत घेवपाची गरज आतां सोंपली काय?' हें प्रश्नचिन्ह तांच्या मुखामळार हीं पत्रकां आनी मुलाखती पळोवन प्रकट जाल्लें.

नगरहवेली मुक्तीचो जाहीरनामो प्रसिध्द जालो. तांतलो सगळो मजकूर म्हाका आता याद जायना पूण 'स्वातंत्र्य म्हळ्यार फकत बावट्यांची अदलाबदल न्हय' अशें लोकांक दिसतलें अश्यो मुळाव्यो गजाली तातूंत आसपावल्ल्यो नाशिल्ल्यो. तें शक्यूय नाशिल्लें. पोर्तुगीजांक धांवडायल्या उप्रांत कितें करपाचें हाची स्पश्ट कल्पना आमच्या दोळ्यां मुखार नाशिल्ली आनी हें खबर आशिल्ल्यानूच मुबय सरकाराकडल्यान आमकां 'पांचवो बावटो' दाखयल्लो. जर तशें नाशिल्लें तर 'गोवन पीपल्स पार्टी प्रमाण आमकां लागूनय सिल्व्हासाक धोको निर्माण जाला' अशेंय मानपाचे आनी आमचो काटो काडपाखातीर आनीक कोणाक तरी 'आगे बढो'चो आदेश मेळपाचो. पूण अशें आसलें तरी बावट्याची अदलाबदल हीय कांय उण्या

खोसयेची गजाल नाशिल्ली. जे सुवातेर 'जय हिंद!' हीं उतरां सामकी हयन्हयश्या आवाजांतय म्हळयार खोटांचो प्रसाद मेळटालो, प्रसंगी जीव होगडावचो पड, थंय आयज मुक्त कंठान 'जय हिंद'चो घोष जावंक लागिल्लो. पोर्तुगीज युवक संघटनेत (मोसिदाद पोर्तुगेज) सामील जावन ज्या पोर्तुगीज बावट्या मुखार नतमस्तक जावपाची सक्ती विद्यार्थी युवकांचेर जाताली तेच युवक आयज त्या बावट्याचे हजारांनी कुडके करूंक शकताले. परकी राजवटीच्या अंताक लागून शेकड्यान शेकड्यांच्या दळिद्रांतल्यान आपली रोखडीच मुक्तताय जातली, खऱ्यांनीच स्वतंत्रताय आपणाक मेळटली अशी आस्त दिशिल्ल्यान सामान्य मनशां शेकड्यांनी रस्त्यार जमिल्लीं. अन्यायाची हयन्हयशी जाणविकाय आशिल्ल्यांक लेगीत मुक्तीचो अणभव त्या दिसा मेळटालो आनी ते खोसयेंत ते दंग जाल्ले.

सिल्व्हासा हातांत आयिल्लें, पूण थंयच्यान पळून गेल्ले पोर्तुगीज अधिकारी आनी ७०-८० सशस्त्र पोलिस मात आजुनय मेकळे आशिल्ले. नगर हवेलींत खांडवेलकडचो ल्हानसो वांठार आजून तांचे सुवादीन आशिल्लो. पूण तांचें मनोधैर्य खचिल्लें आशिल्ल्यान तांचो पराभव हो ठरिल्लो आशिल्लो. प्रस्न केवळ दोनचार दिसांचो आशिल्लो. १५ ऑगस्टाक गोंयांत व्हडा प्रमाणार सत्याग्रह करपाची तयारी 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' करता म्हणपाची वार्ता खबरापत्रांतल्यान येताली. हो सत्याग्रह सुरू जावचे आदीं गोंयांत पावप म्हाका गरजेचें दिसतालें. दादरा-नगरहवेलींतल्या घडणुकांक लागून पोर्तुगीज सरकारान गोंया भायल्या भारतीयांक गोंयच्यान धांवडावंक आरंब केल्लो आनी मुंबयतल्या पोर्तुगीज कॉन्सुलचो व्हिसा आसले बगर भारतीयांक गोंयांत प्रवेश करपाची बंदी घातल्या म्हणपाचें जाहीर केल्लें. चड दीस होगडायल्यार शीमेवयलो बंदोबस्त कडक जावन गोंयांत प्रवेश करप कठीण जावपाचें. नगरहवेली आतां मुक्त जाल्ल्यांतच जमा जाल्ली. थंयच्यान म्हाका भायर सरपाक कांयच हरकत नाशिल्ली. तेन्ना ४ ऑगस्टाक म्हळ्यार, सिल्व्हासा घेतल्या ताच्या तिसऱ्या दिसा हांव थंयच्यान भायर सरलों. वांगडा पिस्तुल व्हरपाची इत्सा आशिल्ली. फुडले हालचालींचे नदरेन गोंयांत तांची गरज आशिल्ली. पूण भारत सरकारच्या धोरणाक लागून तींच हांव व्हरूंक शकलोना. पुराय निशस्त्र अवस्थेंत म्हाका नगरहवेली सोडची पडली.

सिल्व्हासा हांवें सोडलें तें एका अर्थान बरेंच जालें. एक पाप ताका लागून म्हज्या हातांतल्यान घडलें ना. हें पाप म्हळ्यार सुटके झुंजाऱ्यांकूच बंदखणीत उडोवन तांचेर पारो करपाचें पाप! मानेस्त मुखेलमंत्री मोरारजी देसाय हांच्या मुंबय सरकाराक जाची भिरांत दिसताली ती 'गोवन पिपल्स पार्टी' लुआरीचे दिकेन खऱ्यानीच चाल करून आयिल्ली आनी १३ ऑगस्ट दिसा जॉर्ज व्हाज हांच्या फुडारपणाखालचे गोवन पिपल्स पार्टीच्या एका पंगडाकडेन श्री. प्रभाकर सिनारी हांच्या पंगडाची खांडवेल हांगा गांठ पडली. सुटके झुंजाऱ्यांच्या दोन पंगडामदीं झगडीं जावपाचो प्रसंग आयिल्लो पूण श्री. सिनारी हाणी इशारो करतकच जॉर्ज व्हाज हांच्या पंगडान शस्त्रां सकयल दवरलीं. फुडलें दुर्दैव्य म्हळ्यार त्या सगळ्यांक धरून सिल्व्हासाच्या पोलीस ठाण्यार कादयेंत दवरले. १५ ऑगस्ट ह्या स्वातंत्र्यदिनाक भायर झेंडावंदन चलतालें. आनी जॉर्ज व्हाजाच्या पंगडांतले सुटके झुंजारी बंदखणींत आशिल्ले. गोंय मुक्ती आंदोलनाचे एक ज्येश्ठ फुडारी श्री. त्रिस्तांव ब्रागांझ द कून्य हांका ते दिसा मुखेल सोयरे म्हूण सिल्व्हासाक आपयल्ले. तांचे मध्यस्तीचोय कांय उपेग जालो ना. उरफाटें त्या सुटके झुंजाऱ्यांनी ते दिसा अन्न सत्याग्रह केलो. हें सगळें पळोवपाक हांव थंय नाशिल्लों हें एका अर्थान बरें जालें.

५ ऑगस्टाक हांव मुंबय आयलों आनी ७ वो ८ तारकेक वझऱ्यां पावलों. थंय खबरापत्रांचेर सिल्व्हासच्यान पळून गेल्ले तिगूय अधिकारी आपल्या वांगडच्या सगळ्या सशस्त्र शिपायांसयत भारतसरकाराक शरण आयिल्ल्याची खबर वाचली. तिगांय अधिकाऱ्यांक न्यायालयांत व्हरून जामिनाचेर सोडिल्ले. नगरहवेलींतल्यान पळून वता आसतना आमच्या ताब्यांत सांपडिल्लो काँट्रॅक्टर आतां मुंबय आशिल्लो आनी ताणेंच तांच्या जामिनाची वेवस्ता केल्ली. थोड्याच दिसांनी त्या तिगांयचीय मुक्तताय जावन तांका दमणाक सामकें सुरक्षीत धाडले. तांच्या वांगडच्या सशस्त्र शिपायांकूय धाडले. पोर्तुगालचे बंदखणींत मात हे वेळार श्री. दत्तात्रय देशपांडे हांचे सारके देशभक्त यमयातना सोसताले. १९४६चे चळवळींतले आनी त्या उप्रांत पोर्तुगालाक वो आफ्रिकेक व्हेल्ले आनीकूय ८-१० देशभक्त विजनवास काडटाले. वयल्या तीन पोर्तुगीज अधिकाऱ्यांच्या बदल्यांत ह्या सगळ्यांचे सुटकेची मागणी करप भारत सरकाराक शक्य नाशिल्लें? अधिकृततायेन तशी मागणी केल्यार आपलें नांव आंतरराष्ट्रीय मळार इबाडटलें असो भंय दिसतालें जाल्यार हें काम नगरहवेली मुक्त करप्यांकडेन दिवंक जायना आशिल्लें? कायद्याचें बारकायेन पालन करपाचें आशिल्लें तर नगरहवेलींतल्यान पळून आयिल्ल्या सशस्त्र पोर्तुगीज अधिकाऱ्यांक आनी पोलिसांक पर्थून नगरहवेलीचे हद्दीत धाडप अदीक योग्य जावचें नाशिल्लें? मुक्त नगरहवेली शासन तांचेर खटले घालपाचें. अधिकारार आसतना ताणीं देशभक्तांचेर आनी जनतेचेर केल्ल्या अत्याचारां खातीर तांका जबर ख्यास्त जावपाची. ताका लागून पोर्तुगीज सरकार आपूण जावन वयल्या सुटके झुंजाऱ्यांक सोडपाक तयार जावपाचें. नगरहवेलीच्या मुक्ती पयलीं कांय म्हयने आदींच ह्या तीन अधिकाऱ्यां पयकीं पॅगादु



ह्या पोलिस इन्स्पेक्टरान दमणात एका विद्यार्थ्याक पोर्तुगीज युवक संघटनेत (मुसिदाद पुर्तुगेज) वचपाक न्हयकार दिल्ले खातीर खोटानी बेदम मस्तील्लो आनी तातुंतच ताका मरण आयिल्लें. ह्या अधिकाऱ्यांक शासन करपाचो आनी ताच्या बदलाक पोर्तुगाल आनी आफ्रिकेंतल्या पोर्तुगीज वसाहतींत कुसत पडिल्ल्या भारतीय देशभक्तांचे सुटकेची मागणी करपाचो इरादो हांवें आमच्यांतल्या कितल्याच जाणांच्या तोंडांतल्यान सिल्व्हासाचेर चाल करून वचपा आदीं लेगीत आयकल्लो. सगळ्यांची ती इत्सा आशिल्ली. दादरांत मेल्ल्या अत्त्याचारी अनिसेतु रूझारियोचें उदारण त्या अधिकाऱ्यांच्या गुन्यांवकारी मनाक भिवयतालें. देखुनच तर आपलो जीव वाचोवपा खातीर ते नगरहवेलींतल्यान जळामळाक पळून गेले. भारत सरकारान तांका आलाशिरो दिलो आनी दमणाक तांका बरेबशेन व्हरून सोडले. १९५५त म्हाका धरतकच पणजेच्या पोलीस कोठडेंत ह्याच पोलीस इन्स्पेक्टर पॅगादूकडेन म्हजो संबंद आयलो. आमकां राजकीय कैद्यांक अत्यंत कठोरपणान वागोवपांत तांचो हात हेरां परस काकणभर चडूच आशिल्लो. आमच्याच सरकारान ताका मुक्त करून दमणाक धाडिल्लो आनी आमचेर सूड घेवंक ताका संद मेळोवन दिल्ली.

नगरहवेलीच्या मुक्तीसंग्रामात राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या आपवावुरप्यांचो शिंवाचो वाटो आशिल्लो. राजाभाऊ वाकणकर, नाना काजरेकर, सुधीर फडके, बाबासाहेर पुरंदरे हे संघाचे आपवावुरपी आशिल्ले... पूण ताणीं, पुणें, सातारा, मुंबयच्यान हाडिल्ले सगळे संघाचेच आपवावुरपी आशिल्ले. गोंयचे आमी सामकेच थोडे, सुमार पंचवीस जाणूच आशिल्ले. आझाद गोमंतक दलचें नांव घेनासतना आनी आमची मजतूय घेना आसतना फकत आपल्या बळाचेरूच ते नगरहवेली मुक्त करूंक शकताले पूण ते वेळचे राजकीय परिस्थितींत तांका अशें करप सोयीचें दिसलें ना इतलेंच. गोवन पिपल्स पार्टीचीय अशीच परिस्थिती आशिल्ली. साम्यवादी पक्षाची संघटना गोवन पिपल्स पार्टीच्या फाटल्यान आशिल्ली. मुखार पुण्याच्या स. प. महाविद्यालयांत भूगोलाचे प्राध्यापक जाल्ले कॅप्टन गोळे हे गोवन पिपल्स पार्टीवतीन नगरहवेलींतल्या सैनिकी कारवायांचें फुडारपण करताले. पूण ते गोंयचे अथवा नगरहवेलींतले नाशिल्ल्यान तांचें नांव प्रसिध्दी पासून मुद्दामूच पयस दवरिल्लें ताचे फाटलें कारणूय हेंच आशिल्लें.

नगर हवेली मुक्त जाल्ली. आतां लक्ष आशिल्लें गोंयचेर. दादरानगरहवेली इतल्या सहजपणान गोंयूय मुक्त जावंक शकतलें काय? विचार करीत हांव मुंबयच्यान बेळगांवां वतालों. वाटेर मिरज स्टेशन लागलें. गाडी थांबली. सकयल देंवलों. मुखार शशिकांत उमर्ये दिसलो. सावयचे म्हजे शाळेंतलो हो अतिशय हुशार विद्यार्थी. सातवी जातकच हांवें ताका सांगलीच्या अनाथ विद्यार्थी गृहांत दवरिल्लो. ताचे वांगडा आशिल्लो बाळू साठे. शशिकांत म्हाका मेळपाखातीर आयिल्लो तर बाळू साठे म्हजे वांगडा परतून गोंयांत वचपाक आयिल्लो. तो निकतोच दीर्घ दुयेंसांतल्यान उठिल्लो. कुडीन अजून अशक्त आशिल्लो. पूण दादरा नगर हवेलीचे मुक्ततायेन वज्राचें बळगें ताच्या आंगांत संचारिल्लें. बाळूक बेळगांव दवरून हांव सरळ वझऱ्याक गेलों. बाळा पर्येकार हो आमचो वाटाडो हजर आशिल्लोच. ताचे मजतीन हांव गोंयचे शीमेकडेन वचूंक भायर सरलों. सगळ्यांक १५ ऑगस्टचे वेध लागिल्ले. ते दिसा भारतीय सेना चाल करून येतली आनी आपलें गोंय मुक्त जातलें हे कल्पनेंतूच सगळे दंग आशिल्ले. पूण नगरहवेलीचो अणभव तशें कांयच घडचेना हाची आमकां गवाय दितालो.

(चलता...)

■ ■ ■

# अमुरपिकें... तरी निर्माल्य



– आशा शानभाग
सादोळशें–काणकोण– गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७



*हांवें सगलें मेळयलें तरी हांव उरलें झाडावेलें अमुरपिकें फळूच. कोणूय तरी उष्टावण करतलो हाची वाट पळयत तें फळ पडून वता तशीच गत म्हजी जाली. हांव मरतलें तें विधवा आसूनय पुराय कुमारिका म्हणूनच. ही एकच म्हजी खंत. तुका दिसल्यार म्हजे फाटल्यान बाकीच्यांच्या कानार घाल. नाजाल्यार तुजी मर्जी.*

**म्ह**ज्या ल्हानपणासावन हांव तें चित्र सदांच पळयतालें. सांजची शाळा सुटली की हें सदचेंच चित्र. घराच्या राजांगणाच्या म्हालदाराकडलो सोपो. सोप्याचेर बशिल्ली माथ्यावेल्या पदराची, सात्वीक मुखामळाची तायबाय आनी सकयल शेंदरेर बसून भावार्थान तिचें वाचन आयकपी बायलांचो पंगड. केन्नाय ह्या चित्रांत बदल जालो तर समजुपाचें एकतर तायबाय घरा ना, नाजाल्यार दुयेंत आसा.

हें घर म्हजे बालपणीचे मैत्रिणीचें, संध्याचें घर आनी म्हज्या माणकुल्या मनाच्या अदमासान तायबाय, संध्याची आजी. त्या चौपेटीच्या घरांत आमी खांबे धरच्यांनी खेळप आनी तेन्नां तायबायचें रामायण वाचप चलतालें. खूब फावटी आमी खेळ सोडून तिची रसाळ काणी आयकूंक बसतालींय. संध्याच्या घरांत तायबायचें उतर म्हळ्यार देवाचो शब्द जसो. तायबायचो हयकार म्हळ्यार यशाची खात्री. सगल्यांचें मन राखून आपलें उतर उलोवपी तायबाय खरी देवमनीसच. ह्या घरांत खेळतनांच हांव व्हड जायत गेलें. आनी व्हड जाता जातांच म्हजें मन श्रीच्या, संध्याच्या व्हडल्या भावाच्या मनांत भरसलें. आमचेमदीं जमिल्लें सूत संध्याक समजलें आनी आमचेमदली इश्टागत नात्यांत घुस्पचे पयलीं आनीकय घट जाली.

कांय तेपान शिकप सोंपलें आनी श्री कामाक लागलो. हांव अजून शिकतालें देखून आमचें गुपीत तिगांमदींच धांपून दवरिल्लें आमी. एकदाचें आमचें शिकप सोंपलें आनी श्रीन ताचे आई–बाबाक आमच्या मोगाविशीं कळीत केलें. कांयच विरोध करपाचें कारण उप्रासलें ना. कित्याक तर तायबायचो हासमुखो हयकार. व्हडा खोशेन ल्हानपणासावन त्या घरांत नाचपी–खेळपी हांव त्याच घरची सून जालें. तायबाय पयलींसावन म्हजी खूब अपुरबाय करी. पयलीं संध्याची आजी म्हणून हांव तिका मानतालें. आतां श्रीची आजी आनी म्हजी आजीमांय म्हणून हांव तिचो मान करपाक लागलें. श्रीची फामील, ताचे काका आनी तांची फामील हांकां एकठांय बांदूक दवरपी तायबाय म्हजे नदरेन तर ग्रेटच.

एक दीस सकाळीं श्री कामाक वचपाक भायर सरतालो. तायबायच्या पांयां पडून नमस्कार करतनां म्हाका दोळो मारपी श्री बाबाचेर नदर पडतकीर दोळो चोळून उबो जालो. ''श्री, परवां तुजे आजेचें श्राध्द. तेन्ना



जमल्यार लीव मार. नाजाल्यार हाफ-डे तरी घे रे.''

''बाबा, सद्याक ऑडीटाची गडबड आशिल्ल्यान हांव पळयतां कशें जमतां तें. निलू येतां गो.'' म्हणून श्री बायक घेवन गेलो लेगीत. अरे....पूण हाचे आजेचें श्राध्द म्हळ्यार?... कशें जातलें? तायबाय एक आजी आनी मामाई दुसरी आजी. कशें काय हें? घडये आज्याची पयली बायल बी आसत. तिचें श्राध्द बी आसूं येता. म्हणून तें कुवाडें धंयच सोडून हांव घरांतल्या कामांक लागलें. श्री आयलो की पळोवया म्हणून हांवें घरकामांक वेंग मारली.

रातचीं जेवणां साकसून मात्शीं फकणां बी करून आमी एकेकटीं करून न्हिदपाक सटकलीं. ''श्री, तुज्यो दोनूय आज्यो जित्यो आसतनां श्राध्द खंयचे आजेचें रे?''

''निलू, न्ही ते वेळार मुगो तूं न्ही ते प्रस्न उप्रासायता. तरी म्हाका दोन खंयच्यो एकूच आजी आसा न्ही गो? तिवूय मामाई.''

''आरे पूण श्री, तायबाय तुजी आजी न्ही रे?'' म्हज्या ह्या प्रस्नार तो येदे रातीचो लेगीत घोडो कसो हांसलो.

''कितें जालां हांसपा सारकें?'' हांवें खूब फाट धरतकीर ताणें सगळी काणी सांगली.

तायबाय, श्रील्या बाबाची आत्या. श्रीच्या आज्याची अपुरबायेची धाकटी भयण. त्या तेंपावेले रीतीनुसार खेळपाच्या वयांतच बरें भाट-बेसकारालें घर पळोवन ताचें लग्न करून दिल्लें. घोव म्हळ्यार कितें तें कळचे आदींच तायबायचो घोव सोरोप चाबून आक्ताक सोंपलो. घोवाच्या मरणा उपरांत तेन्नाचे रितीप्रमाण तायबायच्या माथ्यार पदर आयलो. आपल्या सान, चवदा वर्सां पिरायेच्या भयणीचें विद्रूप रूप पळोवन परतो जापेक गेल्लो श्रीचो आजो सोमतो तायबायक घेवनच घरा आयलो. त्या घराकडचे सगळे संबंद लेगीत ताणें त्या रागान तोडून उडयले. आज्यान आपले हे भयणीचे हातांत घरचें मुखेलपण दिवन निमणो स्वास घेतलो. तेन्नाच्यान श्री च्या घरचो कर्तो मनीस जाली तायबाय.

दिशीमाशी करून दीस सरताले. आमच्या मदींय तिसऱ्याच्या येवपाची सुलूस आमकां लागली. सगल्यांत खोशी जाली ती तायबाय. 'म्हजो श्री आतां बापूय जातलो.' आयिल्ल्या-गेल्ल्याक हें उतर आयकोवन मुठ-मूठ साखर वाटपी तायबायक एक सरप्रायज दिवपाचें हांवें चिंतलें. योग्य वेळार म्हजो चलो जलमलो. तायबायक हांवें म्हज्या कुळारच्या घरांत, घराव्या खोबरेल तेलान भरिल्ले भांगराचे माणकुले पणटेंत चल्याचें दर्शन दिवन तिका पणजेचो भौमान दिलो. श्री च्या फाटीं लागून तिणें म्हयन्या भितर म्हाका कुळारच्यान उखलून घरा हाडलें. आपल्या खरखरीत अणभवी जाणट्या हातांनी ती म्हज्या चल्याक तेल लायताली. तेच दोन म्हजेय फाटी-पोल्यार ओडटाली. ताका न्हाणोवन वावराडेक बेठीच तापोवन आपलें पणजीपण भोगताली. अजाप म्हळ्यार पिरायेच्या पंदराव्या वर्सार साकून सांगाती केल्ल्या देवाक लेगीत ती सामकी विसरली. ''तायबाय, तुजे देव तुजें दर्शन नित्यनेमान जावचें म्हणून संपार वचपाचें चिंततात शें दिसता.'' श्री तिचे मांडयेर तकली दवरून टी. व्ही. पळयता आसतनांच पचकलो. ''वचूं वचूं. सगले तेत्तीसय कोटी देवांक संप करात म्हणून तूं फूस दी रे. म्हजो हो बाळकृष्ण म्हजे

होटयेंत आसासर म्हाका कोणाचीच कॅर ना.'' उदाऱ्यांनी हात-पांय हालोवपी म्हज्या चल्याच्या जावळाचेर हात भोंवडायत तायबायन जाप दिली.

दीस वताले. वर्सांय येता-वतालीं. तायबाय आतां नव्वदीच्या फुडें पाविल्ली. तिणें थिरबुध्दीन अन्न-उदक त्यागून आपली यात्रा सोपोवपाचो ठाम निर्णय घेतलो. घरच्या सगल्यांनी विरोध उक्तायलो. सोडून हांव. अजूनय ती घटमूट आशिल्ली. आपलीं दिसपट्टीं कामां आपूणच करताली. तेन्ना ह्या योग्य वेळार तिणें योग्य तोच निर्णय घेतला हाची तिचे इतलीच म्हजीय खात्री पटिल्ली. तिणें सांजची सगली फामील एकठांय केली. आई-बाबा, श्री चे काका-काकी, आत्या-भावोजी, भुरगीं आनी हेर सगलीं जमलीं. ''तुमकां घडये म्हजो निर्णय मान्य नासतलो. पूण हांव ठाम आसां. फाल्यां हांव हांथरूणार पडल्यार तुमी म्हजें सगलें करतलीं. तरी हांव तुमकां जाय आसतनांच वयर वचपाचें करतां. हाचे फाटलो म्हजो सुवार्थ एकच. हांव तुमकां सदांच याद ऊरचें. घरची व्हडली मनीस ह्या अधिकारान हांव सांगतां की निमणे खिणाक श्री न म्हज्या तोंडांत फकत गंगाजल घालचें. बाकी कांयच करचें न्हय. जमल्यार प्राण वतनां निलुचे मांडयेर म्हजी तकली दिवची.''

तायबायचे प्रासोपवेशन सुरू जालें. अचकीत दोन-चार दिसांनी तिणें आपल्या भांगराच्या डब्याची वाटणी सांगून सगलें भांगर वाटून सोडलें. निमणें म्हाका आफोवन म्हऱ्यांत बसयलें. ''म्हजो शेवट लागीं आयला. यमराजाचे दूत म्हजे भोवतीं घिट्टी घालतात. मरचे पयलीं निलू, हांव म्हज्या मनांतलें सगळें तुजेमुखार मेकळें करपाक सोदतां.'' इतलें उलयतासर ती धापेली. धाकटो काका उदक पिवोवंक आयलो, ताका भायर वचपाक लावन म्हाका दार बंद करपाक सांगलें. ''निलू लग्न, घोव म्हळ्यार कितें हें कळचें आदींच हांव विधवा जालें. कोणाकडेन वायट नदरेन केन्ना पळेलें ना. मन मारून शरिराचो उजो भोगत जळत जळत जगत रावलें. तुमी म्हाका आवय, आजी आनी पणजी लेगीत केली. हें म्हजें सूख जालें. आतां आयुश्यभराचें दुःख एकूच उरलें. हांवें सगलें मेळयलें तरी हांव उरलें झाडावेलें अमुरपिकें फळूच. कोणूय तरी उष्टावण करतलो हाची वाट पळयत तें फळ पडून वता तशीच गत म्हजी जाली. हांव मरतलें तें विधवा आसूनय पुराय कुमारिका म्हणूनच. ही एकच म्हजी खंत. तुका दिसल्यार म्हजे फाटल्यान बाकीच्यांच्या कानार घाल. नाजाल्यार तुजी मर्जी.'' व्हडल्या-व्हडल्या प्रसंगाचेर लेगीत दोळ्यांत दुकां न काडपी तायबायचे निस्तेज दोळे दुकांनी व्हांवताले. मनांतल्या कुरकुटांत लिपोवन दवरिल्लें एकतुकें गुपीत भायर काडतकीर तिणें एकूच व्हडलो श्वास घेतलो. ''श्री वेगीन यो रे.'' म्हजी किळांच आयकून सगलीं आयलीं. तो मेरेन सगलो खेळ सोंपिल्लो. तिचो निर्जीव हात खाटीवयल्यान सकयल लोंबतालो. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांमुखार सुस्त न्हिदिल्ले तायबायचें रूप घोळतनांच कानांत उतरां घुंवतालीं. 'हांव एक कोणेंच उष्टायनासतनां उरिल्लें अमुरपिकें फळ...' तशेंच निर्माल्य जावन गेलें.... तायबायचीं उतरां म्हाका एका जळत सोंपतल्या उजवातीची जीण दाखयतात. अमुरपिकें... तरी निर्माल्य...





- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

*हळुहळू आतां सूर्यदेव वयर येवंक लागलो. सैम एका मोगाळशा उजवाडांत बुडून गेल्लें. असल्या वेळार पाल्यांतलो कीर पांयें दोडून खाला देंवलो. मळबांतलें एक नखेत्र तुटिल्ल्यावरी खाला देवून तो पांजऱ्यांत येवन बसलो. म्हादेवाचें काळीज खोशेन भरलें.*



# आत्माराम

## एक

वेदी नांवाच्या एक गांवांत, म्हादेव नांवाचो एक फामाद शेट रावतालो. तो आपल्या घराच्या वारांदांत बसून, दीसभर भांगर पेटपाचें काम करतालो. ताच्या तुतयाचो ठक्-ठक् आवाज शेजाऱ्या पाजाऱ्यांच्या संवकळीचो जाल्लो. एक दीस आवाज कानार पडलो ना जाल्यार लोकांक चुकलें-चुकलेंशें दिसतालें. म्हादेवशेट सद्दां सकाळीं उठून, आपल्या किराचो पांजरो हातांत घेवन, भजन म्हणत तळयेर वतालो. म्हातारपणान ताचे कुडीच्या हाडांचो पांजरो जाल्लो. सगळ्या आंगार मिरयो पडिल्ल्यो. कमरेक बाग आयिल्ली. झिळमिळट्यार तो कोणाचे नदरेक पडलो जाल्यार ताका भूत समजून थंयच्यान पळ काडटाले. 'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता' अशीं उतरां लोकांच्या कानार पडटालीं आनी लोक समजताले की आतां फांतोड जाली.

म्हादेवाचें पारिवारीक जीवन सुखाचें नासलें. ताका तीन पूत आनी तीन सुनो आशिल्ल्यो. नातरां-पोतरां तर दुर्जीनीं भरिल्लीं. पूण ताच्या माथ्यावेलें वजें ल्हव करपाक ताका कोणाचो आदार नाशिल्लो. पूत म्हणटाले, 'जो मेरेन बाबा ह्या संवसारांत आसा, तो मेरेन मजा मारपाची. मागीर आसाच हो संवसार गाडो नशिबांत.' भुरगे मजा मारताले, आनी म्हादेव बाबडो उपाशीं न्हिदतालो. सदांच न्हय तर केन्ना केन्नाय जेवणाच्या वेळार तर घरांत साम्यवादाचे उमाळे येताले, तेन्ना ताका पोट जमनीक तेकोवन रावचें पडटालें. तो आपल्या कामांत फिशाल आसुनूय ताचें जीवन केन्नाच सुखमय आनी शांततायेचें नाशिल्लें. आयिल्ल्या दिसा ताका देडदमडेच्या लोकांकडच्यान थोमणे आयकुचे पडटाले, उलोवणी खावचीं पडटालीं. तरी म्हादेवशेट डगमगनासतना, गांभीर्यान आनी मान खाला घालून आपलें काम मोन्यांनी करतालो. ताचेकडे कसलीच दगलबाजी आनी फटिंगपणा नाशिल्ली. ताचें भांगर चोख, काम चोखट. म्हादेवशेटीच्या नितळ मनांतली रासायनीक क्रिया ताच्या कामांत आनी कलें शुध्दताय हाडटाली, तेन्ना खुशी ताच्या चेऱ्यार परजळटाली. असल्या वेळार म्हादेवशेट आपल्या किराक उलो मारून म्हणटालो - 'सत गुरूदत्त शिवदत्त दाता.' हो

मंत्र आयकून ताच्या चित्ताक पुराय शांतताय मेळटाली.

## दोन

एक दीस एका पोराटयान सहजतायेन पांजऱ्याचें दार उक्तें केलें. कीर उडून गेलो. म्हादेवान पांजऱ्याचेर नदर मार जाल्यार कितें पळेतलो? पांजऱ्यांत कीर ना. म्हादेवाचें काळीज धसकेलें. खंय गेलो काय हो! म्हादेवान परत एकदां पांजऱ्याचेर नदर मारली. कीर ना तो नाच! म्हादेवशेट दचकून उठलो. ताणें घराच्या नळ्यांचेर हांगा-थंय नदर मारली. म्हादेवाचो किराचेर चड मोग. ताका किरापरस चड मोलादीक कांयच नाशिल्लें ह्या संवसारांत. भुरगींबाळां आनी नातरां-पोतरांनी जीव धादोसभरीत जाल्लो म्हादेवाचो. तरी ताचे पूत ताका सुखान जगूंक दिनासले. पुतांकडे ताची ओड नासली. ते वायट म्हूण न्हय, तर तांकां लागून ताका पोटाक वळवळचें पडटालें. शेजारी खंयचेय वेळार ताच्या आगट्यांतलो उजो व्हरूंक येताले म्हूण तांची ताका तिडक. ताका लागून म्हादेवशेटीक आदार आशिल्लो तो फकत किराचो. म्हादेवशेटीच्या सांगाताक आतां एकच प्राणी असो आशिल्लो जाचेपासून ताका कसलेच कश्ट भोगनासले तो म्हळ्यार कीर! दुसरी गजाल म्हळ्यार म्हादेवशेट आतां असले अवस्थेर पाविल्लो की मनशाक पुराय शांततायेची गरज आसता.

कीर आतां एका पाडसावेल्या नळ्यार वचून बसलो. म्हादेवशेटीन पांजरो देंवयलो, आनी म्हणूंक लागलो, 'यो रे यो, सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता.' पूण गांव आनी घरांतले पोरांटे एकठांय जावन बोब मारूंक लागले. ताळयो पेटूंक लागले. वयल्यान कावळेय कांव-कांव करून आडडेंवंक लागले. कीर आबूज जालो आनी तो गांवाभायल्या एका उंचेल्या रूखार वचून बसलो. म्हादेव रिकामो पांजरो हातांत घेवन किरा फाटल्यान धांवलो. इतलो धांवलो की ताचो नेट पळोवन गांवचे लोक अजापीत जाले. प्राण्यांतली आस इतली सुंदर, इतली सजीव, इतली भावमय आसता हाची कल्पनाच करूंक जायना.

आतां दनपार जाल्ली. शेतकार शेतांतल्यान वयर येवंक लागले. तांकां फकांडां करपाक आयतीच संद मेळ्ळी. मस्करी करपाक सगळ्यांकच मजा येताली. कोणे ताचेर शेंकरे शेवटीले, कोणे टाळयो पेटल्यो. कीर परतोय उडलो आनी थंयच्यान पयस आशिल्ल्या आम्रवृक्षाचे तेंगशेर वचून बसलो. म्हादेव परत हातांत रिकामो पांजरो घेवन बेब्याभशेन उडयो मारीत धांवलो. धांवत-धांवत तो आतां भाटांतल्या आंब्यामुळांत पावलो. पांयांच्या तळव्यांतल्यान आतां उजो भायर सरूंक लागलो. तकलेक घुंवळ आयली. शिंतीदार येतकच ताणें पांजरो हातांत घेतलो आनी म्हणलें, - 'सत गुरूदत्त शिवदत्त दाता' कीर ताळयेवेलो सकल येवन बसलो, पूण तो म्हादेवाक दुबावान पळोवंक लागलो. म्हादेवाक दिसलें, भियेला जातलो. तो आतां पांजऱ्याक सोडून दुसऱ्या एका झाडा आड वचून लिपलो. ताणें चारूय वटांनी बारकायेन पळेलें. तो निश्शंक जालो. सकल येवन पांजऱ्यार बसलो. म्हादेव आतां बुचकळ्यांत पडलो. 'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता' मंत्र जपत तो आतां हळुहळू किरा म्हऱ्यांत आयलो. ताणें किराचेर झोपय मारली. पूण कीर ताच्या हाताक लागलो ना. परत वचून तो झाडार बसलो. सांज मेरेन अशेंच घडत रावलें. कीर एकदां एके ताळयेर तर एकदां दुसरे ताळयेर उडून बसूंक लागलो. केन्ना पांजऱ्याचेर तर केन्ना पांजऱ्याच्या दारार बसूंक लागलो. आपल्या दाण्या-पाण्याच्या वाटयांचेर नदर मारून हांगा-थंय उडूंक लागलो. म्हातारो मुर्तिमंत मोह तर कीर मुर्तिमंत माया जावन वावुरताले खंय! आतां सांज जाल्ली. माया आनी मोह काळखांत खंयचे खंय लिपून गेली.

## तीन

आतां रात जाली. धर्तरीमांय काळी किट्ट चादर पांगरून न्हिदली. कीर पानांनी खंय लिपलो देवाक खबर! म्हादेवाक खबर आशिल्ली की कीर रातीचो खंयच उडून वचूंक शकचो ना. पांजऱ्यांतय तो येवंक शकचो ना. तरी म्हादेव आपली सुवात सोडूंक तयार जायनाशिल्लो. आयज ताणें दीसभर कांयच खालें ना. रातच्या जेवणाचो वेळय जावन गेल्लो. उदकाचो एक थेंबो लेगीत ताणें ताळ्यार घेतलो ना. ताची तान-भूक तर केन्नाच मरून गेल्ली. किराबगर ताका आपलें जिवीत पचकेंशें लागतालें. जगनशें दिसनासलें ताका ह्या संवसारांत. दीस-रात तो हे खातीर काम करतालो की ताचो अंतरात्मो ताका सुसेग दिनासलो. संवयेंक लागून तो आपलीं हेर कामांय करतालो. हीं कामां तो करूंक जाय म्हूण करतालो. ताका आपल्यांतल्या चैतन्यास्तित्वाची इल्लीय जाणविकाय जायनासली. कीर हो एकूच जीव असो आशिल्लो की जो ताका चैतन्याची याद करून दितालो. तोच ना जालो जाल्यार ह्या संवसाराचो ताका कितेंच उपेग नासलो.

म्हादेव दीसभर भुकेन तळमळटालो. तानेन ताचो ताळो सुकिल्लो. आनी आतां ताका जागरण जातालें. थकसाणीन ताचो दोळो लागतालो. पूण न्हीद ताका पयसावताली. दोळो लागतांच फट्ट करून तो जागो जातालो. खिणात दचकून दोळे वटारतालो. सामकाराक पातळिल्ल्या विशाळ काळखा सागरांतल्यान ताच्या कानार मंत्र आदळटालो, 'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता.'

आतां अर्दी रात पासार जाल्ली. इतल्यान कोणाचो तरी आवाज म्हादेवाच्या कानार पडलो. तो दचकलो. पळे जाल्यार दुसऱ्या एका रुखा मुळांत मंद-सो दिव्या उजवाड दिसलो. कांय मनीस थंय आपसांत गजाली करताले, ते थंय बसून विडयो फुंकताले.

तंबाखूचो दर्प म्हादेवाच्या नाकांत शिरलो. तंबाखूच्या वासान ताका अस्वस्थ केलो. ताच्यान ओगी रावंक जायना जालें. तो मोठ्ठ्यान आड्डेलो – 'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता' अशें म्हणून म्हादेव तंबाखूचे आशेन त्या मनशां दिकेन तरतरीत गेलो. पूण जे तरेन आर्मांचो आवाज आयकून सांबरां पळ काडटात, तेच तरेन त्या मनशांनी उठून थंयच्यान धांव मारली. कोण हेवटेन धांवलो तर कोण तेवटेन. म्हादेव आड्डेलो – 'रावात, थांबात-थांबात!' आतां ताच्या लक्षांत आयलें, हे सगळे चोर आसतले. ताणें बोब मारली – 'चोर चोर, धांवात, धरात ताका.' चोरांनी फाटल्यान वळून लेगीत पळेलें ना. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण पळत सुटले.



म्हादेव दिव्याकडे गेलो. पळे जाल्यार थंय एक कळसो आसा. तो कळमेवन काळो जाल्लो. म्हादेवाचें काळीज धडधडूंक लागलें. ताणें कळशांत हात घालो, जाल्यार कितें पळेतलो! कळशांत पवनांच पवनां! ताणें कळाव केलो ना. कळसो उखल्लो आनी दिवो पालयलो आनी रुखा तळा आडसाक वचून लिपून बसलो. तो आतां सावाचो चोर जाल्लो.

तरी तो आतां दुबावांत पडलो. चोर आयले आनी हांव एकटो आसां तें पळोवन, कळसो हिसकावन घेवन फुज्ज्यो काडल्यो जाल्यार? ताणें थोडीं पवनां गुठलावन भेंडाक बांदलीं. मागीर एक सुको लाकडा कुडको घेवन बारीक-बारीक फोंडकुलां मारलीं. तीं पवनांनी भरलीं आनी मातयेन पुरलीं.

## चार

म्हादेव आतां पुराय बदलून गेलो. ताच्या मुखार आतां नवें जग उबें जालें. चिंतनां आनी कल्पना ताचे फाटीक लागल्यो, हातचें धन सुटून वचपाचो भंय आसलो, तरी आस फाट सोडूंक तयार नासली. एक बंगलो उबो जालो. शारांत एक भांगरा दुकान झगमगूंक लागलें. सोयरेधायरे पयस जाल्ले ते लागीं आयले. चैनबाजी सुरू जाली. घरांत विलासी वस्तू जमा जाल्यो. मागीर तिर्थयात्रा येवजली, थंय गेलो. थंयच्यान येतकच होमकार्य करून जेवणावळी घाल्यो. उपरांत एक शिवमंदीर आनी बांय तयार जाली. एक देखणी, सुंदरशी बाग तयार जाली. दीस-रात कथा-किर्तनांत वेळ वचूंक लागलो. साधु-संतांचो आदर-सत्कार जावंक लागलो.

अकस्मात ताच्या आतां लक्षांत आयलें. समजा चोर आयले जाल्यार हांव धांवतलों कसो? ताणें स्वताची परिक्षा घेवपाचें थारायलें. घेतलो हातांत कळसो आनी लागलो धावूंक. दोनशें पावलां मेरेन पडत मरत धांवलो. अशें दिसतालें, ताच्या पांयांक पाखां फुटल्यांत. आतां ताची चिंता पयस जाली. मनांतल्या कल्पनांचो खेळ चलतां चलतांच रात सोंपली आनी फांतोड जाली. हवेकय जाग आयली. सुकणी गावंक लागलीं. तितल्यांत म्हादेवाच्या कानार मंत्र पडले–

'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता
रामचरणांत चित्त लागता'

हीं उतरां रात-दीस म्हादेवाचे जिबेर घोळटालीं. दिसांतल्यान हजारांनी उतरां तोंडांतल्यान भायर पडटालीं. पूण ताच्यो धर्मीक भावना अंतस्करणात केन्ना शिरल्यो नांत. पेटयेंतल्यान राग जसो भायर पडटा, तसो मंत्र ताच्या तोंडांतल्यान भायर पडटालो. निरर्थक आनी प्रभाव-शुन्य. तेन्ना ताचो काळीज-रुपी रूख पान-पालवी विरयत जावन रावतालो. निर्मळ ताच्या आंगाक केन्ना स्पर्श करिनासलो. पूण आतां त्या काळीज रूखांक कोंबऱ्यो आनी ताळयो फुटूंक लागिल्ल्यो. म्हादेवाचो हो मनरूख आतां वाऱ्या झोकान खोशेन धोलूंक लागलो, गायनां करूंक लागलो.

हळुहळू आतां सूर्यदेव वयर येवंक लागलो. सैम एका मोगाळशा उजवाडांत बुडून गेल्लें. असल्या वेळार पाल्यांतलो कीर पांयें दोडून खाला देंवलो. मळबांतलें एक नखेत्र तुटिल्ल्यावरी खाला देवून तो पांजऱ्यांत येवन बसलो. म्हादेवाचें काळीज खोशेन भरलें. तो धांवून पांजऱ्या म्हऱ्यांत गेलो. पांजरो हातांत घेवन ताणें म्हणलें 'यो बाबा यो, आत्मरामा

यो! खूब दुख्ख दिलें तुवें म्हाका. पूण म्हज्या जिवनाचें सार्तकय केलें पुता! आतां तुका रूप्या पांजऱ्यांत बसयतां आनी भांगरान सजयतां.' म्हादेवाच्या नसा-नसांतल्यान परमात्म्याचें गुणगायन जावंक लागलें.

'हे भगवंता, दयेन भरिल्ल्या, तुज्या वात्सल्यान पुराय बुडून गेलां रे हांव. ना जाल्यार म्हजे असल्याक पाप्याक – पतिताक कोण लागीं करतलो आसलो? म्हादेवाच्या ह्या पवित्र भावनांनी ताच्या आत्म्याक आनीकय पवित्र केलो. ताणें लीन जावन म्हणलें –

'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता,
रामचरणाक चित्त लागू।'

ताणें एका हातांत पांजरो घेतलो, खाक्यांत कळसो घेतलो आनी गेलो घरा.

## पांच

म्हादेव घरा पावलो तेन्ना अजून उजवाडूंक नासलें. वाटेर ताका एक सुणो सोडल्यार कोणूच भेटलो ना आनी सुणे असल्या फालतू गजालींत चड रस घेनांत. म्हादेवान कळसो व्हरून गोरवांक खावड घालतात त्या आयदणांत लिपयलो. वयल्यान कोळशे घाले आनी आयदण व्हरून आपले कुडींत थेयलें. दीस जेन्ना वयर आयलो, म्हादेव भटाकडेन धांवलो. भट पुजेक बसिल्लो. ताचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. फाल्यां ताका कोर्टाची तारीख आशिल्ली. आनी हातांत तर एक कवडी नाशिल्ली. एकय यजमान आपलेवटेन फिरकना म्हूण भट बेजार आशिल्लो. इतल्यान म्हादेवान येवन नमस्कार केलो. ताका पळोवन भटान तोंड काळें केलें. ही आनी पिडा खंयच्यान आयली? मूठभर तांदळांची काय आस ना. भटान उबगून प्रस्न केलो – 'कितें रे बाबा, तूं आनी खंयचेय वेळार येता, कळना तुका हांव पुजेक बसलां तो!'

म्हादेवान म्हणलें – 'भटजीम्हाराज, आयज आमगेर सत्यनारायणाची पूजा आसा.'

भट अजापांत पडलो. कानांचेर विश्वास बसलो ना ताचो. म्हादेवागेर आनी सत्यनारायण? अशक्य! तरी भटान म्हादेवाक विचारलें. 'आयज कितें तर?' 'तशें व्हडलें कांय ना. पुराणकथा आयकनशी दिसली.' म्हादेवान भटाक जाप दिली.

सकाळपसूनच तयारी जावंक लागली. गांवभर निमंत्रणां गेलीं. पुराणा उपरांत जेवणावळ दवरली. ही गजाल आयकतकीर लोक अजापीत जाले. आयज सूर्य पश्चिमेक कसो उदेलो?

तिनसांजचे वेळार लोक जमले. भटजी म्हाराज आसनार बसलो. म्हादेवशेट आतां उबो रावन व्हडल्यान उलोवंक लागलो – 'भावांनो, हांवें म्हजें सगळें आयुश्य छळ-कपट करपांतच घालयलें. हांव नकळ हांवें कितल्या लोकांत फटयल्यात, खऱ्याचें खोटें करून कितल्या लोकांक नाडल्यात हाचेंय म्हजेकडे कोंत आनी हिशेब ना; पूण देवाक म्हजी आतां दया आयल्या. तो म्हजीं पातकां आतां पयस करूंक सोदता. देखून म्हज्या भावांनो, हांव हात जोडून तुमचेकडे मागतां, की हांवें तुमकां जें-जें कितें देणें आसा, तें तुमकां दिवपाचें थारायलां. तुमी विसरल्यात जायत, पूण आतां याद करात आनी म्हाका सांगात. हांवें तुमकां कशे नाडल्यात, कशे फटयल्यात, खऱ्याचें खोटें करून तुमकां कशे फसयल्यात हाची कल्पना तुमकां नासत, पूण म्हाकां आसा. तुमी याद करात आनी एकेक कवडी म्हजेकडल्यान वसूल करून घेयात. तुमचेमदें खूबशे असले मनीस आसतले, की ते सगळें विसरून गेल्यात. तांच्या येण्याची आस ताणी सोडून दिल्या जातली. आतां तुमी वचात आनी तांकां जागयात आनी सांगात की फाल्यांच्यान एका म्हयन्या भितर तुमचे पयशे घेवन वचात! कोणाकच गवाय-साक्षेची गरज पडची ना.

सगळे लोक आतां स्तब्धतायेंत बुडून गेले. एकटच्यान मार्मीकतायेन तकली हालोवन आपूण शाणो आसल्याचें दाखोवन दिलें. कोणेतरी म्हणलें – 'सगळें फट! आशिल्लें-नाशिल्लें लोकांक दिवन उडयल्यार हो कितें खातलो गोबोर! हजारांनी लोक सगळे फुडें आयले जाल्यार, कोणाक कितें म्हूण दितलो?' एक भाटकार उबो रावन मजा पळेतालो. ताणें फकांडांनी म्हणलें – 'आनी सर्गार गेल्यात तांचें कितें?' म्हादेवान जाप दिली – तांच्या फाटल्यान कोण तरी आसतलो काय ना?

पूण हे वेळार लोकांक वसुलेचें व्हडलें पडूंक नासलें. म्हादेवशेटीकडे इतलें धन आयलें खंयच्यान, हें तांकां जाणोवन घेवंक जाय आसलें. म्हादेवाक विचारपाचें धाडस कोणाकच जालें ना. कित्तलेय जाले जाल्यार सरळमार्गी कुणबी-शेतकार. गरजेभायल्यो गजाली उस्तुन काडपाची शिटुकसाण नाशिल्ले खेड्यांतले मनीस. म्हादेव कितें देणे लागता, तेंय चडशे लोक विसरून गेल्ले. शिवाय असल्या पवित्र प्रसंगार भूल-चूक जावपाची शक्यताय आशिल्ली. ह्या भयान तांचीं तोंडां बंद जाल्लीं. तो मेरेन एक म्हत्त्वाची गजाल घडून आयली. म्हादेवशेटीन आपले पवित्र आनी मोगाळ वागणुकेन आपलेशे करून घेतिल्लीं, तांचीं मनां जिंकून घेतिल्लीं.

इतल्यान अकस्मात भटजीन आपलें तोंड उक्तें केलें – "तुका याद आसा, हांवें तुजेकडे एक भांगराचो कंठो करपाक भांगर दिल्लें, आनी तुवें तें जोखतां-जोखतां तांतलें कांय माशे भांगर फारायल्लें."

"हां, याद आसा. तुमचें कितलें लुकसाण जालां तें सांगात."

"पन्नास रुपया परस उणे जांवचें ना." भटजीन जाप दिली.

म्हादेवशेटीन किरवटीचीं दोन पवनां काडलीं आनी भटजी म्हऱ्यांत थेयलीं.

भटजीचीं चिकाणां आतां लोकांच्या लक्षांत आयलीं, तांचे दिश्टीन ती बेइमानी आशिल्ली. भटजीचें लुकसाण व्हडलेंशें



जाल्यार दोनचार रूपयांचें जाल्लें जावंये. पूण ताणें म्हादेवाक पन्नास रुपयांचो गंडो घाल्लो. लोक तिडकले. तांणी भटजीचेर कडक टिका करपाक सुरवात केली. एकान म्हणलें, 'हाका देवाधर्माचो मातय भंय ना.' देवधर्म खंयचो, नीत तरी आसा, ती तर ताणें केन्ना भाजून खाल्ली. 'स्वताक व्हडलो पंडीत म्हणोवन घेता, पूण नागोवणो नंबर एक!' दुसऱ्यान म्हणलें.

''असल्यांक फारान मारूंक जाय फारान.'' आनी एकलो मदेंच उलयलो.

लोकांचो आतां म्हादेवशेटीवेलो भावार्थ वाडूंक लागलो. एक वर जावन गेलें तरी गर्देंतलो एक लेगीत मनीस फुडें आयलो ना. तेन्ना म्हादेवान परत एकदां म्हणलें –''म्हाका अशें दिसता की तुमी सगळे आपापलो हिशोब विसरून गेल्यात. कांय परवा ना. आयजची कथा जावन वचूं दी. हांव एक म्हयनो तुमची वाट पळेतां आनी उपरांत तिर्थयात्रेक वतां. हांव सगळ्या भावां-भयणांकडे मागतां की तुमी म्हाका आशीर्वाद दिवंचो!''

एक म्हयनो मेरेन म्हादेव रिणकाऱ्यांची वाट पळयत रावलो. चोरांच्या भयान ताका रातीची न्हीद ये नासली. आतां तो कसलेंच काम करिनासलो. सोऱ्या कॉपूय सोडून दिल्लें ताणें. दारार आयिल्ल्या साधु-संतांचो फाव तसो आदर-सत्कार करतालो तो. तो आतां येसवंत जाल्लो. ताचें येस धाय दिकांनी फांकारिल्लें. दुसरी गजाल म्हणल्यार एक म्हयनो सोंपलो तरी कोणूच रिणाचो, देण्या-घेण्याचो हिशेब घेवन फुडें आयलो ना. आतां म्हादेवशेटीक कळून आयलें की ह्या संवसारांत खऱ्यांनीच सद्वेव्हार आनी धर्माचें राज्य चलता. ताका हेंय कळून आयलें की हो संवसार बऱ्याक बरो आनी वायटांक वायट आसा.

हे गजालीक आतां पन्नास वर्सां जावन गेलीं. तुमी एकदां वेदीग्रामात वचून पळयात. तुमकां पयसुल्ल्यान एक भांगराळो चकचकीत कळस दिसतलो. ताका ठाकूदाराचो कळस अशें म्हणटात. ताच्या लागसाराक एक बांदिल्ली तळी आसा. तळयेंत खूब साळकां फुल्ल्यांत. तळयेंतल्या नुस्त्याक कोणूच हात लायनात. हे तळयेचे देगेर एक विशाल समाधी आसा. ही समाधी आत्मारामाचे यादस्तेक बांदिल्ली आसा. हे बाबतींत लोकांमदें खूबशो काणयो प्रचलीत आसात. कोण म्हणटा, तो रत्नजडीत पांजरो सर्गावाटेन गेलो. कोण म्हणटा, तो 'सत्त गुरूदत्त' म्हणत अंतर्धान जालो. पूण खरी गजाल मात वेगळीच आसा, की पक्षीरूपी चंद्रिमाक एका मांजर रुपी राहून ग्रासला. लोक हेंय म्हणटात, अर्दे रातीर आयजूय तळये देगेर आवाज आयकूंक येता–

'सत्त गुरूदत्त शिवदत्त दाता
रामके चरण में चित्त लागा!'

म्हादेवाच्या बाबतींतूय गांवांत कितल्योशोच काणयो घोळटात. तांतली मान्यतायेक पाविल्ली एक अशी, की आत्माराम समाधीस्त जाल्या उपरांत तो कांय सन्याशां वांगडा हिमालयाक गेलो, आनी तो थंयच्यान परत आयलोच ना. मात ताचें नांव आत्माराम म्हूण फामाद जालें.

**(मुंशी प्रेमचंद हांचे मूळ हिन्दी कथेचो कोंकणीत अणकार)**

■ ■ ■

## भारतीय भाषांमधील कोषविश्वातील एक अपूर्व निर्मिती

अस्तित्वाचा लढा देत
श्रीमंत शब्दसामर्थ्यातून
समृध्दीकडे वाटचाल करीत
आपल्या भाषाभगिनीची
उत्तुंग भरारी...

एकखंडी गडगंज ग्रंथराज




# राजहंस कोंकणी सचित्र अश्टांगी अभ्यासकोश

रचनाकार - दामोदर केशव घाणेकर
तांत्रिक भार - सुरेश जयवंत बोरकर

**वैशिष्ट्ये :**

- आवश्यक तिथे उच्चार
- उलट अर्थाचे शब्द
- व्याख्या आणि वापर
- पोर्तुगीज आणि इंग्रजी शब्दांची मूळ रूपे
- क्रियापदांचे धातू
- नकारार्थी क्रियापदांची मूळ रूपे
- नामांची सामान्य रूपे
- बहुवचने

- *पन्नास हजारांहून अधिक शब्द*
- *सातशे पन्नासांपेक्षा जास्त रेखाटने*

आकार : A5
पृष्ठे : 2200
कागद :पांढरा 80 gsm
सुबक शिलाई बांधणी
ग्रंथालयांसाठी मूल्य रु. 3300/-
व्यक्तिगत ग्राहकांसाठी
स्वयंअनुदानित मूल्य रु. 1200/-

(ट.ख.नि.)




**राजहंस वितरण**
1 - मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग, पणजी, गोवा 403001
Ph.:91 - 0832 2220320 / 2232177 email : rajhaunsvitaran@dataone.in






# आनीकय कांय कन्नड साहित्यकृती कोंकणींत हाडपाचो विचार आसा...

*** अलका, अभिनंदन. तुका साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार फावो जालो. ते खातीर तुका परबीं. आतां एक प्रस्न, ही खबर आयकनाफुडें तुका कितें दिसलें?**

** खरें सांगू हर्षा. खूब खोस जाली. लेखकाचे जिणेंत पुरस्कार म्हत्वाचे. पुंडलीक बाबान दिल्लीच्यान एसएम्‌एस् धाडलो. वाचनाफुडें अजाप जालेंना पूण विश्वासूच बसना जालो. मागीर पुंडलीकबाबाचो परतो फोन आयलो आनी परबीं भेटयलीं तेन्ना खरें दिसलें.

*** तूं गोंयचें, मागीर कन्नडाचेर तुजें इतलें प्रभुत्व कशें?**

** म्हजो बापूय नोकरेनिमतान हुबळी रावतालो. म्हजें शालेय शिक्षण थंयच जालां. तेन्ना कर्नाटकांत कन्नड विशय तिसरी भास म्हूण सक्तीचो आशिल्लो. ते खातीर हांव कन्नड शिकपाक पावलें.

*** हो अणकार तुवें कन्नड भाशेंतल्यान केला काय मराठी, हिन्दी वा इंग्लीश अणकाराचो आदार घेवन केला?**

** ना, हांवें खंयचेय भाशेचो आदार घेवना. फक्त कन्नड टू कन्नड, कन्नड टू इंग्लीश अशा चार पांच शब्दकोशांचो आदार घेवचो पडलो. हातुंतल्यान एक बरी गजाल घडली. कन्नड भाशेक कळम आयिल्ली, ती घांसून पुसून चकचकीत जाली आनी कोंकणीचें व्याकरण सुदारलें.

*** हाचे पयलीं तुवें हेर खंयच्या साहित्यकृतींचो अणकार केल्लो?**

** हांवें कन्नड भाशेंतलें बालसाहित्य खूब प्रमाणांत अणकारीत केलां. नामनेचे कन्नड बालसाहित्यकार पुट्टण्णा हांचीं बारा पुस्तकां अणकारीत केल्यांत. तशेंच अनुपमा निरंजन हांच्यो 'दिसाक एक काणी' हें ३६५ काणयांचें पुस्तक अणकारीत केलां. पूण हें साहित्य अजून पुस्तकरूपांत येवना.

*** डॉ. सन्तेशिवरा लिंगण्णैया भैरप्पा हे नामनेचे कन्नड साहित्यीक. हे कादंबरीक तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्लो. ते खातीर हो अणकार करतना तुज्या मनाचेर हे गजालीचें वजें आशिल्लें?**

** हय तर, इतल्या व्हड साहित्यीकाचें साहित्य अणकारप हें एक आव्हान आसलें. सुरवातीक कांय प्रमाणांत मनाचेर चेपण आशिल्लें. हो प्रकल्प म्हजेकडच्यान तडीक वतलो काय ना हाचो भंय दिसतालो. पूण जसो जसो अणकार फुडें वचत रावलो. तशी उमेद वाडली. कादंबरीचीं सुरवातीचीं २५० पानां अणकारपाक जितलो वेळ लागलो, ताचेपरस अर्दो वेळ उरिल्लीं पानां अणकारपाक लागलो.

*** ही कादंबरी तशी ल्हान न्हय. ५२३ पानांचो अणकार करतना सामकी बैठक मारून बसचें पडटा. अलका, तुज्या आंगातली चिकाटी आनी परिश्रमी वृत्ती हे खातीर तुका हो अणकार करप साध्य जालें अशें म्हाका दिसता. तुजें कितें मत?**

** ही कादंबरी जरी कन्नड भाशेंत आसली तरी तिचो विशय प्रादेशीक न्हय. हातुंतलीं मनशांचीं नांवां आनी गांवांचीं नांवां बदल्लीं जाल्यार हातुंतली घडणूक भारतांतल्या खंयच्याय गांवगिऱ्या वाठारांत घडूंक शकता. ते खातीर हांगा फकत कन्नड भाशेंतल्यान कोंकणी भाशेंत अणकार करप हेंच म्हत्वाचें आशिल्लें. तशें कन्नड सांस्कृतीक संदर्भ जावं कन्नड संकल्पना हे कादंबरींत चड प्रमाणांत येवना. ते खातीर व्हडलो त्रास जालो ना. आतां येदी व्हडली कादंबरी म्हणतकीच घरांतलें काम बेगीन सोंपोवन वरांचीं वरां कादंबरी घेवन बसचें पडटालें. खंयच्याय शब्दाखातीर अडलें जाल्यार न्हीद लेगीत पडनाशिल्ली. हरशीं म्हजो चलो तेन्ना ल्हान आशिल्लो. म्हजे



आवयन ताची जापसालदारकी घेतिल्ल्यान मेकळेपणान हो अणकार करप म्हाका शक्य जालें.

*** आतां हे कादंबरेविशीं थोडेंशें सांगशी?**

** समाजांतल्या सगळ्या थरांत आशिल्ले ब्राह्मण्याचें अतीव आकर्षण हातूंत दिश्टी पडटा. भारतांत पुरातन काळा सावन जाती वेवस्थेन हिन्दू समाजाक विखंडीत केला. जायत्या समाज धुरिणांनी हे वेवस्थे आड बंड केलां. समाजाक एकठांय हाडपाचो यत्न केला. पूण कर्नाटकांतल्या एका पयसुल्ल्या गांवगिऱ्या वाठारांतले तळागाळांतले शिकप घेतिल्ले तरणे पिळगेकडल्यान रूढी परंपरेच्यो शिमो हुपून ते दिकेन केल्लो यत्न, ताका मेळिल्ली प्रतिक्रिया, समाज मनाचो तशेंच व्यक्ती मनाचो घेतिल्लो सुक्षीम थाव हाचें वर्णन म्हळ्यार ही कादंबरी. गांवगिऱ्या वाठारांतलो स्वातंत्र्या उपरांतच्या राजकी स्थित्यंतराचो प्रभाव हाचें यथार्थ वर्णन डॉ. भैरप्पान केलां. म्हणून ही कादंबरी प्रादेशीक भाशेंत आसून ती प्रादेशीक जायना तर भारतीय जाता.

*** अलका, आतां तुज्या मुखार फुडारा खातीर लेखनातले कसले प्लॅन आसात?**

** आनीकय कांय कन्नड साहित्यकृती कोंकणींत हाडपाचो विचार आसा. अणकाराचें एखादें काम मेळ्ळें जाल्यार तें करतलें.



# इतिहासीक तेरेखोल किल्लो

तेरेखोल न्हंयचेर तेरेखोल किल्लो वयर बसला. तेरेखोलच्या किल्ल्यावयले हळदुवे टायल्स पळोवन दुख्ख जाता. एका व्हड इतिहासाचो साक्षी आशिल्ल्या किल्ल्याची रिनोवेशन्सच्या नांवान अशी दशा करप? जायते जाणांचो असो समज जाता की तेरेखोल वा तिराकोलचो किल्लो शिवाजीन बांदिल्लो. पूण हो चुकीचो समज. तेरेखोलचो



किल्लो पेडणे म्हालांत आस्पावता आनी तो मुळावो बांदिल्लो सावंतवाडीकार राजा खेम सावंत भोसलो दुसरो हाणें. तो १६२७-४० ह्या दरम्यान बांदिल्लो. पूण पोर्तुगिजांनी तो आपल्या ताब्यांत घेतल्या उपरांत तातूंत खूब बदल केले. तातूंत कपेल बांदलें. ह्या किल्ल्यान पळयल्यात दोन सत्याग्रही हिरवे गुरूजी आनी शेषनाथ वाडेकार हांचो गोंयचे सुटकेखातीर दिल्ले सर्वोच्च प्राणत्याग आनी बलिदान. ह्या किल्ल्याचेर कितल्योशोच इतिहासीक घडणुको घडल्यात. १७४६ वर्सा मार्कीझ दे अलोर्ना ची घुरी, १८३५चो मिलिटरी उठाव, १९५४चो आल्फ्रेड आफोंसोचो सत्याग्रह आनी तिरंगो किल्ल्याचेर लावप अशो कितल्योशोच घडणुको. जरी तेरेखोलचो किल्लो महाराष्ट्राचे हद्दींत पडटा तरी तो आमचो गोंयचो. आनीक ताका एक इतिहासीक कारण आसा तें म्हळ्यार सावंतवाडीकार भोसल्यान तो किल्लो १७४६ आनी परत १७८८ ह्या वर्सा सदां खातीर पुर्तुगेजांक दिलो आनी १७९१ वर्सा जेन्ना



गोंयच्यो अंतीम शिमो तयार केल्यो तेन्ना हो किल्लो गोंयांक सदांखातीर मेळ्ळो.

१७४६ वर्सा मेरेन तेरेखोलचो किल्लो सावंतवाडीचो भोसलो राजा कडेन आशिल्लो आनी १७४६ वर्सा पोर्तुगिज मार्कीज दे आलोर्ना हाणीं घुरी घालून तो आपल्या ताब्यांत घेतलो.

मागीर तो परत भोसल्यान घेतलो आनी १७८८ वर्सा शेवटाक तो पुर्तुगेजांनीं आपल्या शेकातळा हाडलो.

पेडणे म्हाल हो पुर्तुगेजांनीं घेतिल्लो निमणो म्हाल. १७८८ वर्सा सावन पुरायेन गोंय पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आयलें. महाराष्ट्राचे दोन सत्याग्रही हिरवे गुरूजी आनी शेजनाथ वाडेकरान १५ ऑगस्ट १९५५ वर्सा थंय सत्याग्रह केलो. पुर्तुगेज पोलिसांनी तांचेर गुळयो घाल्यो आनी तांकां वीरगती प्राप्त जाली. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा आलफ्रेड आफोंसो हाणीं आपल्या सत्याग्रहींच्या पंगडा सयत सत्याग्रह तेरेखोल हांगा केलो आनी बावीस वरां खातीर भारताचो तिरंगो तेरेखोलच्या किल्ल्यार उबयलो. हो एक भांगरा दीस आशिल्लो. तेरेखोलचो किल्लो हो आमच्या स्वातंत्र्यलढ्याचें एक स्मारक. तातूंत एक हॉटेल जालां. तेरेखोल किल्लो हो सरकारान लिजचेर दिला. सद्द्याच्या लिजहोल्डरान थंयचो कॅनॉन लॅन्डींग स्पेस बदल्लो. म्हणजे नाळ सकयल हाडपाच्या जागेंत सोपणां घालीं आनी बाथरूम टायल्स घाल्यात. आज हो किल्लो जरी लिजाचेर गेल्लो आसलो आनी त्या किल्ल्याचो सांबाळ करपाक लागपी खर्चाची ती गरज आसली तरी तेरेखोल किल्ल्यार लोकांनी आपलो हक्क समजून वचपाक जाय. कारण तो आमचो सगळ्या गोंयकारांचो. तेरेखोल किल्लो आमच्या गोंयकारांचें दायज. तो जनतेच्या अधिकारा पासून वेगळो करपाक कोणाक हक्क ना. तेरेखोलच्यान जो हरमल केरीचो वाठार दिसता. तो सर्गीय सुंदरायेचे सुवातेर बांदला. अश्या ह्या तेरेखोल किल्ल्याक भेट दिवून येयात!

■■■







# शापोराचो इतिहासीक किल्लो





वागातोर ही गोंयची एक सुंदर दर्यावेळ. ती बार्देश म्हालांतल्या शापोरा गांवांत आसपावता. ह्या वागातोर दर्यादिगेचो मुकूट म्हळ्यार थंय आशिल्लो शापोरा किल्लो. ह्या गांवांक शापोरा हें नांव शाहपूर ह्या नांवावेल्यान पडलां. 'शाह' म्हळ्यार आदिलशाह आनी 'पूर' म्हळ्यार शार. म्हळ्यारूच शाहपूर. १४९८ ते १५४३ ह्या काळांत बार्देश म्हाल हो आदिलशाकडेन आशिल्लो. ह्या काळार आदिलशाहान ह्या वागातोर – शापोराचे टेकडेर हो किल्लो बांदिल्लो. ही टेकडी वा डोंगराच्या मुळाकडल्यान सुंदरशी शापोरा न्हंय व्हांवता आनी अरबी समुद्राक मेळटा. हीच न्हंय बार्देश म्हालाक पेडणे म्हाला पासून वेगळी करता. १५४३ ह्या वर्सा पोर्तुगेजांनी बार्देश म्हाल आदिलशाहकडल्यान घेतलो आनी तांणी हो शापोराचो आदिलशाही किल्लो घेतलो. १६८३ वर्सा हो किल्लो संभाजीन घेतलो. हो किल्लो आतां सामको मोडकळीक पाविल्लो



म्हणून १७१७ ह्या वर्सा पोर्तुगेज व्हायसरॉय कावंट ऑफ एरीसीयरा हाणें हो आदिलशाही किल्लो मोडलो आनी थंय नवीन किल्लो बांदपाक सुरवात केली आनी मागीर ताच्या मागीरचो पोर्तुगीज व्हायसरॉय फ्रांसीस्को जुझे दे सांपिआवो इ क्रास्तो च्या वेळार बांदून पुराय जालो. १७३९ वर्सा सावंतवाडीच्या भोसल्यांनी हो किल्लो आपल्या ताब्यांत घेतलो. १७४१ वर्सा पोर्तुगेजांनी तो परत घेतलो. शापोरा किल्लो सामको म्हत्वाच्या सुवातेर आसा. समोर दिसता पेडणे म्हाल, अरबी दर्या आनी शापोरा न्हंय. ह्या किल्ल्यावेल्यान पोर्तुगीज आपल्या वाठाराचें संरक्षण करताले. ह्या किल्ल्यांत जायतीं बांदकामां आशिल्लीं. पोर्तुगीजांनी ल्हानशें कपेल बांदलें, कस्टम्स हावज, णव नाळी, पोर्तुगेज सैनीक हांगा रावताले. ह्या किल्ल्याक टेहळणी बुरूज आसात तातुंतल्यान ते टेहळणी करताले. दर्यांतल्यान कोणूय हल्लो करत जाल्यार ते पळयताले. सगळो किल्लो चौकोनी चिऱ्यांनी बांदला आनी किल्ल्याच्या म्हणचे दोंगराच्या मुळसाकडेन शापोरा गांव हो एक ताज्या नुस्त्याखातीर फामाद गांव आसा. थंय सकयल व्हडले दरवंटे आसात. शापोरा किल्ल्याच्यान जो वाठार दिसता तो खूबच सोबीत. गोंयचें हें एक सुंदर थळ. थंयच्यान मोरजे, आश्वें, मांद्रेच्यो दर्यावेळो तर सर्ग सुंदर दिसतात.

१८९२ ह्या वर्सा हो किल्लो पोर्तुगेजांनी सोडून दिलो. हो किल्लो आतां गोंय राज्य पुरातत्व खात्याच्या अधिकारांत आसा. तो एक नोंद जाल्ल्या दायजाचें स्मारक. ह्या किल्ल्याचें हॉटेल जावपाक दिवपाक जायना म्हूण गोंयचे लोक जतनाय घेतात. किल्ल्याचें मूळ स्वरूप राखप सामकें गरजेचें. पूण सांबाळाच्या नांवान ताची पुनर्बांदणी जावपाक जायना. हे किल्ले आमचो धगधगतो इतिहास. तें आमचें दायज. किल्ल्याचें नुतनीकरण जावपाक जायना.





**– प्रा. प्रजल साखरदांडे**
एस–३, बी–३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें – गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९



– विन्सी क्राद्रस
'स्नोज कृपा',आर्लेम राय,
सालसेत–गोंय
मो. 9822587498

# धंदो



*ती एक विधवा बायल. म्हणटकच आपली आनी आपल्या कुटुंबाची जतनाय करूंक कितें तरी करूंक नाका? आपल्या घोवालें बाई आपणें चलोवंक सुरू केलें. तो सोरो पियेवनच मेलो म्हळ्यार जाता. ती आदीं एम. पी. टी.त नोकरी करताली आनी घोवाच्या मरणा उपरांत वॉलंटरी रिटायरमेंट घेवन हें बाई चलोवंक लागली.*

**कों**कणीचो फुडार थारावंक आयोजीत केल्ले एके गुपीत बसकेक हाजीर रावंक हांव पणजे आल्तिनावयल्या पॉलीटॅक्नीकाच्या एक्सटॅन्शन विंगांत वतालों. घराकडल्यान भायर सरपाक मात्सो उशीर जालो म्हण बेगीन पावपाक हांवें म्हजी स्कुटर बांबोळेच्यान सांता क्रूज वाटेन घुंवडायली. मळ्यांतल्यान आवेनिदा लियोफिलो ब्रागांजा रस्त्यान पुलीस क्वाटर्सा कडल्यान वयर सरलों आनी पॉलीटॅक्नीक वाठारांत पावलों. पूण म्हाका जाय थंय पावूंक ना.

''हॅलो बाबा, एक्सटॅन्शन विंगाकडेन खंयच्यान वचपाचें?'' हांवें एका भुरग्या फुड्यांत स्कूटर थांबयत विचारलें.

''चलून गेल्यार असोच वचूंक जाता. पूण तूं स्कुटराचेर आसा न्ही, ते वाटेन वच. एक वॉल्त पयलीं मारिल्ल्यान, वाट चुकून तूं हांगा पावलो.'' आपल्या नम्र सभावान म्हाका वाट सांगतना, ताणें रस्तोय दाखयलो.

''हें खंय तर?''

''ही लायब्ररी''

''देव बरें करूं.'' म्हणीत हांवें स्कुटर चालू केली.

हांव वचूंक वताच एक जाण्टी बायल थंय एका सोप्याचेर बसून आसा ती हांवें पळयली. ''अरे, ही जाण्टीय हांगा, शिकूंक येता?'' मनांतच म्हणलें. म्हणटा म्हणसर ती मर्दीच उठली.

''छूत, छूत'' तिणें कोणाक तरी हटकिलो. ते वाटेन एक मनीस वतालो. ताच्या आंगार खाकी कपडे आशिल्ले. ताचे वयल्यान दिसतालें तो पॉलीटॅक्नीकाचो शिपाय म्हण. तो पळयनाशिल्ले भशेन करून मुखार वचूंक लागलो. ती ताचे फाटल्यान गेली.

''पयशे दिवपा वेळार म्हाका पळोवन आड नदर करता?'' म्हणीत ताचेमुखार वचून उबी जाली. म्हजे स्कुटरीक अकस्मात ब्रेक लागले. आतां हांचें झगडें जाता काय कितें? थंयच रावन हो देखावो पळयतां म्हळ्यार आमचो शेजारी रितेश दिश्टी पडलो. तो पॉलीटॅक्नीकांत शिकयता म्हण जाणां आशिल्लों. म्हाका पळोवन तो म्हजे फुड्यांत आयलो.

''हांगा खंय रे तूं?'' ताणें म्हाका विचारलें.

''एक बसका आशिल्ली तुमच्या एक्सटॅनशन विंगांत. हांव चुकून हांगा पावलों.''

"दनपार पसून आसतलो न्हय?"

"हय. बसका सोंपता म्हळ्यार दनपार जातलीच."

"मागीर सांगातान जेवया."

"आरे रितेश ही बायल कोण रे? ती ताचेकडेन पयशे मागता मरे?"

"तिची खबर हांव तुका मागीर सांगतां. तुजी बसका सोंपतच म्हाका एक रींग दी."

"बरें हांव आतां बसकेक वतां."

बसकेक म्हजीच वाट पळयताले. बसका सोंपतच हांवें रितेशाक फोन केलो. ताणें म्हाका सांगलें आपूणच म्हजे फुड्यांत येता म्हण. थोड्याच वेळान तो आयलो.

"चल, पयलीं बरे तळिल्ले तारले खावंक या." तो म्हजे स्कुटरीचेर बसलो आनी वाट दाखयत दाखयत आमी एका पोरण्याशा, नळ्यांनी शिंविल्ल्या ल्हानशा बार्राकडेन येवन थांबले.

"हांगा आमी तारले खातले?" हांवें त्या लुगाराचो येस्ताद पळोवन विचारलें. "आरे, ती बायल हांगाय आसा मरे." ते बायलेक एका बार्राकडेन पळोवन हांवें अजाप उक्तायलें.

"त्याच खातीर तुका हांवें हांगा हाडला. तिचे कडेन उलयनासतना तिची वळख करून दिवंक. चल आतां भितर या." म्हज्या हाताक धरीत ताणें म्हाका भितर व्हेलो.

भितर सरल्यार सादारण व्हडलो वसरो आशिल्लो. सात आठ मेजां घाल्लीं आनी कितलेंच गिरायक बसून. कोण सोरो पिताले जाल्यार कोण कितें कितें खाताले. आमी कडेक आशिल्ल्या मेजाकडची सुवात घेतली. ताणेंच दोन प्लेटी तारले आनी दोन थंड हाडूंक सांगलें.

"आतां सगळ्या मेजांचेर नदर मार. हातुंतल्या चडशा जाणांक हांव वळखतां." रितेशान म्हाका सांगूंक सुरवात केली. तातूंत पॉलीटॅक्नीकाचे शिपाय आनी ड्रायव्हर आशिल्ले. आर. टी. ओ.चे ल्हान अधिकारी आशिल्ले आनी कांय जणांचे मोचे पळयल्यार ते पुलीस दिसताले. प्रत्येक जण आपले धुंदींत खाताले, पियेताले.



"आज म्हयन्याची पयली तारीख आनी सरकारी कामदारांक पगाराचो दीस. केन्नाय मनांत मारल्यार फक्त तारले खावंक आमी हांगा येतात. हें बार्र पुराय पणजेंत तारल्यांखातीर फामाद. पूण जायते फावट हे असले नाका जाल्ले मनीस दिश्टी पडटात म्हण येवंक मन जायना. तारल्यांची पन्नास रुपया प्लेट खरी, मागीर आनीक दोन जाय म्हळ्यार जाप काडिनासतना हाडून दितात." हितेशान बार्राची म्हायती सांगली. थंय काम करपी भुरग्यान तारले हाडून दिले. हांवें तारल्यांचेर नदर मारली. तशी नितळसाण आशिल्ली. एक खावन पळयलो. सुवादय बरो आशिल्लो.

"तुवें म्हाका सांगिल्लें दनपरां येतां म्हण. आतां दोन जायत आयलीं मरे. पागार घेवन भायल्या भायर गेलो कितें रे घरा?" ते बायलेन मोबायला वयल्यान कोणाचेर तरी तापसाणी घाली आनी सगळीच उचांबळ जाल्ले सारकी दिसली.

"आतां हांव तुका भितरली गजाल, सांगतां. हें तुका बार्र इल्लेंशें दिसतलें, पूण जे हांगा येतात ते बरे व्हडले व्हडले, पांच आंकड्यांनी पगार घेवपी. तितलीच तांची उदारी. म्हयन्याक एक फावट थोडे थोडे फारीक करपाची तांची स्टायल." एक-एकल्याचें नांव घेवन ताणें म्हज्या कानाकडेन अजाप जावपासारकें आंकडे सांगले.

"कितें सांगता रे तूं? कशें परवडटा तें तिका?" हांव अजापलों.

"देखून ती थंय आशिल्ली आपली वसुली करपाक." रितेशान म्हाका ती थंय आसपाचें कारण सांगलें. तितल्यांत एक सुंदर चेडूं भितर सरलें.

"आरे, चेडवांय येतात मरे हांगा." त्या चेडवाक पळोवन हांवें अजाप उक्तायलें.

"तें हांगा खावपाक-पियेवपाक येवंक ना. तें तिचेंच चेडूं."

"मागीर हांगा कितें करूंक आयलां तर तें? ह्या सुराट्यांमदीं रावपाक ताका लज बी दिसना रे?"

"लज कसली? तें हांगाच व्हड जालां."

"लग्न बी जावंक ना ताचें?"

"मागणी घालतलो कितें रे?"

"कोणा खातीर? म्हजें लग्न जालां तुका खबर ना?"

"तें लग्न जालां आनी ताचो घोव हे जाण्टेलेचो घरजावंय."

"जाल्यार घरजांवयान हांगा रावपाचें न्हय?"

"तसो तो बरोच इमानदार रे. तो हांचे कुस्तार ना. रावता हांगा पूण आपली नोकरी करता आनी आपलें आसा तें आपूण पळयता."

"तशें जाल्यार हे सुंदरेक घराकडेन दवरपाची न्हय ताणीं?"

"घरा दवरपाचें? ताका पळोवपाकच म्हण थोडे येतात हांगा. एक तरेन ह्या बार्राचें एट्रॅक्शन मरे तें."




"ह्या एट्रॅक्शनाक लागून उदारीय जाता मरे? मागीर धंदो कित्याक म्हण चलोवपाचो तो? एक वाटेन गिरायक ओडून हाडपाचें आनी दुसरे वाटेन लुकसाण भोगपाचें?"

"आतां तें म्हाका विचारी नाका. तें तिणें पळोवपाचें."

"ताका पळय रे, तो कदेलाचेर लांबता मरे. ताणें वयर बेगीन वचपाची तिकेट काडल्या दिसता. असल्यांची उदारी मागीर कोण फारीक करतलो?"

"तशी ती कापास्तादिची बायल. तिका उदार करपी सगळ्यांचीं घरां खबर आसात. एक दीस अशेंच घडलें. तो एकलो सरकारी अधिकारी, तीन-चार हजार कितें दिवंक जाय आशिल्लो दिसता. सोरो पियेवन पियेवन मेलो. मरणाच्या आठव्या दिसा, ताच्या घराकडेन गेली आनी ताचे बायलेकडेन पयशे मागूंक लागली. तिणें तिका वोर्शींबारा दिलें. पूण ताच्या पुतान दिले खंय पयशे. इतली डॅरींग बायल ही. हांगा कोणाक वोगी रावता? तिच्याच पावलांचेर चलता हें तिचें चेडूं."

"हे, कदेल मोडटलो मरे." तिच्या चेडवान कदेलाचेर लांबतल्याचे तकलेचेर एक थापट फुलयलें. "सारकें बसूंक कळना जाल्यार उठ हांगा सरलो." ताका त्या बेबद्यापरस आपल्या कदेलाचें चड पडून गेल्लें. आवाजय बरोच कडक आशिल्लो.

"चल, जालें न्हय आमचें? आमी सारके मांडवींत या जेवंक. हांगा मुखार बरें वचपाचीं चिन्नां दिसनांत." हांवें रितेशाक सांगलें आनी पयशे दिवंक उठलों. ताणें म्हाका भायर रावंक सांगलें आनी आपूण बील फारीक करून आयलो.

"ती एक विधवा बायल. म्हणटकच आपली आनी आपल्या कुटुंबाची जतनाय करूंक कितें तरी करूंक नाका? आपल्यां घोवालें बार आपणें चलोवंक सुरू केलें. तो सोरो पियेवनच मेलो म्हळ्यार जाता. ती आदीं एम. पी. टी.त नोकरी करताली आनी घोवाच्या मरणा उपरांत वॉलंटरी रिटायरमेंट घेवन हें बार चलोवंक लागली. तिका दोन चेडे आशिल्ले. एकलो अपघातान मेलो जाल्यार दुसरो कसलें तरी दुयेंस जावन मेलो. हें तिसरें चेडूं. बरें शिकलां पूण आवयच्या मोगान हांगा आसा." वतां-वतां रितेशान तिच्या कुटुंबाविशीं थोडे भितर म्हायती दिली.

"घरांत इतले कावज घडल्यात आसतना तिणें हो सोऱ्याचो धंदो चलोवंक नाका आशिल्लो. तिचो जावंय सोरो पियेना मरे?"

"ना. तो सोरो पियेना म्हण तो हांगा ना न्हय! तो सोरो पियेल्लो जाल्यार सगळ्यांचें घट्टान जावपाचें."

"जायते कडेन पळयलां हांवें. घोव मरतच ताचे फाटल्यान बायलो असलो सोऱ्याचो धंदो घेवन बसतात. आपलो संवसार करूंक होच एक धंदो आसा काय म्हण? ह्या धंद्याक लागून कितले घराबे पिड्डच्यार जातात, कितल्या घराब्यांची वाट लागता हें तरी येवजूंक जाय न्हय? एक दीस हांवें एकल्याक विचारलें तुमच्या गांवांत इतलीं बारां आसात. तीं सगळीं बंद केल्यार तुमी कितें करतले? तो म्हाका सांगूंक लागलो हांगा नांत जाल्यार थंय आसची नांत? म्हणटच सोरो पियेल्या शिवाय जायना. खरें म्हणल्यार पुराय गोंयभर सोरो बंद करूंक जाय."

"पुराय गोंयभर सोरो बंद केलो जाल्यार सरकाराचें एक्सायज खातें बंद करचें पडटलें. जायत्या जाणांक आनी चड करून सोरो पियेनांत तांकां दिसता सोरो बंद जावंक जाय म्हण पूण सरकार तांकां प्रोत्साहन दिता. कित्याक, लागू जातले अधिकारी कितें करूंक जाय तें ज्युस्त जाणांत. चांटे पावलाक सोऱ्याचीं दुकानां जावपाक हेंच कारण."

"पूण असल्या बायलांचे चुरचुरे करपाचे. धंदो करूंक जाय आनी वसुली करूंक ह्या बेबद्यांक सोदूंक वचूंक जाय."

"इतले गंभीरतायेन घेवन बसूं नाका. तुजें कोंकणीचेंच पळय तूं. चल आमी सुशेगाद जेवंया पयलीं." मांडवी हॉटेलाकडेन पावतांच रितेशान विशय बदल्लो आनी हेर गजाली उलयत आमी मांडवी हॉटेलांत भितर सरले.

■ ■ ■

## कविता

उदक निळें
माळकां तळें
निळाय पांगुरलेलें,
मळब तांबशें
व्हारेतल्या उदकांत
तांबशी शिंवरलेलें





– अशोक रं. शिलकार
शिला – सावयवेरे.

## देव देवचार केन्नाच हांवें सोडून दिल्या

खीण सारून जीण जगप परवडना
रीण काडून सण करप परवडना

हालांत पडून खुशाल म्हूण कसो सांगूं?
मरणावेळो पेजे निवोळ परवडना...

देव देवचार केन्नाच हांवें सोडून दिल्या
लामणदिव्या तेल घालप परवडना

कोण म्हणटा मरण सामकें सवाय जालां?
वखद सोड वीख लेगीत परवडना...

चेपला पूण सामकोच तुवें चेचूंक ना !
चाबल्याबगर सोडप तुका परवडना...

– आर. रामनाथ
कुट्टी, फोंडे – गोंय.
मो. : ९८५०४५८७६३

## कितले पयस पावले

पयशयां फाटल्यान धांवतना
कितलो पयस पावलों हांव
नदर म्हजी पावना
कितलो फाटीं उरलो गांव
आगर, सांकव, दवरणे
सगळें उरलें फाटीं
बायों गेल्यो पुरोन... मोडून गेल्यो लाठी
चंवरिल्ले हिरवे दोंगर पयस गेले उडून
खावट्यांच्या उदकान म्हजीं शेतां गेलीं बुडून
खणीच्या धुल्लान जमीन जाली ओंखणी
नवे आयले रोग, नवीं आयलीं दुखणीं
न्हय जाल्यो व्हाळ.. व्हाळ गेले पुरोवन
शारांतल्या कचऱ्यान गांव गेले भरोन
दरया, न्हंयो, झरी आदल्या परी उरूंक ना
सगळें विकून खाल्लें तरी पोटां आमचीं भरूंक ना
मोन्यापरी आमी फकत मळबाक पळयत रावले
पयशयां फाटल्यान धांवतना आमी
कितले पयस पावले... कितले पयस पावले

– रमेश घाडी
साळगांव – गोंय.
मो.: ९८५०४५३३५५

## सोबीत गोंय

दोंगर कापून मसण पुरली
जित्यांक जमीन ना उरली
रानटी जनावरां गावांत पावलीं
भाटां विकून-विकून सोंपलीं
शेतान बिल्डींग रोयली
रोकडीच घरांची रानां वाडलीं
प्लास्टीक कोयर साठलो
शेताचो चिखोल आटलो
गांव विकून नांवार करता मंत्र्यां पोरां
उदकांत उबीं रावता केसीनो घरां
गोयांत फाकारता हळशीकेचें वारें
होगडायता सैमांतले अजरामर झरे
काजू कापल्यो आंबे कापले
बियो काथे फोरेनाक पावले
शाळेंत भुरग्यांनी धडे वाचले
चित्रां पळोवन तोंड लाळेलें
गवळ्यांन बोकड्यो पोसल्यो
रावपाक खोपी बांदल्यो
मातयेन पुरल्यो पुर्वजांच्यो खोपी
बिल्डरांनी घाली लोकांक टोपी
सैमाआड खेळटल्याक आडोवया
खेळांतली हळशीक आटोवया
उमेदीन नांव जोडुया
सोबीत गोंय राखुया



– विनोद गावडे
बोकडबाग, बादोडा,
फोंडा – गोवा.
मो.: ९८२३५४७०४७

## सैम

सोबीतकायेचें भांडार तें
तरेकवार रंगानी भरिल्लें
सैम हें आमच्या गोंयचें
व्हड देणें रचणाऱ्याचें

सोबीत सुंदर फुलां
रूचीक रसरशीत फळां
वाऱ्यान धोलपी झाडां
ल्हारांर नाचपी दर्या

ल्हान व्हड जनावरां
रंगयाळ्या सवण्यांचीं कवनां
सोबीत सैमाक पळयतना
दिसता पळयल्लेवरी सपनचित्रां

हें सैम आमी सांबाळचें
ताचें देणें कितलें म्हत्वाचें
सैमाचो दबाव थांबोवन
आमी लागणुकेक जागचे



– म्युरियल फर्नांडीस
११वी कॉमर्स,
सकयलो वाडो, चर्ची फाटल्यान,
हरमल – गोंय.
फोन : २२४२७६४

## फुलासारकें जगचें

जगचें जाल्यार फुलासारकें जगचें
मनयत सैमसुवाळो
झाडाखांदार सहज चंवरचें
दवा म्होंवा थेंबे पिवन
हांसत परमळत फुलचें
पाकळी पाकळी फुलारून
केंसर गंध वांटचो
वोता रखरख निमूट सोसून
अटंग पावसा मारो खेलून
वादळ वाऱ्या मान बागोवन
झिळमिळ उदेंती दिसाक
दंवा अर्ग ओंपचें
फुला जीण सफल संतुश्ट
अदीक उण्या खंत ना
सैमदान सुखान घेवन
करचें सैम समर्पण
आनी गमन सुलूस काया
पाकळी पाकळी झडोवन
देंठावयल्यान सुटून
अळंग भूंयेर पडचें
मातयेमायेंत मुंगरून
एकठांय जावंचें
जीण समर्पण करचें
संवसार सोडून वतना
फुलाक दुःख ना खंत ना,
मनाक एक विस्वास
तनाक एक जाणिव
हें पूर्णविराम न्हें
हें परिभ्रमण
त्याच सुपीक भुयेंत
काळजाचे आशेबीज
परतून आंकुरतलें
चंवरतलें
फुलतलें
मरचें जाल्यार फुलावरी मरचें

– इंदू अशोक गेरसप्पे
बंगळुरू



## म्हाका एक अशें घर जाय

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त वण्टीच न्हय
तर
जनेलांय मेळून मिसळून रावतलीं

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त लायटींचोच उजेड आसचो न्हय
तर
सूर्याचो आनी चान्न्याचोय प्रकाश पडटलो

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त नळाच्यो पावळ्यो गळच्यो न्हय
तर
पावसाच्योय पावळ्यो गळटल्यो

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त सिडी प्लेयरांचींच पदां आयकचीं न्हय
तर
चिमण्यांचीं आनी कोगळीचींय पदां आयकपाक मेळटलीं

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त कृष्णाचोच वास आसचो न्हय
तर अल्ला आनी जेजूचोय निवास आसतलो

म्हाका एक अशें घर जाय
ज्या घरांत फक्त बॉन्सायचींच झाडां आसचीं न्हय
तर
विशाळ रूखां लेगीत आसतलीं

म्हाका एक अशें घर जाय....
म्हाका एक अशें घर जाय....



– मेहंदी अनय नायक देसाय
१२वी कॉमर्स,
गोपालनगर, पर्वरी – गोंय



## घुगूम

एक दीस अजापच घडलें
घुऽ घुऽऽम घुगूम दिसाचें भायर सरलें
वोताक पळोवन दोळे धांपले
वागोळ्यान सोमतेंच गॉगल दिलें
गॉगल घालून घुगूमान दोळे उगडले
रात समजून भोंव भोंव भोंवलें



## स्पायडरमॅन

एक दीस मज्जा जाता
टिव्हीवयलो स्पायडरमॅन
आमगेर मरे येता
मम्मान दिल्ली चा पियेवन
वणटीर वयर चडटा
कोळ्यान विणिल्ल्या जाळ्यान
घुसपून मरे पडटा
हांऽऽ हांऽऽ हांऽऽ हांऽऽ
हांव व्हडल्या व्हडल्यान हांसतां



## पोलिसमामा पोलिसमामा

पिल्लूक तूं वाजय वाजय
पिस्तूल मात दवर भितर
मम्मा म्हाका भिशटायता
न्हिदना जाल्यार तुका आफयता
पुलिसमामा पुलिसमामा
मम्मान आफयल्यार येवं नाका
दोळे धांपून रावलों जाल्यार
मात्सो म्हाका उठय नाका



– हर्षा शेटये
मडगांव – गोंय.
मो. : ९८५०५३०१५२

## हामा...हामा...हम्मा....

आमोरेचे मेरेर
कीर झेमेता
हामे हामे हामुले
गायेक हामेता
राती इती झाडांर
किडी किर्कीता
हामुल्याच्या मनार
भिरांत शिर्कता
तानेन ताळो सुकलो
भुकेक कैफ पिकलो
माये पान्याखातीर
मायेन चिप्प भिजलो
हामा हामा हम्मा
आयली हामुली अम्मा
मायेन तिणी दिलो
हामूक चुम्मा चुम्मा
हामु मायेन पिकलें
मोमो लुचूक लागलें
आनी मागीर उमेदीन
शेंपडी उबोवन धांवलें



– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन.



# संस्कार

**आ**यज तुमकां हांव एक काणी सांगतां. पार्थ नांवाच्या चल्याची. दिसपाक सामको हिरो. कुरळ्या केंसांचो, तांबड्या वोठांचो, गोरो गोरो पिठ्ठ! आमच्या तुमच्या सारको बाबडो. सादो-भोळो! पूण घरांत आई-बाबा, आजी सगळीं ताका ओगीच तापयतालीं. मस्तो म्हणटालीं.

खरें म्हटल्यार जाण्ट्यांक मान कसो दिवपाचो, बरें कशें वागपाचें हें सगळें तो जाणा आसलो. पूण मर्दीच ताका खूब राग येतालो. कारण तुमीच पळयात, अभ्यास करतां करतां टी. वी. लायलो जाल्यार कितें जाता? पूण ना! टी. वी. लायलो रे लायलो आई म्हणटाली, 'पार्थ टी. वी. बंद कर! टी. वी बंद.' पूण पार्थ टी. वी. बंद करपाक वेळ काडटालो. म्हणून आई ताका बेशिस्त म्हणटाली.

आजी ताका भोंवरो म्हणटाली. ताचो पांय एका जाग्यार उरनासलो. घरा आयलो काय ताका रोखडेंच भायर धांवपाक आवडटालें.

आतां तुमीच पळयात, सात-आठ वर्सांच्या भुरग्याक म्हणून दनपारचें न्हिदपाक जाता? पूण आपल्याक न्हिदपाक जाय म्हणून आजी पार्थाकय फोर्सान न्हिदयताली. पार्थय तसो हुशार! तो धा मिन्टां न्हिदपाचें नाटक करतालो. आज्जी घोरेवपाक लागली रे लागली घराभायर धांऽऽव मारतालो. सांजे मागीर बाबाकडल्यान धम्मक लाडू खातालो हें आनी वेगळें तुमकां सांगूंक जाय?

पार्थाची आई ताचेविशीं सदांच चिंता करताली. हाचें फुडें कशें जातलें? हाचो फुडार कितें? शिकतलो काय लोफर जातलो? हें आनी तें.

पूण आजी तिका सदांच सांगताली, "आगो, तूं भिवनाका. तो तसो वायट न्हय. प्रसंग आयलो काय जबाबदारी घेतलो तो! ताचेर संस्कार जाल्यात ते बरेच जाल्यात."

आनी एक दीस बाबड्या पार्थाचेर वायट प्रसंग आयलोच. पार्थाची आई-बाबा कामार गेल्लीं. शेनवारा अर्दे दिसाची शाळा करून पार्थ घरा आयलो. पळयल्यार कितें? घराचें दार उगडें, हॉलांत टी.वी. मोठ्ठ्यान चालू आसा आनी घरांत आजी ना.

हाचे पयलीं अशें केन्नाच जावंक ना. खंय गेली काय आजी? "आज्जे, आज्जे, खंय गे तूं? आज्जे..." पूण आज्जेचो आवाज ना. आज्जेकडेन सदांच झगडपी पार्थ आतां रडपाक पावलो. ताका ताची आजी जाय आशिल्ली. चोरानी बी व्हरूंक ना म्हू?

फोन करून बाबाक सांगल्यार बरें म्हणून ताणें रिसिव्हर हातांत उखल्लो. इतल्यान ताका घरा फाटल्यान कसलोतरी आवाज आयलो. फोन तसोच सकयल दवरून तो घराफाटल्यान धांवलो. जाल्यार कितें? आजी थंय निसरून पडल्या. तिच्या नाकांतल्यान रगत येता.

'आज्जे आज्जे' पार्थान तिका उलो घातलो. तिची तकली आपले मांडयेर घेतली. आपल्या शर्टान तिचें नाक पुसलें. ''उदक हाडूं तुका आज्जे? उदक हाडूं?'' अशें म्हणत तो धांवत भितर उदक हाडपाक गेलो.

ताचे तकलेंत विचारांचें चक्र चलतालें. कितें करपाचें? कोणाक सांगपाक शेजराक कोणच नाशिल्लो. ह्या वेळार सगळे कामार. बाबाक फोन केल्यार बाबा येतलो. पूण तो मेरेन आज्जेचें रगत व्हांवत रावल्यार? मागीर पार्थाक एकदम १०८ ह्या इमरजेन्सी ॲम्बुलन्सची याद जाली. ताणें बेगीबेगीन १०८क फोन केलो. आपल्या घराचो पत्तो सांगून ताणें म्हटलें, ''मात्शे बेगीन येयात. म्हजी आज्जी घरा फाटल्यान निसरून पडल्या. तिच्या पांयाचें हाड मोडलाशें दिसता. तिका बसपाक जायना आनी उबें रावंक जायना.''

मागीर ताणें बाबाक फोन करून सगळी गजाल सांगली आनी उदक घेवन आज्जे म्हऱ्यांत गेलो.

पंदरा मिण्टांनी ॲम्बुलन्स आयली. आज्जे वांगडा पार्थय हॉस्पिटलांत गेलो. ॲम्बुलन्साच्या दोतोरांनी पार्थाच्या बाबाक सरळ आझिलोन यो म्हणून सांगलें.

आज्जेच्या पांयाक मार लागिल्लो. पूण हाडां बरीं आशिल्लीं. पूण जर ती घरा फाटल्यान खूब वेळ पडून उरिल्ली जाल्यार मात चड रगत व्हावून तिका त्रास जावपाचो.

सगळ्यांनी पार्थाचें कवतूक केलें. आज्जेन म्हणलें, ''पळयलें, बरे संस्कार वेळाकाळार सदांच पावतात. मस्त्याक लेगीत जबाबदार करतात.''

समजलें न्ही तुमकां, आमकां भुरग्यांक ओगीच मस्तीं म्हणूं नाकात. पूण आमकां बरे संस्कारय दिवपाक विसरूं नाकात.

■■■



– प्रशांती तळपणकार

सांत इनेज, पणजी.

मो. : ९४२३८८७७०८



# रांवस पावलो दुबय

दुस्मानांचें घुसुघुसू आमकां सोडूंक आमच्या घरांतल्यान भोंवता आनी घरभर तेल नांवाची हळशीक सोडटा म्हूण सुळूक सामको बेजार आशिल्लो. घुसुघुसू आमकां धरूंक येतात हें आमकां ल्हारां कळयतात ही गजाल खरी. ताका लागून ताणीं उडयल्ल्या जाळांत फारावच्या पयलींच आमी पळ काडूंक शकतात हेंय खरें आशिल्लें. पूण त्या ल्हारांचेर बसून तें काळेंकाळें हळशिकावणें तेल येवन तोंडार बसता तें मात सुळूकाच्यान सोसूंक जायना आशिल्लें. तो तरी तें तेल तोंडाक लागल्या बराबर रोकडोच तीर मारून सकयल मेरेन उदकांत वतालो. आपलें तोंड धुवन परतून वयर येतालो. पूण ताच्याय परस ल्हान भावंडां मात तेल तोंडार पडले बराबर घुसमट्टालीं. स्वास घेवंक आपलीं कल्लीं जोर जोरान हालयतालीं. तोंड भर लागिल्ली ती जळकी ऑयल पळोवन, तांची तीं संवगां पळोवन पयलीं सुळूकाक पोटभर हांसूंक आयलें. पूण जेन्ना ताचींच सगळीं हीं घरचीं फुगार जातना ताणें पळयलें तेन्ना मात ताच्यान रावंक जायना जाल्लें.

ऑयलीची ही गजाल जाल्यार कचऱ्याचें दुसरें अरिश्ट. घुसुघुसू वेल्यान वचपी तांचे हे दुस्मान घुसुघुसुंतल्यान ऑयल बी सोडटाले तें जालेंच, पूण आपूण कितें कितें खाताले आनी तीं खाणां बांदून, गुठलावन बी हाडिल्ल्यो प्लास्टीकच्यो पोतयो काडून उदकांत उडयताले. त्या उदकांत म्हळ्यार सुळूकाच्या घरांत पडल्या बराबर सुळूक आनी ताचीं भावंडां त्यो पोतयो हातासपा खातीर धांवतालीं. पोटांत कितें पडलें जाल्यार पडलें म्हूण चोंचायतालीं. पोतयांतलें जें कितें खाण पडटालें तें कोणाच्याच तोंडांत सारकें पडनाशिल्लें. पोटांत वतालें तें प्लास्टीकच्या पोतयांचे कुडके. थू थू करून उडयल्यार लेगीत वचनाशिल्ले. एकदां शेजाऱ्याल्या दोडयाऱ्या पोरान अख्खी पोतीच ओडली तोंडान जाल्यार सगळीच शिरकली तोंडांत आनी पोटांत. वळवळून वळवळून मेलो बाबडो.

हें अशेंच चलपाचें ना. कितें तरी हाचेर उपाय काडूंक जाय.

सुळूक विचार करीत करीत हे तडीच्यान ते तडीक गेलो. ते तडीच्यान हे तडीक आयलो तेन्नाय ताची तकली

फिरली. दुस्मानानी उडयल्ल्यो सगळ्यो पोतयो दोनूय तडीनी मेळटा थंय फारकून उरिल्ल्यो. कांय खळयांनी सामक्यो फिट्ट बशिल्ल्यो, कांय व्हाळांनी शिरकून बशिल्ल्यो. ह्या व्हाळांतल्यान, खळयांतल्यान सुळूक आनी ताचे इश्ट बरेच मुखार मेरेन वचून येताले. वाटेर कितें मेळटा तें खाताले. तशें करतना दुस्मानांची सेवाय करताले.

तांकां पयलीं आमी करतात ती दुस्मानाची सेवा म्हणपाचें खबर नाशिल्लें. एकदीस सुळूक सदचेवरी आपल्या इश्टांवांगडा त्या खळयांतल्यान बरोच पयस गेल्लो. पळय जाल्यार ह्या खळयांतलें तांचें खाण वेगळ्याच समाजांतले ताचे नुस्तेंभाव खाताले. आपले परस सामकेच बारीक आंगलोटान तरी सामके शिटूक. पुटूक करून गिळटाले आनी रोकडेच दुसरेकडेन धांवताले.

सुळूकाच्या इश्टांनी सुळुकाक म्हणलें, "सुळ, हे कोण रे आनी खंयच्यान आयल्यात? धांवडावन घालुया?"

सुळूकान म्हणलें, "नाका, आमी आमच्या दुस्मानावरी, त्या मनशांवरी वागचें न्हय. जाका भूक लागल्या ते खातलेच. आमकां जाय तितलेंच आमी खावया. गरजेभायर अदाशांवरी भकारे जावन दुसऱ्यां पोटार आड वचूं नये! "

मागीर सुळूक ते कोण, खंयचे, भायल्या तेरचे काय म्हूण येवजूंक लागलो. मागीर अशें येवजून कांय जावपाचें ना, तांकांच वचून विचारप बरें, दुबावाचो म्हारू चड पेरीग! असो विचार करीत तांच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी तांची ताणें खबर घेतली.

ताणीं सांगलें, "आमी तुमचेच भाव कशे. पूण तुमी आमचे परस वयल्या समाजांतले. तुमी आमकां तशे लेखिनांत. देखून आमी तुमचे पासून पयसूच रावतात."

तें आयकून सुळूकाक वायट दिसलें. तोय आपल्या व्हडल्या दर्यांत रावपी सोयऱ्यांविशीं तशेंच येवजितालो. म्हणचे व्हडलें नुस्तें ल्हान नुस्त्याक खाता म्हणटात तें खरें तर!

"आमी तशे ल्हान-व्हड समाज बी मानिनांत. फकत तुमी खंयचे तें सांगात" सुळूकान तांकां म्हळें. तेन्ना हांगा थंय धांवत, आपलें माणकुलें आंग हालयत ताणीं सांगलें तें अशें –

खळी वाठारांत तांकां धाडयो म्हूण वळखतात. मनीस नांवाचो दुस्मान तांका खायना. सामकेच अकलेक आयिल्ले खातात तें वेगळें, पूण हे दुस्मान ह्या धाडयांचो वापर जळारांचीं तांतयां खावपा खातीर करताले खंय!

जळार आनी तातयां म्हणचे कितें हें सुळूकाक कळ्ळें ना. ह्यो धाडयो म्हणटात त्यो बऱ्योच शाण्यो आसूंक जाय अशें ताका दिसलें. सुळूकान लजत लजत एके धाडयेक तें विशीं विचारलें. ती धाडी त्या धाड्यांमदली जाण्टी आसूंक जाय. आपल्या आयुश्यांत तिणें बरींच तांतयां खाल्ल्यांत अशें दिसतालें. रावंसाच्या ह्या पोराक भियेनासतना तिणें सांगलें, "बाबू हें पळय, तूं व्हडल्या कास्ताचे फामिलींतलो म्हूण आमचे तुळेन व्हडलो दिसूं येता. पूण तूं म्हज्या परस सामको भुरगो. म्हज्याच नातरां पिरायेचो. आपल्याक जें खबर ना तें गिन्यानी मनशाक विचारूंक लजपाक फावना. गिन्यान जंयसून मेळटा थंयसून घेवंचें. हो ल्हान, तो व्हड म्हणत गिन्यानांक पारखें जावंचें न्हय. तर आयक, तातीं म्हणल्यार तूं जल्मूचे पयलीं आवयच्या पोटांत तांतया रूपान आशिल्लो. मागीर त्या तांतयांतल्यान तूं भायर आयलो."

सुळूकाक हें आयकून मजाच दिसली. आपूण आवयचे पोटांत आशिल्लों हें ताका खरेंच दिसलेंना.

तेन्ना धाडयेन ताका सांगलें सगळे जीव आवयच्या पोटांत तांतयाच्या रूपान आसता आनी मागीर ताचो जीव जाता. तुजोच तसोच जल्म जाला आनी म्हजोय तसोच जाला. तूं जळार म्हणटकच अजापलो त्या जळाराचोय जल्म असोच जाला."

"तीं जळारांय आमच्या घरांत म्हळ्यार उदकांत रावतात गे धाडये मामी?"



सुळूकान सामकें उत्सुकतायेन तिका विचारलें. ते येदेशे धाडयेक मामी म्हणटना ताका हांसूंक आयलें. आपली आवय ती केदी व्हडली. मागीर तिजो भाव म्हजो मामा केदो आसूंक जाय! आनी मामाची बायल ही येदीशी? ही धाडयीमामी म्हजे एका कल्ल्या येदी लेगीत ना. पूण आसूं! कोणाकूय मामी म्हळयार कांयच वायट जायना.

आपल्याक हो येदो व्हडलो रावंसापिलो मामी म्हणटा तें आयकून धाडयेकूय बरेंऽऽ दिसलें. ती अदीकूच सुळूकालागीं आयली.

"जाणा मरे बाबू, तीं जळारां तुज्या घरांत रावनांत. तीं रावतात वयर जे कोण आमचे दुस्मान आसात तांच्या घरांनी. तीं मागीर त्या मनीस म्हणटा तांका चाबता. मागीर तांकां मलेरिया म्हणटात तें दुयेंस जाता. सारकें वखद केलेंना जाल्यार मागीर ते मरतात."

धाडयेन सुळुकाक बरो समजायत सगळी म्हायती दिली. सुळुकाक खोस जाली. आमच्या घरांत हळशीक करपी ह्या सगळ्या घुसुघुसुवाल्यांक मलेरिया जाल्यार पुरो अशें मनांतल्या मनांत म्हणत ताणें ततयांची म्हायती घेतली.

धाडीय सामकी उमेदीन भरली. तिचीं नातरां लेगीत तिचें कांयच आयकनाशिल्लीं. पूण हो कोणालो कोण येता आनी आपल्याकडच्यान खबर घेता! आपूण सागतां तितलेंय बारीकसाणीन आयकता!

"जाणां मरे हीं जळारां आपलीं तांतयां तूं रावता त्या खाऱ्या उदकांत घालीनांत. तीं ततयां घालतात खारसाण नाशिल्ल्या साव्या उदकांत. तेंच उदक आमकांय आवडटा. आमी भोंवतां भोंवतां तांचीं तांतयां मटक करतात. बरींऽ लागतात. आमचें पोट भरता खातकच. पूण त्या मनशांक दिसता आमी मलेरिया जावपी जळारांचीं ततयां खावन जळारां उणीं करतात. देखून ते आमकां पोसतात आनी जळारांचीं ततयां आसतात थंय व्हरून सोडटात."

सुळूका भोंवतणी कितल्योच आनाळ्यो गुनाळ्यो काडीत धाडयेन म्हळें. तिगेलो तो नाच सुळूकाक बरोऽ दिसलो. ताका तिका सांगन दिसलें, तूं आयच्यान तीं तांतयां खावपाचीं सोड. जावंदी जळारां. चाबूंदी त्या मनशांक. जावंदी तांकां



धर्तर म्हणटात तो गिरो आसा आनी मनीस म्हूण जातीचे कोण आसात तेच ह्या गिऱ्याचेर अधिकार गाजयता आसले तरी आमचें साम्राज्य चड व्हडलें आसा. अशें ताका धाडयेमामीन म्हणिल्लें. तिर्णेय तें मनीस जातीचे लोक उलयतना आयकल्लें. अशें जर आसत जाल्यार त्या मनशांनी आमचेर अत्त्याचार करप समा न्हय. आमकां खावप, आमचेर आपली जीण जगोवप आनी इतलेंय करून आमकां सतावप? कोणाचेर अन्याय करप ना आनी दुसरो कोण आपल्याचेर करता जाल्यार तो सोंसप ना हें सुळूकान घट बरें मतींत धरलें.

मनीस जात करता तो नुस्तेजातीचेर अत्त्याचार. त्या अत्त्याचाराक विरोध हो करूंकच जाय. आमची न्हंय, आमचो म्हालदर्या हे मनीस जातीचे हळशिकेंतल्यान मुक्त करूंकच जाय असो विचार करीत सुळूक घरा परतलो.

घरा येवन ताणें आवयक सांगलें, ''आवो हांव म्हालदर्यांत वतां.''

आपल्या पुतान हें नेटान म्हणटकच रावंशीणीन आंग काडलें. हो सुळूक तकलेन सुटला काय किर्ते? आपूण म्हालदर्यांत गेल्लीं तेन्ना त्या व्हडल्या व्हडल्या दातांच्या व्हडल्या व्हडल्या राकेसजातीच्या नुस्त्यांकडल्यान कशींसुटून आयल्यां ती आपूण जाणां! पूण हो थिगराचे मिशयेयेदो लेगीत

मलेरिया. आमच्या उदकांत, आमच्या घरांनी प्रदुशण करतात ते.

पूण हो फकत सुळूकाचो त्या मनीस नांवाच्या दुस्मानावेलो किंवाटो आशिल्लो. त्या जळारांकूय त्या मनशांक मलेरिया दिवन मारपाचो अधिकार नाशिल्लो. म्हणटकच धाडयो करतात तेंय सारकें अशें सुळूकाक दिसलें. आमच्या नुस्तें समाजांतलो बारीकांतलो बारीक घटक लेगीत हेरांची सेवा करता तें पळोवन सुळूकाक बरेंऽ दिसलें.

सुकती येवपाचो वेळ लार्गी पावला हाची सुलूस लागतांच सुळूकान धाडयेमामीचो निरोप घेतलो. धाडयेमामीनूय ताका उतर दिलें, गरज लागता तेन्ना आमीय संपार वतलीं. फकत केन्ना तें कळय म्हूण!

आमच्या समाजांतले लोक धतरिवेल्या जळामळाच्या उदकांत फाफसूं! ते खाऱ्या उदकांतले आसूं वो साव्या उदकांतले आसूं! ते सगळे एक! संकश्टा वेळार आनी समस्त नुस्तें जातीच्या रक्षणा खातीर जर तांका उलो घालो जाल्यार ते सहकार्य करूंक फाटीं रावचेनांत म्हणपाचें सुळूकाच्या लक्षांत आयलें. ताका आतां आनीकूय हुरूप आयलो.

आपली आवय व्हडल्या कॉलनीची, आपल्या व्हडल्या सोयऱ्यांची गजाल करताली ताची ताका याद जाली. घरा परततां परततां सुळूक विचार करूंक लागलो.

हे जे व्हडले व्हडले आमचे सोयरे अरबी म्हालदर्यांत रावतात ते नाय म्हळ्यार आमचेच सोयरे कशे! हो जो

नाशिल्लो पोर आपूण म्हालदर्यांत वता म्हूण सांगता म्हळ्यार किर्ते?

रावंशिणीन सुळूकाक आपलेपरीन जायतें सांगून पळयलें. म्हालदर्यांत वतना वाटेर येवपी अडचणी, संकश्टां आनी अरिश्टांची म्हायती दिली. केदे केदे व्हडले राकेस जातीचे आपल्याच समाजांतले आमचे दुस्मान आसात तें सांगलें. तें सांगतना आपूण तांच्या तोंडांतल्यान कशी सुटली हें परतून एकदां सांगपाक विसरली ना.

पूण सुळुकान तें कानामनार घेतलें ना. तो एकदां दाडेक धरतालो तें सहसा सोडिनाशिल्लो. आपूण जल्माक आयलां तो कोणाच्या तरी तोंडांत पडपाकूच हें तो जाणां आशिल्लो. आयज ना तर फाल्यां कोणूय म्हाका धरून मटक करतलोच. मागीर समस्त नुस्तेंजातीच्या संरक्षणाक, न्हंय आनी म्हालदर्या हांचे नितळसाणे खातीर वावुरतना आपूण जर आमच्याच समाजाच्या तोंडांत सांपडलों आनी तातूंत जर आपल्याक मरण आयलें जाल्यार ताचे इतलें भाग्य आनी दुसरें आसचेंना!

ही गजाल ताका होलमतकच आनीकूय हुरूप आयलो. ह्या येवाशा पोराक हें असलें तत्वगिन्यान कशें आनी खंयच्यान कळ्ळें हें रावंशिणीक कळ्ळेंना. आपलो हो पोर सहजासहजी कोणाचे भकीक पडूंक येवंक ना म्हणपाचें तिका कळ्ळें. सुळूक व्हड काम करूंक आपल्या ताटयांत जल्मला हें तिका होलमलें. आपली गाबोळी ही भाग्यवान थारतली म्हणपाचें तिका आतांच दिसूंक लागलें. तिणें सुळूकाक म्हालदर्यांत वचपाक परवानगी दिली. सुळूकाक म्हालदर्यायेदी खोस जाली आनी आपले आवयचो अभिमानूय दिसलो. व्हडा खोसयेन तो म्हालदर्यांत वचपाचे तयारेक लागलो.

(चलता)





# आमचो अंकल पै गेलो

माणकुल्या मित्रांनो,

तुमी अंकल पै हें नांव आयकलां? अंकल पै आठ वर्सां पयलीं गोंयांत आयिल्ले. कोंकणी दिसाळें जें 'सुनापरान्त' म्हूण आसा पळय त्या दिसाळ्याच्या संपादकान अंकल पैची आनी तुमच्या सारख्याच माणकुल्यांची भेट घडोवन हाडपाखातीर पणजे एक कार्यावळ आयोजित केल्ली. खूब भुरगीं आनी जाण्टेय अंकल पै क मेळूंक थंय जमिल्ले. ताणीं मागीर खूब गजाली केल्यो जमिल्ल्या सगळ्यांकडेन. एक सांज सामकी उमेदीन, हांसत खेळत सारिल्ली ते दिसा अंकल पै वांगडा.

असो कोण हो अंकल पै? आनी ताची शी गजाल ह्या आमच्या आंगणांत कित्याक अशें तुमी म्हणटलीं न्हय? ताकाय कारण आसा. अंकल पैन तुमच्या सारख्या भुरग्यांक वाचूंक मेळचीं म्हूण खूब पुस्तकां काडलीं. तीं पुस्तकां वाचुनच खूबशे भुरगे व्हडले जाले. आतां लेगीत खूबशीं भुरगीं ताणीं तयार केल्लीं पुस्तकां वाचतात. तेच पासत सगळ्या भुरग्यांचो तो अंकल जालो. काणयो सांगपी मामा. तांका ताच्या खऱ्या नांवा परस अंकल पै ह्या नांवानूच सगळ्या वाठारांतलीं भुरगीं वळखतालीं. अंकल पै म्हळ्यार अनंत पै. अनंत पै हे रसायन शास्त्राचे विद्यार्थी आशिल्ले. तांका ल्हानपणासावन बरोवपाची आवड आशिल्ली. ते मुळचे कर्नाटकाचे. कोंकणी मनीस ते. कर्नाटकांतल्यान ते मुंबय आयले. युडीसिटी सारखे नामनेचे संस्थेंतल्यान ते इंजिनिअर जाले. पूण तांका बरोवपाची आवड आशिल्ल्यान ते बरयत रावले.

पयलीं शाळेंत भुरग्यांक शिकयतना हातांत बडी घेवनूच शिकयताले. बडयेच्या भंयान भुरगीं भियेतालीं आनी अभ्यास करतालीं. खरें म्हळ्यार मार खावन, माराच्या भंयान शिक्षण सारकें जायच ना. गिन्यान जर मेळयतलो जाल्यार शिकप हांसत खेळत जावंक जाय. हेंच अनंत पैन वळखलें आनी अशे तरेन वावर करपाचें थारायलें.






आमच्या भारताभायर भुरग्यां खातीर कॉमिक्स तयार जातालीं. टिनटीन, ॲस्टेरिक्स सारकी पुस्तकां भायल्या देशांतलीं भुरगीं उडयो मारून घेतालीं आनी उमेदीन वाचतालीं.

अनंत पैन ही गजाल मतींत धरली आनी इंद्रजाल, अमर चित्रकथा, कॉमिक्स बी फटाफट बाजारांत हाडलीं. अत्यंत सादे भाशेंत आनी आकर्शक रेखा चित्रांनी सजयल्लीं हीं




पुस्तकां फकत इंग्लीश भाशेंतल्यानूच न्हय तर हिन्दी, मराठी, मल्याळम, तेलगु, कन्नड बी भारतीय भासांतल्यान हीं पुस्तकां देशभरांतल्या भुरग्यांकडेन पावंक लागलीं.

अनंत पै अशे तरेन ह्या भुरग्यांचो अंकल पै जालो. अंकल पै चित्रकाराक आपले तकलेंतली कल्पना सांगी. चित्रकार ते तरेन चित्रां काडी.

फॅन्टम मॅण्ड्रेक हीं फामाद पात्रां ताणीं भुरग्यांमदीं हाडलीं. तेच वांगडा




भारतीय पात्रांय तयार केलीं. कलंदर, शिकारी शंभू, कालिया ह्या सारकीं पात्रां तांच्या पुस्तकांतल्यान अजरंवर जालीं.

असो हो भुरग्यांचो अंकल पै म्हळ्यार अनंत पै फेब्रुवारी म्हयन्यांत संवसाराक अंतरले. ते हो संवसार सोडून गेले पूण ताणीं तयार केल्लीं कॉमिक्स मात आमचे मदीं उरतलीं.

■ ■ ■

## जाण्टो जालां

बाबूक मम्मान
मोटार हाडली
दुसरेच दिसा
बाबून ती मोडली

बाबूक पप्पान
पेंपारें हाडलें
दुसरेच दिसा
बाबून तें मोडलें

बाबूक आज्जान
आलार्म घडयाळ हाडली
दुसरेच दिसा
बाबून ती मोडली

बाबूक सगळो खेळ
हाडलो तो बाबून मोडलो
आतां बाबू जाण्टो जाला
क्रिकेट खेळूंक लागला

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.



# अशेंय हळदकुंकूम...



– अंगिता शणै नगर्शेकार
गीत–गोविंद बंगलो,
आके बायश, साश्ट–गोंय.

**आ**गे, कोण गे ती कल्पना. कल्पना करता ती? कोण? व्हनीबाय गे? कितें जालें? कितें म्हणटा तूं? अंदू हळदकुकूम करची ना, करची ना म्हणटां म्हणटां केले कित्याक काय म्हणटा?

आगे, अशी लागीं यो सांगतां. सगळें सविस्तर सांगतां.

तूं म्हणटा तें सामकें बरोबर. ह्या वर्सा म्हारगाय सामकी मळबाक तेंकली. कांदे म्हारग. बटाट म्हारग, भाजी–नुस्तें सगळ्याक उजो पेटलो. भांगराचें तर नांव काडूं नाका. एका तोळ्याक वीस काय एकवीस हजार रुपया मगे? भांगराचें नांव नाका. शेटीचें तोंड पळोवंक नाका अशी गत! एकट्याच्या पगारांत कितें जातलें?

देखून हाणीं म्हाका सांगलें, ह्या वर्सा तूं हळदकुंकूमाक मात्सो ब्रेक दी. ब्रेक के बाद फुडल्या वर्सा मागीर पळोवंचें.

पूण हांव तें कल्पना. ओगी बरें बसत! हांवें केली आयडिया. आयडिया, जो बदल दे आपकी दुनिया.

परिक्षेक बसचे पयलीं जशें वेळापत्रकाचो अभ्यास करतात, तशें हांव अंदूचें केलेंडर घेवन बसलें. १५ जानेवारीक मकरसंक्रांती दिसा सुरू जावपी हळदकुकूम माघ म्हयन्याचे म्हणजे १० फेब्रुवारीक रथसप्तमी दिसा सोंपता. म्हणजे अंदू बद्द २७ दीस हळदकुकूम. आगेबाये म्हणजे कितल्यो साडयो लागतल्यो?

कितें? कितें म्हणटा? प्रत्येक दिसा हांव नव्यो नव्यो साडयो न्हेसून भायर सरिल्लीं म्हूण? मागीर? थंयूय हांवें आयडियाच वापरली. कल्पनाची आयडिया!

कितें केलें जाणा? हळदकुकमा दिसांनी मदीं २६ जानेवारी आयिल्लो न्हय? तें निमित्त केलें आनी पयस–पयस रावपी लागिच्या सोयऱ्यांक मिस्ड कॉल दिले आनी तांणी फोन लायतकच २६ जानेवारीक शाळेंतल्या कार्यावळींक भुरग्यांक न्हेसपाक तरेतरेच्यो साडयो जाय म्हण सांगलें. घे– कोणें तांबडी साडी धाडली. कोणें पांचवी. कोणें हळदुवी. कोणें व्हडले जरीच्या पदराची – कोणें जरीचे देगेची. घे म्हूण साडयो दारांत. मागीर न्हेसलें हांव एका दिसा एक साडी, गेलें हळदकुकमाक हाडलीं वायणां पुंजावन. आयडिया!

हळदकुकूम कशें केलें म्हणटा? आयक गे! कोणाक सांगू नाका हां! ह्या कानाचें त्या कानाक लागूं दिवं नाका. तुका म्हूण सांगतां.

हळदकुकमाक म्हाका अंदू खूब जाणांनी आपयल्लें. कोणे शाबू वाटले. कोणें च्याचो पालो. कोणें साखर वाटली.

हांवें कितें केलें? पुंजावन हाडिल्ल्यो एकेच तरेच्यो वस्ती एकार एक अश्यो मांडून दवरल्यो. म्हणजे शाब्बाचेर शाबू. साखरेचेर साखर अशें! चणे–तिळगूळ आतां पाकिटानी दिता न्हय! पोरूचीं थोडीं रिकामीं पाकिटां म्हजेकडेन आशिल्लीं. मेळिल्ल्या पाकिटांतले थोडे–थोडे तिळगूळ–चणे हांवें रिकाम्या पाकिटांत घालून–पाकिटां वाडयलीं. हाडिल्लीं खावचीं पानां पयलीं कागदांत घालीं. मागीर प्लास्टिकचे पोतयेंत घालीं आनी फ्रिजांत उडयलीं. तशीं उरलीं टवटवीत सामकीं.

सुपारेचीं पाकिटां मेळिल्लीं न्हय? तीं एका लातांत घालून बरीं करून दवरलीं आनी पयशे मिलेरांत घालून दवरले. आनी कितें केलें जाणां? म्हाका पळय आपयल्लें न्हय, तितल्यांकच हांवें आमगेर हळदकुकमाक आपयलें.

रथसप्तमी दिसा, म्हणजे निमणे दिसा आमगेर हळदकुकूम दवरलो. ती गे ती व्हडल्या पदराची देगेची साडी ती न्हेसलें. फाटल्यान प्रभागेर मगे त्या दिसा खूब रतन आबोलीं फुलिल्लीं. म्हाका रतन आबोलीं आवडटा म्हूण थोडीं काडटां अशें म्हण रावलें ना. ताणें काड म्हणचे पयलींच सगळीं ताचीं आबोलीं हांवें बुड्डून हाडलीं. थोड्या आबोल्यांची फाती घालून हांवें बरी आंबाड्या भोंवतणी माळ्ळीं आनी तयार जालें.

दारांत आयिल्ल्या सगळ्या सवायशिणी बायलांक हळदकुकूम लायलें. रतन आबोलीं दिलीं. पाकिटांतले चणे, तिळगूळ दिले. फ्रिजांतलीं खावचीं पानां, लातांतली सुपारेचीं पाकिटां आनी मिलेरांतले पयशे दिले.

परत एकदां आयडिया केली. एका बरोबर कितलीं जाणां भितर सरल्यां तीं पळयलीं. तीग जाणां आयल्या आनी भितर तीन च्याचीं पाकिटां आसा, तेन्ना च्याचीं पाकिटां वायण म्हूण दिलें. एकाबरोबर पांच जाणां आयल्यां आनी पांच शाबू आसा तर शाब्बाचे वायण दिलें. अशें करून आयडिया वापरून आयिल्ल्या सगळ्यांक वायणां दिलीं.

कळळें मगे तुका? शेवटी कितें? हळदकुकूम म्हळ्यार उशणें वायणूच न्हय? तुवें म्हाका दिलें तेंच हांव तुका बरे उमेदीन परत दितां.

कितें म्हणटा कशी लागली तुका ह्या कल्पनाची आयडिया?

■ ■ ■



- अपर्णा गारुडी
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४

# क्लीक द मायंड




***कायद्या प्रमाण शिक्षक शिक्षा दिवंक शकनात. पालकांचें तर आयकच नात. दरेक पालक 'भुरगीं आमचें आयकनात.' हीच तक्रार करतात तेन्ना म्हाका प्रस्न पडला अश्या विद्यार्थ्यांक 'जाय तें करात' म्हूण वाऱ्यार सोडप? आमकां भुरगीं आमचें आयकनात अशें दिसता कारण आमी तांचेकडेन संवाद साधपाक, तांका समजून घेवपाक आनी भावनीक संरक्षण दिवपाक उणे पडलात.***

**हा**लींच 'सीआरजी' म्हळ्यार 'चील्ड्रेन्स रायटस् इन गोवा' हे संस्थेन गोंयच्या शाळांतले समुपदेशक आनी शिक्षक समुपदेशक, तशेंच मुख्याध्यापकांखातीर पणजेच्या गोवा चेंबर ऑफ कॉमर्सान एक दिसाची कार्यशाळा घडोवन हाडिल्ली. मुंबयचे नामनेचे मानसोपचार तज्ञ आनी समुपदेशक डॉ. हरिश शेट्टी हाणी हे कार्य शाळेंत भोवमोलादीक अशें मार्गदर्शन केलें. शिक्षक समुपदेशक म्हूण हे कार्यशाळेक हाजिर रावपाची संद म्हांका मेळ्ळी. कार्यशाळे उपरांत डॉ. हरिश शेट्टी हांचेकडेन संवाद साधून हांवें जायत्या विद्यार्थ्यांच्या समस्यांचेर मार्गदर्शन मेळयलें.

गोंय राज्यांतच न्हय तर देश भर विद्यार्थ्यांच्या वाडट्या आत्महत्येचें प्रमाण पळोवन 'ह्यो आत्महत्या टाळपाखातीर कितें करूं येता' ह्या विशयाचेर देशभर अश्यो कार्यशाळा विंगड संस्था घडोवन हाडीत आसात. ही आयज काळाची खरी गरज आसा. हांव ह्या विशयाचेर बरयना. एक शिक्षिका-समुपदेशक आनी रिसोर्स पर्सन म्हूण ह्या संदर्भात म्हजे अणभव पालक आनी शिक्षकांमेरेन पावचे हे खातीर ह्या माध्यमाचो आदार घेतां.

पालक-शिक्षक आनी विद्यार्थी ह्या त्रिकोणाचे तीन कोन आमकां जुळिल्ले दिसले तरी शिक्षण प्रक्रियेंत खंय तरी कितें तरी चुकता... ते कितें? आयचे विद्यार्थी, पालक आनी शिक्षक अशे कित्याक वागतात? विद्यार्थ्यांच्या मनांत आत्महत्येचे विचार कित्याक येतात? हे विचार मनांक सतायताले तेन्नाच कार्यशाळेक हाजीर रावपाची संद मेळ्ळी. डॉ. शेट्टी हांची कांय ठळक वाक्यां मनांत घट्ट उरलीं. कशींच हालपाक तयार नांत. तीं म्हळ्यार.

१)suiide is an accident of mind.

२) suiide is become very common.

३) violence is not the method of problem solving.

४) corporal punishments are always problem creating.



प्रत्येक पालक आनी शिक्षकान विचार करचो अशीं हीं वाक्यां. रस्त्यावेल्या अपघातां इतले सहजतायेन मनाचे अपघात जावपाक लागल्यात. कार चलयतना गर्देच्या रस्त्यार ब्रेक दामपाच्या वेळार चुकून ॲक्सीलेटर दामलो जाल्यार अपघात अटळ आसता. असले चुकीक माफी ना. तेच प्रमाण जीणेच्या मार्गार मनाचे गाडीयेचो ब्रेक फेल जालो काय अपघात अटळ. हे खातीर अत्महत्येक प्रवृत्त करपी वातावरणांतल्यान तांका विद्यार्थ्यांक भायर काडप हो एकमेव उपाय.

आयच्या विद्यार्थ्यांची परिस्थिती, शिक्षण पध्दती आनी अपेक्षांचें वाडटें वजें हाचो विचार करीत जाल्यार आत्महत्या कित्याक जातात तें कळटलें. म्हज्या तेवीस वर्सांच्या शिकोवपाच्या अणभवांतल्यान एक गजाल जाणवता ती ही की ह्या पांच वर्सांतल्या शालेय विद्यार्थ्यांची मानसिकताय खूब वेगळी आसा.सगल्या दृकूश्राव्य माध्यमांचो खोल परिणाम तांचेर जायत आसा. टी. वी, तशेच संगणक आनी 'इटरनेटाच्या जाळांत हीं भुरगीं इतलीं घुस्पल्यांत की थंयच्यान तांकां भायर काडप पालकांक अशक्य जालां. कितें पळोवचें आनी पळोवचें न्हय, कितें आयकचें आनी आयकचें न्हय, कितें उलोवचें आनी उलोवचें न्हय हें तांका समजावन सांगपी पालकच तांचे पासून पयसावपाक लागल्यात. आवय-बापूय दोगांयनी नोकरी करप ही काळाची गरज आसतली तरी भुरग्यांकडेन आवय बापायचो संवाद खूब उणो जाला. आपल्याक भुरगेंपणांत जें मेळ्ळें ना, त्यो सगल्यो वस्तू आनी सूख..सुविधाय भुरग्यांक दुडवांच्या बळग्यार दिल्यो काय आपलें कर्तव्य सोंपलें अशें तांकां दिसता. भुरग्यांकडेन उलोवपाक तांच्यो मानसिक गरजो जाणून घेवपाक आयज पालकांकडेन वेळ ना. शिक्षक पोर्शना फाटल्यान धांवतात आनी बाबडे विद्यार्थी... ते आपल्यो भावनीक गरजो पुराय करपाक मनरिजवणीच्या विंगडविंगड माध्यमांक बळी पडटात. गोंयच्या शारांतल्या शाळांत शिकपी विद्यार्थी सुशिक्षीत वातावरणांतल्यान येतात. तांची गजाल वेगळी. पूण हांगाय अपेक्षांचें वाडटें वजें आनी सर्त हाका लागून 'आत्महत्या' घडटात. शारांतले वीस टक्के विद्यार्थी म्हळ्यार गोंय न्हय. गोंयचे अयशीं टक्के विद्यार्थी गांवगिऱ्या वाठारांतल्या शाळांनी शिकतात. तांची सरभोंवतण, तांचे अणभव विश्व, भावनीक गरजो आनी पोटा फाटल्यान वचपी तांचे पालक हांचो विचार कोण करतलो?

सत्य परिस्थिती ही आसा की गांवगिऱ्या वाठारांतल्या चडशा शाळांनी आपल्या मळार (विशयात) नामना जोडिल्ले उत्कृश्ट शिक्षक आसात. पूण पन्नास टक्के विद्यार्थी आयज बॅग घेवन घरा वतात ते दुसरे दीस तश्यातशें परत स्कुलांत हाडटात. घराकडेन उगडून लेगीत पळयनात. धा टक्के विद्यार्थी पुस्तकां जड लागतात म्हूण वर्गांतच फाटल्या बाकांत दवरून हात हालयत वतात आनी येतात. कितलेंय समजायल्यार गृहपाठ करून येनात. कायद्या प्रमाण शिक्षक शिक्षा दिवंक शकनात. पालकांचें तर आयकच नात. दरेक पालक 'भुरगीं आमचें आयकनात.' हीच तक्रार करतात तेन्ना म्हाका प्रस्न पडटा अश्या विद्यार्थ्यांक 'जाय तें करात' म्हूण वाऱ्यार सोडप? आमकां भुरगीं आमचें आयकनात अशें दिसता कारण आमी तांचेकडेन संवाद सादपाक, तांका समजून घेवपाक आनी भावनीक संरक्षण दिवपाक उणे पडटात. ल्हान भुरग्यांक पालक-शिक्षकांच्या मायेची जितली

गरज आसता तितली उ. मा. विद्यालयांत शिकपी १६-१७ वर्सांच्या विद्यार्थ्यांकय आसता. डॉ. हरिश शेट्टी म्हणटा 'ह्या विद्यार्थ्यांचे फाटीर वा तकलेर मायेन हात भोंवडायात आनी पळयात तांकां कितलो आदर मेळटा. तुमचो स्पर्श तांका धीर दितलो.' कार्यशाळेक आयिल्ल्या एका सरान म्हळें, 'शिक्षिकेन विद्यार्थ्यांचे तकलेर वा फाटीर हात भोंवडायल्यार कांय जावचें ना, पूण सरान (शिक्षकान) विद्यार्थिनीच्या फाटीर हात भोंवडायल्यार तांचे पालक जाब विचारपाक घरामेरेन पावतले.' तांचें म्हणणें सामकेंच चुकीचें नासलें. सद्या परिस्थितीच तशी आसा. पूण आमकां एक करपाक जाता.

मायेची भास, स्पर्श हो ल्हान बाळकांसावन जाणट्यांमेरेन सगल्यांक समजता. वासना आनी माया ह्या दोन भावनांचे शरिराक जावपी स्पर्श आनी त्या स्पर्शाचें गिन्यान भुरगेंपणातूच विद्यार्थ्यांक वळखुपाक शिकयलें जाल्यार शिक्षक वा शिक्षिकेन फाटीर मायेन हात भोंवडायल्यार तांकां वाकडें दिसचें ना (चिल्ड्रन रायटस् इन गोवा ही संस्था हें गिन्यान भुरग्यांक शिकयता.) वयल्यान धीर आनी आदार मेळटलो. तांच्यो समस्या सोडोवपाक मजत जातली, मायेच्या स्पर्शाक आशेल्ल्या ह्या विद्यार्थ्यांक "How to respect human body" हाचें शिक्षण मेळ्ळें जाल्यार तांचे जिणेंत निर्माण जाल्ल्यो कितल्योश्योच शारिरिक आनी मानसिक समस्या सोंपतल्यो. ज्या शिक्षकांकडेन विद्यार्थ्यांच्यो समस्या आयकून घेवपाचें पासिंयेस आसता तांचेचकडेन तीं मन उगतें करतात. मेकळेपणान उलयतात. पूण अशे शिक्षक वा पालक मेळ्ळेना जाल्यार मनाचो घुस्मटमार जावन 'अपघात' जावपामेरेन प्रकरण पावता, गोंयच्या दर्यादिगेर आशिल्ल्या इश्कोलांची परिस्थती हुस्को करपासारकीच आसा. ह्या पांच वर्सांत विद्यार्थीवर्गांत घडिल्लो मानसिक बदल चिंताजनक आसा. विद्यार्थी पर्यटन वेवसायाच्या दुष्परिणामाक व्हड प्रमाणांत बळी पडपाक लागल्यात. आवय बापूय 'शॉक' चलोवपाच्या वेवसायांत पडिल्ल्यान दुर्लक्षीत जाल्लीं भुरगीं जायतीं प्रलोभनां आनी व्यसनांक बळी पडपाक लागल्यांत सोरो आनी घुंवळी वखदांनी उध्वस्त जाल्ल्या घराब्यांतल्या ह्या भुरग्यांक कोण वाट दाखयतलो? कोण मानसिक आदार दितलो? अशा विद्यार्थ्यांखातीर दर्यादिगेच्या शाळांनी 'काउन्सलींग सेंटर' सुरू केलां. भुरग्यांक वेळ दिवंक शकनाशिल्ले चडशे पालक तांच्या अपेसांक शिक्षकांकूच जापसालदार थारावपाक लागल्यात. आपलो भुरगो दिसभर कितें करता हें ह्या पालकांक खबर नासताच. ते फकत रिजल्टावेळार वाद घालपाक येतात. नाजाल्यार वर्गांतच आपल्या भुरग्याक नापास जालो म्हूण बडोवपाक लागतात. अशा विद्यार्थ्यांक समुपदेशनाची गरज आसता हें समजून घेनासतना शिक्षकांक जापसालदार धरपाच्या पालकांचे प्रवृत्तीक लागून विद्यार्थ्यांच्या गुन्यांवकारी प्रवृत्तीक, अपेसाक आनी मस्तेंपणाक जाग्यार हाडपाचो यत्न करपी शिक्षकय आतां वाजेल्यात, 'कोणाक पडलां ह्या भुरग्यांचें, जाय तें करूं. आमकां आमचो पगार मेळटकच जालो. कित्याक जाय नसत्यो भानगडी?' अशे तरेची एक निर्शेवणेची भावना आनी नकारात्मकताय कांय शिक्षकांभितर निर्माण जाल्या.

हें सगलें टाळपाचें आसत जाल्यार भुरगेपणांतच पालकांनी आपल्या भुरग्यांक 'वेळ' दिवन तांचेर योग्य संस्कार करपाक जाय. कारण विद्यार्थी फकत 'स' वरां इश्कोलांत वा कॉलेजींत आसतात. उरिल्लीं अठरां वरां घरा म्हळ्यार पालकांकडे आसतात. शिक्षक आपलें कर्तव्य करतातूच पूण पालकांनीय वेळाचो योग्य उपेग करून स्वताच्या भुरग्यांखातीर 'वेळ' काडप गरजेचें. पालकांनो तुमचो भुरगो कसोय आसूं ताका अपेक्षा विरयत स्विकारात. मोगान घडयात. ताच्या मनाची वळख करून घेयात. वेळ आयला ताचे खातीर 'वेळ' दिवपाचो. वेळारूच ताच्या मनाचो सोद घेयात आनी भितर कितें शिजता तें जाणून घेयात. मनाचो accident जावचे पयलीं.... सावधान!

क्लिक द मायंड!

■ ■ ■



# काळजां-मनां उजवाडावपी डॉक्टर अब्दुल कलाम!

आमच्या भारताचो आदलो राष्ट्रपती आनी शास्त्रज्ञ, डॉ. ए.पी.जे. अब्दुल कलाम, कितल्याच जाणांचो आर्दश जाला. कितल्याच जाणांची जीण आपले बुद्दीन, जाणवायेन ताणीं सुफळ केल्या. लोकांमदीं एकरूप जावपाचो तांच्यांत आशिल्लो गूण तांचें खाशेलेंपण. ल्हानांतल्या ल्हानांक ते आपणाक लागींचे दिसतात. असोच, राष्ट्रपतीक डॉ. कलामाक लागीं आयिल्लो, गोंयच्या एका ल्हान गावांतलो श्री वॉल्टर मिनेझीस. पंदरा ऑक्टोबर २००७ वर्सा ताणें डॉ. ए.पी.जे. अब्दुल कलमाचेर तांच्या वाडदिसा, गोमंतक टाइम्स ह्या इंग्लेज दिसाळ्याचेर "Igniting Minds and hearts" असो लेख बरोवन ते म्हान व्यक्ती बद्दल कृतज्ञताय दाखोवन दाखोवन, जल्मदिसांचीं परबीं भेटयल्लीं. हालींच डॉ. कलामाचें व्याख्यान आयकून परत तांच्यो भावना जागवल्यो. आनी तेच संदर्भात ती याद जागी करपाक त्या लेखाचो कोंकणी अणकार ताणीं बिम्बा खातीर धाडला. बिम्बाच्या वाचकां खातीर तो हांगा उजवाडायला.

१९९९ वर्सा सावन आमचें कुटूंब केपें तालुक्यांतल्या दर एका इश्कोलांतल्यान धावेचे परिक्षेंत उत्तम श्रेणीत पास जावन पयलो क्रमांक मेळयतल्या विद्यार्थ्यांचो भोवमान करूंक, एक खास सुवाळो आयोजित करीत आयला. (धा वर्सां मेरेन आमी तो चलयलो.)

'लेट कामीलो द मिनेझीस एचीव्हमेंट ॲवोर्डस' ह्या नांवान दोतोर येवरीक सिल्व्हा हाणीं पुरस्कृत केल्लो हो पुरस्कार म्हजो व्हडलो भाव सर्गेस्त कामीलो मिनेझीस हांच्या अमर उगडासाक तांच्या जल्मदिसा १९जुलयाक आमी मनयतालीं. दर वर्सा ह्या सुवाळ्याक गोंयचे नावलौकीक वक्ते, प्रभाकर तिंबले, भास्कर नायक, नारायण देसाय, संजीत रोड्रीगीस, दोतोर ओलिव्हिन गोमीस आनी संदेश प्रभू देसाय, हाणी मुखेल सोयरे ह्या नात्यान कार्यावळीक सोबाय

हाडली. तशेंच विद्यार्थ्यांक आनी समाजाक प्रेरीत करपी वेगवेगळ्या विशयांचेर यादस्तीक व्याख्यानां केलीं.

२००५ वर्साच्या सुवाळ्याक तर वाराणसीचे अध्यात्मिक गुरू, स्वामी चिदानंदांचें, यादींत कोरांतून उरपा सारकें true meaning of excellent in life ह्या विशयाचेर उलोवप आयकुपाची संद केपेंकारांक मेळ्ळी. २००७ वर्सा, आमच्या गांवचो पूत, नितीन कुंकळकार, ह्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरो म्हणून हाजीर रावून Education Today and Challenges of Tomorrow ह्या विशयाचेर आपले सविस्तर विचार मांडले. त्याच सुवाळ्याक उत्तेजनार्थ विद्यार्थ्यांबरोबर, फोंडेच्या, दादा वैद्य इश्कोलांत शिकपी णवेच्या वर्गांतलो शिवन्ना मदारी ह्या विद्यार्थ्याचोय भोवमान जालो. राष्ट्रीय चित्रकला सर्तींत, ताच्या महाभारतांतल्या कर्णाच्या चित्राक पयलें इनाम मेळिल्लें. तें ताचें चित्र, भारतीय डाक तिकीटाचेर छापपाचो मान ताका मेळिल्लो आनी ह्या तिकीटाचें प्रधानमंत्री मनमोहन सिंगाच्या हस्तुकी बालदिना दीस उक्तावण जाल्लें. मदारीच्या ह्या येसाची तोखणाय करूंक, केपें हाडून ताचो सत्कार त्या दिसा केलो.

२००७ वर्साच्या एचीव्हमेंट ॲवोर्डसाची तयारी जूनाच्या दुसऱ्या सप्तकांतल्यान सुरू जाली. तेन्नाच म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. तो हांवें, सींडी आनी डेल, म्हज्या भुरग्यांक उलोवन दाखयलो. "हे खेपेक, राष्ट्रपती अब्दूल कलामाचो 'इग्नायटेड मायन्डस' ह्या पुस्तकाची 'ओटोग्राफ' केल्ली प्रत, पुरस्काराबरोबर दिल्यार कशें?"

हें पुस्तक आमी तिगांयनीच वाचिल्लें. भारत देसाक, २०२० मेरेन, एक विकसीत राज्य करपाच्यो ज्यो क्रांतीकारी आनी सादयो सोंप्यो येवजण्यो ताणी त्या पुस्तकांत मांडिल्ल्यो त्यो वाचून त्या 'मिसायल' मनशाची तोखणाय करता तितली कमी आशिल्ली. धनूशकोडीचें ल्हान बेट. ह्या बेटावयल्यान, दिल्लीच्या राष्ट्रपती भवनांत पावूंक डॉ. कलामाचो जिणे प्रवास खूबच रोमांचक आसलो. जुलूमशाये आड झुजपी विदूराचो ते भक्त. ताच्या जिवनाचेर ते आकर्शीत जाल्ले. आपलें सपन साकार करूंक तन मन जुळोवन, पुरायपणान झटप, हाचे परस व्हड शक्त हे धर्तरेर ना म्हणून सर्गांत पासून ती आसची ना, अशें डॉक्टर कलाम ठामपणान मानतात.

पुस्तकांचेर राष्ट्रपतीची सय मारून हाडपाच्या निश्चेवाची गांठ म्हज्या मनांत पडली. एके राती म्हज्या भुरग्यांकडेन, 'कशे तरेन संपर्क सादून हो विचार अस्तित्वांत हाडुया?' हाचेर भासाभास करतना रांदचे कुडींतल्यान म्हजे घरकान्नीन आयकलें. तुरतुरीत भायर येवन, "पिसो जाला?" अशें



विचारीत, मुखार उलयत गेली, "आपल्या ह्या ल्हान गांवांत, एक कार्यक्रम घडोवन हाडप, एक सादी सोंपी गजाल. पूण राष्ट्रपतीक बरोवन, पुस्तकाचेर तांचो ऑटोग्राफ घेवप तुजे तांकी भायलें. समजलो?"

म्हजे घरकान्नीच्यान तें कशेंच मानून घेवंक जालें ना. दातांत धरिल्लें उतर हांव सोडपी न्हय. एकदां मनार घेतलें, की मागीर फार्टी सरप ना. तें पुराय करूनच समाधान जावप हो म्हजो मंत्र. हांवें गूगल सर्च करून, राष्ट्रपतींची वेबसायट सोदून काडली. ई मेलांतल्यान, आमी घडोवन हाडिल्ल्या ह्या 'एचीव्हमंट ॲवोर्डस' सुवाळ्या बद्दल तांकां थोडक्यांत म्हायती दिली आनी, ताणें बरयल्लें, पुस्तक, 'इग्नायटेड मायन्डस' भुरग्यांक भेटोवंक ताचेर ऑटोग्राफ दिंवचो अशी नम्र विनंती केली. हें जालें, जुनाच्या निमण्या दिसांनीं. दोन सुमाना (कमीच) उपरान्त, जनतेच्या राष्ट्रपतीकडल्यान म्हाका जबाब आयलो. तांचो पर्सनल सॅक्रेटरी आर. के. प्रसाद हाणी म्हाका बेगीच्या बेगीन पुस्तकांच्यो प्रती धाडून दिवंक विनंती केली. 'म्हजे जिणेंतलो उपाट खोशयेन भरिल्लो तो दीस', अशें हांवें, १९ जुलयाक म्हज्या येवकार उलोवपांत जमिल्ल्या समेस्तांक सांगलें. म्हज्या सारक्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या एका सादया मनशाच्या धाडिल्ल्या इमेलाक ताणी जबाब दिवन म्हज्या काळजा मनांत हात घालो.

दुसऱ्याच दिसा, पणजेच्या सगल्या बूक स्टॉलांनी वचून, एक दोन करीत, म्हाका जितल्यो जाय आशिल्ल्यो त्यो प्रती घेतल्यो आनी धादोस मनान तेच सांजे कुरीयर करून राष्ट्रपती भवनांत धाडल्यो. जुलय म्हयनो सुरू जालो. दीस वता तशे, म्हजें मन आतुरतायेन पुस्तकांच्या परतीची वाट पळोवंक लागलें. एकोणीस तारीक लागीं पावतां पावतां, कितलेच फोन हांवें आर. के. प्रसादाक केले.

केन्ना काय तीं पुस्तकां आमच्या हातांत पडटात अशें जाल्लें. १५ जुलाय, अयतरा दिसा त्या पुस्तकांचेर डॉक्टर कलाम सय करतले, अशी खबर तांचे कचेरींतल्यान मेळ्ळी. तीं पुस्तकां सुवाळ्याच्या दुसऱ्या दिसा-वीस जुलयाक म्हज्या हातांत पडलीं. पुरस्कार भेटयतना हांवें जेन्ना सत्कार मुर्ती विद्यार्थ्यांक त्या पुस्तकाची घोशणा केली तेन्ना तांचे खोशयेक शीम मेर उरूंक ना. म्हजी शेजारीं आनी इश्ट, राष्ट्रपतींची सय पळोवंक आमगेर येवन तृप्त जावन गेलीं. म्हज्या ऑफीसांतल्या इश्टांक तर खरेंच दिसूंक ना. राष्ट्रपतींच्या कचेरिंतल्यान आयिल्लें पत्र ताणी पळयतकीर तांचो विस्वास बसलो.




त्या वर्साच्या 'टॉप रँकर्साक' खऱ्या अर्थान अर्दकुटो पुरस्कार मेळ्ळो, राष्ट्रपतीचो ऑटोग्राफ केल्लें पुस्तक तांच्या हातांत पडल्या उपरान्त तो पूर्ण जालो आनी ती जबाबदारी म्हजी आशिल्ल्यान, ती पाळटकीर हांवें मेकळो स्वास घेतलो. सारंग नायक आनी केवल प्रभूदेसाय हे दोन सत्कार मुर्ती विद्यार्थी. मडगांवच्या दामोदर हायर सेकंडरी स्कूल ऑफ सायन्स हांगा तांणी प्रवेश घेतिल्लो. तांचो प्रिन्सीपल, श्री बाळ्ळीकर, हाणीं तांका आपल्या कॅबिनांत हाडून डॉक्टर कलामाच्या गुणांची तुस्त करीत तें पुस्तक म्हजे उपस्थितींत तांच्या हातांत घातलें.



चंद्रभागा तुकोबा हायर सेंकडरींत शिकपी सायली शेणवी कुंकळकार आनी जॉयल कुतीन्होन आपल्या वर्गांत, 'इग्नायटेड मायन्डस' स्विकारलें. जाल्यार सिंडी नोगेराक, नावेलींच्या रोजरी हायर सेकंडरीच्या ॲसेंब्ली वेळार तो भेटयलो. पाड्ड्या, केपें रावपी मिताशा भगतागेर ताच्या घरा वचून हांवें स्वता तें पुस्तक दिलें. संकेत शेणवी कुंकळकाराक ताची प्रत आमचो इश्ट आनी ताचो शेजारी संजय तळवडकराच्या हातांतल्यान पावती केली. एक प्रत दिवपाची उरिल्ली. जुलाय सोंपून ऑगस्ट म्हयनो लागलो, तरी ती सुपुर्द करपाचो म्हुर्त मेळच नाशिल्लो. कर्णाचें चित्र काडून नामनेक पाविल्लो तरणाटो शिवन्ना मदारीचें पुस्तक आयज -फाल्यां करीत आमचे कडेन उरिल्लें. पंदरा ऑगस्ट लागीं पाविल्लो. झेंडा वंदना वेळार, ताच्या इश्कोलांत, स्वतंत्रताये दिसा, हेड मिस्ट्रेसीचे हस्तूकी तें पुस्तक ताका दिवंया ह्या हेतून सकाळींच म्हजे घरकान्नी वांगडा दादा वैद्य हाय स्कूलांत हांव पावलों. थंय पळयता जाल्यार, लायन्स क्लबान व्हडा दबाज्यान स्वतंत्रताय दीस मनोवंक गडगंज तयारी केल्ली. शिवन्नाक, लायन्स क्लबाच्या अध्यक्षान मोठे उमेदीन आनी गर्वान 'इग्नायटेड मायन्डस' भेटयलें.

इतलें म्हणसर पुस्तक हातांत पडटांच विद्यार्थ्यांनीं तें वाचून काडलें. त्या पुस्तकांतल्या विचारानी तांचीं मनांच उजवाडून थांबूंक नांत तर तांच्या काळजांतले इत्साशक्तेनूय पेट घेतलो. म्हाका थोड्यांचीं पत्रां आयली. सिंडीन म्हळें, "Privilaged to recive the book from the principal in front of all" "One in a million" डॉक्टर कलामाक उद्देशून केवलान बरयलें. तर सायलीन वचन दिवन बरयलें. "To dedicate herself for making the dream of India 2020 come true"

सारंगान प्रेरीत जावन बरयलें, "encouraged and inspired by Ignited minds. The book is like a diamad in my small peraonal library." हॅपी बर्थ डॉ. ए. पी. जे अब्दूल कलाम! खऱ्यानीच, तुज्या पुस्तका बशेन तुमीय एक मोलादीक माणीक भारताचें.!



– वॉल्टर मिनेझीस
(कोंकणींत अणकार)
ब्रॅन्डा मिनेझीस
केपें, गोंय



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

# गों द ळ



***धारावाहीक आसल्यार त्या वेळावयलीं सगळीं कामां कुशीक दवरून घरचीं जाणटीं आनी अभ्यास कुशीक दवरून भुरगीं ती वेळ चुकयना आसतना बराबरीन पळयतात. त्या धारावाहिकांतले चलयेचेर जेन्ना संकश्टां येतात, मोगाक आडखळ निर्माण जाता तेन्ना भुरगीं पळयतात घरांतल्यांची ताका कशी सहानुभुती मेळटा ती! आनी हें पळोवन अजाण, अबोध वयाचेर मोग केलो जाल्यार तातूंत कांयच गैर ना अशें कितेशें भुरग्यांक दिसपाक लागता.***

'मुल्यशिक्षण' ह्या विशयाचेर विचार मांडपाक आयिल्ल्या खासा सोयऱ्यांनी येरवडा, पुणे महापालिकेचे शाळेंत णव्वेक शिकपी भुरग्यांक 'व्हडलो जातकच तूं कोण जातलो?' अशें विचारलें तेन्ना ताणें खंय सांगलें, 'बालगुन्यांवकार'. हे सोयरे भुरग्यांक भारतीय राज्यघटनेतलें स्वातंत्र्य, समता, बंधुता, सर्वधर्म-समभाव, दादलो-बायल समता. विज्ञानीक दिश्टीकोन सारकिल्या विशयांचेर आपले विचार समजावन सांगताले. वर्गाच्या एका कोनशाक केंसांक डाय मारिल्लो, गळ्यांत धातूंची माळ, हातांत लोखणाचें कांकण, कानांत रींग घाल्लो हो भुरगो लक्ष दिना तें पळोवन सोयऱ्यांनी ताका 'तूं फुडें कोण जातलो?' काय म्हूण विचारतगीर ताणें सट्ट करून सांगलें, 'बालगुन्यांवकार'.

आयकून सगळीं जाणां थक्क जालीं. ह्या भुरग्याक घराकडेन चार भाव आसात. बापूय खुनाच्या आरोपाखाला बंदखणींत गेला. आवय चार लोकांचीं आयदनां घासून संवसाराचो गाडो ओडटा. 'तुका तशें कित्याक जावचेशें दिसता?' म्हण सोयऱ्यांनी विचारतगीर ताणें सांगलें 'शेजारचे लोक म्हाका चाळयतात. ताका लागून तांका बुध्द शिकोवपाखातीर हांव गुन्यांवकार जावपाक सोदतां. कितेंय बरें-वायट जाल्यार सुदारघरांत दवरतात. थंय रोखडोच जामीन मेळटा.' हे ताचे विचार आयकून धक्को बशिल्ल्या सोयऱ्यांनी ताका बरें ध्येय बाळगुवपाक सांगून आपलेभशेन समजायलेंच.

हे खबरीचें कात्रण वाचलें तेन्ना दिसलें हो गरीब घराण्यांतलो भुरगो जाच्या बापायची फाटभूंय गुन्यांवकारी आसा. तो असुरक्षीत दिशिल्ल्यान तसो उलयता आनी ताचो सूड समाजाचेर घेवपाक सोदता. भुरगें मन म्हळ्यार समाजाचो हारसो. ताच्या कंवळ्या मनाचेर समाजांतल्या वातावरणाचो, दृक-श्राव्य माध्यमांचो, दिसपट्ट्या घडटल्या बऱ्या-वायट घडणुकांचो प्रभाव पडटा आनी प्रतिबिंबीत जातात त्या गजालींचीं दृश्यां.

दृक-श्राव्य माध्यमाचीच गजाल घेवया. धारावाहिकांत जावं चित्रपटांत दाखयतात. निकतेंच महाविद्यालयांत वचपाक लागिल्लें चली मोगांत पडटा. तांचो मोग आंकरेवंचो म्हण इश्ट-इश्टीणी पालव दितात आनी घरच्यांक कांयच कळनासतना तांचो मोग फुलत रावता. धारावाहीक आसल्यार त्या वेळावयलीं सगळीं कामां कुशीक दवरून घरचीं जाण्टीं आनी अभ्यास कुशीक दवरून भुरगीं ती वेळ चुकयना आसतना बराबरीन पळयतात. त्या धारावाहिकांतले चलयेचेर जेन्ना संकश्टां येतात, मोगाक आडखळ निर्माण जाता तेन्ना भुरगीं पळयतात घरांतल्यांची ताका कशी सहानुभुती मेळटा ती! आनी हें पळोवन अजाण, अबोध वयाचेर मोग केलो जाल्यार तातूंत कांयच गैर ना अशें कितेशें भुरग्यांक दिसपाक लागता. हे भानवेंतल्यान आपलोय कोण तरी मोगी आसचो/आसचें, आपणें ताचेबरोबर आपलीं सुख-दुख्खां वाटचीं अशीं तीं सपनां पळयतात आनी मागीर व्हेलन्टायन डे, फ्रेंडशीप डे असल्या अस्तंती संस्कृतायेंतल्यान आयिल्ल्या दिसाचो आधार घेवन आपलो मोग उक्तायतात. जेन्ना घरच्यांक हाची सुलूस लागता तेन्ना तीं आकाशपाताळ एक करतात. भुरग्यांक तांच्या जबाबदारीची, कर्तव्याची जाणीव करून दिवपाक तडफडटात. मोगांतलें नेणारपण पटोवन दितात, तांचेर पाळत दवरतात तेन्ना जाणट्यांच्या वागण्यांतली विसंगती पळोवन भुरगीं गोंदळतात. एकेकदां समजतात, एकेकदां हट्टाक पेट्टात. आनी जेन्ना तें मृगजळ म्हणपाचें तांकां कळटा तेन्ना खूबूच उशीर जाल्लो आसता.

हालींचीच गजाल. सांजेचें अशेंच पासयेक गेल्ले कडेन आमच्या मुखाल्ल्यानच एक तीन-चार वर्सांचो भुरगो आपल्या आवयच्या हाताक धरून चलतालो. प्रस्नांची सरबत्ती चालूच आसली. इतल्यान एक तांबड्या दिव्याची गाडी सूं सूं करून सायरन



वाजयत गेली. फाटल्यान आनीकय चार-पांच गाडयो सुसाट वेगान गेल्यो. 'मम्मा, ती गाडी आवाज करत कित्याक इतली धांवता गे?' आवयन सांगलें, 'तो मंत्री गेला आनी ताका राखपाक फाटल्यान फुडल्यान पोलीसांची गाडी' 'बरी मज्जा न्हय, हांवय बी व्हड जातगीच मंत्री जातलों.' 'बरें, बरें तें मागीर व्हड जातगीर पळोवया' म्हण ताका वगी करपाचो यत्न केलो. पूण चकचकाक आनी भपक्याक भुलिल्लें तें भुरगेंमन प्रस्नार प्रस्न करतालें.

तीन चार वर्सांचो भुरगो म्हळ्यार तसो अजाणच. ताचें आज आशिल्लें मत तशेंच उरचेंना. पूण बारीक पळयल्यार कांय तरणाट्यांकय ह्या मंत्रीपदाचो खूब क्रेझ आसता. हातुंतले चडशे तरणाटे जांचें शिक्षण जावं कौटुंबीक परिस्थिती कामधंदो वा नोकरी मेळपाक आडमेळे येतात त्या वर्गांतले आसतात. मंत्र्याक मेळटा तो दरारो मान-सन्मान, सेवा, तांचें राहणीमान हे गजालींचो तांचेर मोनेळ पडटा. थोड्याच दिसांभितर ताणी जमयिल्ली माया ते पळयतात आनी दुसरेवटेन प्रामाणीकपणान, कश्ट काडून त्याच आर्थिक परिस्थितींत खितपत पडिल्ले सर्वसादारण लोकय तें पळयतात आनी कसलोच भार घेनाआसतना एकदांचें निवडून आयल्यार पुरो अशें तांकां दिसपाक लागता. कारण ह्या धंद्याक शिक्षणाची अट लागना आनी चारित्र्य निवळ नितळ आसपाकच जाय अशेंय ना. मागीर वेंचणुकेवेळार प्रचाराच्या जावं ह्या त्या निमतान ते फुडेफुडें करतात आनी केन्ना ना जाल्यार केन्नाय तरी मंत्रीपदाचेर आपली वर्णी लागतली म्हण आपलें तन मन धन ओपतात. हे संदीचो जुस्त फायदो घेवन राजकारणी जाळांत सांपडिल्ल्या तरणाट्यांक वापरा आनी भायर मारा ह्या तत्वाचेर राबयतात आनी आपली पोळी भाजून घेतात.

आयिल्ल्या दिसाक घोटाळ्याच्यो, गैरवेव्हाराच्यो, भ्रष्टाचाराच्यो ज्यो घडणुको घडटात, तातूंत वांटेकार आशिल्ले गुन्यांवकार सही सलामत सुटून समाजांत ताठ मानेन वावुरतात तें पळोवन तरणाट्यांचो न्यायव्यवस्थेवयलो विश्वास डळमळीत जाता आनी आजकाल फकत सत्ता आनी पयशांक वालोर आशिल्ल्यान अन्याय, दादागिरी, गुंडागर्दी असल्या अपप्रवृत्तींक बळगें आसा असो तांचो समज जावपाक लागिल्ल्यान तांचीं पावलां वाकडीं पडपाक लागतात.

आमचो देस आतां म्हासत्ता जावपाचे वाटेर आसा; पूण मुल्यशिक्षण दिवपा-घेवपाचे बाबतींत खंय तरी घोळ जाता असो दिसता. शाळेंत शिकतना 'बालगुन्यांवकार' जावपाची इत्सा बाळगुवपी भुरग्यांक जेन्ना उपरती जातली तेन्नाच मुल्यशिक्षणाक वालोर येतलो. ल्हान आसतना भुरग्याक बाब/बाय तूं व्हड जातगीर कोण जावपाक सोदता? तेन्ना तें/तो जशें दोतोर, इंजीनीयर जावं हेर कोणय म्हण सांगता तशें दर एकल्यान आपूण ह्या देशाचो पयलीं जबाबदार नागरीक जातलों म्हण ठरयलें जाल्यार घुस्पागोंदळ जावपाक तितलोसो वाव उरचो ना.

■ ■ ■



- ब्रेंण्डा मिनेझीस
कुस्मण - केंपे, गोंय
फोन : २६६२४९१.

# रिजल्ट



*तिणें ताका सालांत हाडून सोफार बसयलें. आंजेलाक बिस्कुत्यो हाडपाक परन्यार धाडलें. आपल्या मवाळ उतरांनी ती अपूर्वाक समजावंक लागली. 'बाय तूं शिकलें वा ना शिकलें आंजेलाचेर ना म्हणून कोणाचेरूच कसलोच परिणाम जावपाचो ना. आंजेलाचो पयलो रॅन्क, वर्गांत तरी थारिल्लोच आनी सुगूर आसा.*

**आं**जेलाच्या घरांतलो फोन वाजलो. ताचे मम्मीन 'हॅलो' म्हणत फोन घेतलो. "हय, हें आंजेलाचें घर."

आंजेला लागींच बसून पुस्तक वाचतालें. "कितें?... खरेंच? थँक यू! थँक यू! बरें.. येयात. आमी आसात घरांत." फोन दवरून, तिणें सोमतेंच वचून आंजेलाचो उमो घेतलो.

तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. वोंठ थरथरताले. उतरां घुस्मटून भितरूच उरलीं. "कितें जालें मम्मी? तूं इतली काचाबूल कित्याक?" आंजेलान तिका हालयली. ती सोफार बसली. वाचतालें तें पुस्तक आंजेलान बंद केलें आनी येवन तिचे कुशीक बसलें. तिणें आपले दोळे पुसले आनी तोंडार गोड हांसो फुलयत परत आंजेलाक वेंगेंत घेतलें आनी ताच्या कानांत ल्हवूच सांगलें. 'तूं बोर्डांत पयलें आयलां...!'

आतां आंजेलाच्या दोळ्यांक पाजर फुटलो. ताणें हात जोडून पयलीं देवाक दिनवासलो. ताचे मम्मीन वाती पेटयल्यो आनी पयल्या पयलीं आंजेलाचे आजयेचे कुडींत तिका बरी खबर सांगून गेली. भायर येवन फोन उखल्लो आनी आपल्या घरकाराक सांगलें, "तुजी धूव बोर्डाक पयली आयल्या! बेगीन पेढे घेवन यो. ताची मुलाखत घेवंक मिडियाचे मनीस आमगेर येंवचे आसात."

आंजेला खूब खोशी जालें. ताका आतां अपूर्वाचो हुस्को जालो. ताणें 'इंटरनॅट' चालू केलें आनी अपूर्वाचो नंबर टायप केलो. अपूर्वा डिस्टींक्शन घेवन पास जाल्लें. खोशी जावन ताणें सुटकेचो स्वास सोडलो.

अपूर्वा ताच्या वर्गांतलें. खूब गिरेस्त, सुंदर तशेंच मिजाशी चली. ताचेकडेन सगलें आसलें. ताका शिकपाचें गिन्यान मात नासलें, काय तें गिरेस्तकायेचे धुंदींत आळशी जाल्लें? दुसऱ्या भुरग्यांकडेन तें मिसळ जायना आसलें. आंजेलाचें आनी ताचें मात बरें जुळटालें. नक्षत्राचो गूण जांवये! आंजेला खूबच हुशार आनी ताच्या उरफाटें अपूर्वा! कॉपी मारून पास जातालें. तें आपलो चडांत चड वेळ टी.व्ही. मुखार आनी ब्युटी कॅरांत होगडायतालें. तीं दोगांय धावेच्या वर्गांत

पावलीं. पयले तिमाही परिक्षेक अपूर्वाक कॉपी मारूंक मेळूंक ना. हें अशें पयलेच फावट घडिल्लें. तें नापास जालें. ताका खूब वायट दिसलें. रागूय आयलो आनी लजूय दिसली. 'हीच संद बरी ताका जाग्यार हाडूंक.' आंजेलान आपलेच भितर म्हळें.

शाळा सुट्टकीर दोगांय वांगडा भायर सरताना आंजेलान ताका सांजचें आपल्यागेर आपयलें. अपूर्वाचें मनूय त्या दिसा काचाबूल आशिल्ल्यान तें तांगेर वचूंक तयार जालें.

आंजेला तें आयलें तेन्ना अभ्यास करतालें. ताणें अपूर्वाक आपल्या रूमांत व्हेलें आनी म्हळें, पळय अपूर्वा म्हाका तुजेकडेन उलोवंक जाय. तूं फेल जालां, ताचें म्हाका खूब वायट दिसलां. म्हाका जाय, तुवें म्हजे बरोबर अभ्यास केल्लो. आमी आयजूच सावन सुरू करूया. हांव तुका म्हजो नोटबुक दितां. फायनल परिक्षेक आताच्यान शिकूंक सुरू करया.

आपणाक कितें दाखोवंक जाय, अशें सांगून आंजेलान फटोवन हाडलां म्हणून अपूर्वाक तिडक मारली. तें रागान बडबडलें, 'म्हाका अभ्यास करूंक नाका. म्हाका शिकपाची आवड ना. हांव नापास जावं, तुका कित्याक पडलां?' आनी तापून तें रूमांतलें भायर सरलें.

तेन्नाच आंजेलाची मम्मी थंय पावली आनी तांची गजाल तिच्या कानार पडली. दनपरां येवन आंजेलान तिका अपूर्वाची खबर सांगिल्ली. तिणें ताका सालांत हाडून सोफार बसयलें. आंजेलाक बिस्कुत्यो हाडपाक पसऱ्यार धाडलें. आपल्या मवाळ उतरांनी ती अपूर्वाक समजावंक लागली. 'बाय तूं शिकलें वा ना शिकलें आंजेलाचेर ना म्हणून कोणाचेरूच कसलोच परिणाम जावपाचो ना. आंजेलाचो पयलो रॅन्क, वर्गांत तरी थारिल्लोच आनी सुगूर आसा. ताका चड अभ्यास करपाची गरजूय ना. वर्गांत शिकयतात तेंच आयकल्यार ताका पुरो. पूण



तें नेमान आपलो अभ्यास करता. हांव ताची तुस्त गायतां अशें म्हणू नाका हां.''

''खरेंच आमकां जाय तूं बरे बशेन पास जाल्लें. तुका देवान बुद्दी दिल्या. तुवें फक्त चित्त दिवंक जाय. म्हजेर रागार जायनाका. अपूर्वा, तुजी मम्मीय तुका सांगता आसतलीच. तूं बऱ्या घराण्यांतलें. शिकून तुज्या आवय बापायचें नांव तुका वयर काडूंक नाका? धावेच्या वर्गांतली पयलीच परिक्षा तूं नापास जालें. बोर्डाची परिक्षा तुवें बऱ्या गुणांनी पास जावंकूच जाय. ना जाल्यार तूं फाटीं पडटलें.''

अपूर्वाक आपलीच लज जाली. तिचें सांगणें ताका मानलें. तिणें परत म्हळें, ''आंजेलान तुका सांगलां तशें तूं आयच्यान सुरू कर. फाल्यांच्यान करूया अशें म्हणूं नाका. कित्यात फाल्यां हें केन्नाच येना. सवका सवका तुका संवय जातली. एकदां तुका शिकपाची गोडी लागत तर ती कशीच सुटचीना. म्हजीं उतरां मनांत धर.'' इतलें म्हणसर आंजेला बिस्कुत्यो घेवन आयलें. ''हांव तुमकां च्या करून हाडटां. मागीर तुमी बसून अभ्यास करात दोगांय वांगडा.'' अशें म्हणत ती भितर गेली आनी च्या करून तांकां हाडून दिली. च्या बिस्कुत्यो घेवन तीं अभ्यासाक बसलीं.

ताचे उपरान्त दिसपट्टें अपूर्वा आंजेलागेर येवंक लागलें. ताच्यो अडचणी आंजेला विस्कटावन सोडयतालें. अपूर्वाक आतां अभ्यास करूंक बरें दिसूंक लागलें. आनी मन लावन तें शिकूंक लागलें. दुसरे परिक्षेंत तें सगल्या विशयांत पास जालें. प्रिलिम्स परिक्षेंत तर बरे गुणूय मेळ्ळे आनी फायनल बोर्डाचे परिक्षेंत तर ताका डिस्टींक्शन मेळून सगल्यांक ताणें चकीत केलें. आंजेलान फोनाचो रिसीव्हर उखल्लो आनी अपूर्वाचा घरचो फोन नंबर घुंवडायलो. पूण तो वाजता आसतनाच अपूर्वा आपले मम्मी वांगडा तांगेर भितर सरलें. सगल्या गांवभर तेन्ना म्हणसर आंजेलाची पयलें आयिल्ल्याची खबर पाविल्ली. एकमेकांक ताणी वेंग मारली आनी एकाच ताळ्यान म्हणलें. 'कॉंग्रेटस टू बोथ ऑफ अस... चीर्यस...!! ॲण्ड वॅलडन!'

इतले म्हणसर, भायर फोगोट्यांचो गडगड जालो. अपूर्वाच्या डॅडीन फोगाचो धुंवर केल्लो आनी आंजेलाचो डॅडी पेढ्यांचें बॉक्स घेवन दारांत उबो आसलो.



# गांठ



– काश्मिरी स. पावसकार
एवरशायन अपार्टमेंट,
शिवोली–गोंय.

'**गांठ**' हें उतर तशें आयकूंक कितलें बरें! दोन शब्दाचें हें उतर दिसूंक सामकें ल्हान पूण अर्थान आनी कार्यान एकदम म्हान. तशें पळयल्यार 'गांठ' ह्या उतराचें कार्य सतत चालू आसता. त्या भायर 'याद' आनी गांठ ह्या दोन उतरांचें समीकरण बेस बरें चलता. कसलेय गजालीची याद दवरप म्हळें काय गांठ मारपाची क्रिया आपसुकूच घडटा. तशें आमच्या जिवितांत कांय गोड, तर कांय कोडू अणभवांच्यो यादीं आमचे गांठीक मारून दवरीत आसतात. ना न्हय केन्नाय चुकून वा मुजरत म्हणात आमी चड करून गोड वा अमुरपिक्यो यादीच गांठीक चड मारतात.

कालांतरान ह्यो सगल्यो यादी आमकां एक एक करून उगडास जायत वतात. मागीर त्यो त्यो गांठी सासपूंक बसतात. तशो ह्यो गांठी मारपाक सामक्यो सोंप्यो पूण एकदां काय सोडूंक बसलो म्हणटकीच सोडोवंक तितल्योच कठीण. कांय जाणांक तर घटट गांठ मारपाची संवय आसता. तर कांय जाणांक वयले–वयर. कितेंय म्हणात 'गांठ' हें उतर आमचे जिणेंत पावलां पावलां कणकणी आयकूंक मेळटा. देखीक कोणूय मोगाचो मनीस खूब तेंपान दिश्टी पडल्यार आमी 'ना भेट ना गांठ' अशें म्हणून रोखडोच शीण काडटात. सुरवेक कितेंतरी उगडास दवरपाक आमी गांठी मारतात. करीत करीत गांठिंची ही शेंपडी वाडत वता. बरें! वाडल्यार काय ना. कांय तेंपान त्यो एकामेकांत घुस्पूंक लागतात. करतां करतां तांच्यो जटो जातात.

याद दवरपाक मारिल्ल्यो ह्यो गांठी परत उगडासान सोडोवपाक आनीक एक दुसरी गांठ मारची पडटा. केन्ना कोणा लागच्यान घेतिल्ले दुडू, कोणाक उगडासान परतून दिवपाची वस्त, खंय तरी सांबाळून दवरिल्ली दुसरी एखादी वस्त. आदल्या तेंपार आमचीं जाण्टीं पदराक गांठ मारून उगडास दवरपाचो आपलेपरी यत्न करतालीं. मागीर कसलेंय काम करतना ते गांठीचेर हात पडलो काय तांकां रोखडोच ते गजालीचो उगडास जातालो. अशी पदराक गांठ मारपाची तेन्ना चाल आशिल्ली म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. घरांतलो च्याये पिठो, फस्कां दूज, पेत्रोल अश्यो कसल्योय गजाली सोंपल्यार त्यो उगडासान दुसरे दिसा हाडपाक 'गांठ मारपा' सारकें आनी दुसरें साधन नासलें. देखून दर दिसा पांच–स तरी गांठी तांच्या पदराक लांबतना दिश्टी पडटाल्यो. आयज ते दीस फाटीं पडल्यात. पूण कोणाकूच उगडास दवर म्हून सांगपाक 'पदराक गांठ मार आं!' अशें सांगपाक मात केन्नाच विसरनांत.

म्हाका जाल्यार असल्या यादिंनीं घुस्पूंक खूब आवडटा! केन्ना गोड यादिंनी मन खोशी जाता, तर केन्ना दुखेस्त यादिंनीं मन खंती जाता. पूण अशें म्हूण आमी यादी काडपाचें मात केन्नाच सोडीनांत. फाटल्या म्हयन्यांत म्हजो बापूय भायर पडलो. त्याच दिसा चलयेली प्रिलीम. ताच्या फुड्यांत दोळ्यांत दूक येवंक दिवचें ना म्हूण हांवें थारायलें. पूण अशें थारावन थोडेंच जाता? कितलोय जाल्यार म्हजो बापूय! ताचेवयलो मोग, मनांतल्यो यादी हांचेर हांव बांद घालूंक शकलेंना. सगल्यो यादीं उगडास जावन म्हाका फुगासांव जालें.

'गांठ मारप आनी गांठ लागप' ही आनीक एक गजाल. ह्या दोनूय गजालिनी जमीन आसमानाचो फरक आसता. आमकां गोंयकारांक गांठ लागपाची वायट संवय. कसलीय वस्त खावची उमळशीक लागून ती वस्त खावंक मेळसर आमकां पोटांत चावपाची पिडा सर्रास जाता. तशेंच चड तेंप शिवराक जेवनूय आमची गांठ रोखडीच विट्टा. लग्नावेळार व्हंकल न्हवऱ्याचें गांठवल बांदपाक तर आमी सदांच मुखार. ही लग्नाची गांठ खरें म्हळ्यार देवूच बांदता. उपरांत ती आमी मनीस गांठवलाच्या नांवान परतून बांदतात इतलेंच! त्याभायर 'गांठ करप' हो उतरा प्रयोग आमचे भाशेंत घोळटा. कोणेंय दुडू जोडून दवरल्यार आमी म्हणटात 'अमक्यान बरी गांठ करून दवरल्या.' आयज आमी आल्बमाच्या रूपान यादींची गांठ मारतात. हाका वेळाकाळाचें बंधन लागना. त्यानपरस 'मन' नांवाच्या आल्बमांत कितल्योश्योच यादी बंदिस्त करूंक शकतात. त्यो पुसून वचपाचो भंय ना. आतां तर मोबायलाचेर 'रिमायंडर' घालपाची सोय केल्या. वर्सभर उगडास दवरपाच्यो गजाली आमी रिमायंडरांत घालून सुस्त बसूं येतां, थारावीक वेळार टोन वाजून फावो तो मेसेज फ्लॅश जाता. पूण एक मात खरें, देवान जर आमच्या मेंदवांत फकत बऱ्यो यादी उगडास दवरपाची सोय केल्ली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! बऱ्यो यादी सेव्ह कर, नाका त्यो यादीं डिलीट मार. काम सामकें सोपें! कितेंय करात पूण हो म्हजो लेख मात तुमचे तकलेंतल्यान डिलीट मारूं नाकात, हें एकूच मागणें गांठीक मारात!



# उतर कुवाडें

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

**बिम्ब मार्च ११**

## आडवे

१. अतिरेक, आसा ताचे परस वेगळें करून सांगपाची तरा.
३. चामड्या वस्तू करपाचो धंदो
६. माता, आई
७. चामडेर जाल्ली चामडेची पुळी
८. आठ आनी णव
९. बापायचो भाव, चुलतो
१०. श्रीफळाचें झाड
१२. रंगाचें काम करपी, रंग मारपी म्हळ्यार पेंन्टर
१३. टॅक्स, कर, दस्तुरी (मराठी)
१५. चडांत चड
१८. आवाज, ध्वनी
१९. जबाब, उत्तर
२०. टवटवीत, ताजें
२२. घोव, दादलो
२३. दीस, लांबाय मेजपाचें एक जोख
२४. तीस आनी दोन
२५. एक आनी दोन
२६. बरोबर, सारकें, चुकयनासतना
२७. धुंवराची काजळी
२८. बॉक्स वा मार, लडो



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ■ | ३ | ४ | | ५ | |
| | ■ | | ■ | ६ | | | ■ | | ■ |
| ७ | | | | ■ | | ■ | ८ | | |
| | ■ | | ■ | ९ | | ■ | १० | | ■ |
| ■ | ११ | ■ | ■ | १२ | | ■ | १३ | | १४ |
| १५ | | | १६ | | ■ | १७ | ■ | १८ | |
| १९ | | ■ | २० | | | | २१ | ■ | |
| २२ | | ■ | २३ | | ■ | ■ | २४ | | |
| | ■ | २५ | | ■ | २६ | | | ■ | |
| ■ | २७ | | ■ | २८ | | ■ | | ■ | |

## उबे

१. जुलूम, पिडणूक, पिडापीड
२. सादारण दोन तीन हात लांबायेचें आपशींच किल्ललें एक वखदी झाड.
३. चावयो सांबाळपी, चावयांचो धनी
४. बायलेची आवय वा आवय
५. पलतडीं रावपी
८. भौस, सरभरस सगलो लोक
९. उणो केल्लो खर्च, सांबाळून केल्लो खर्च
११. स्वामी, धनी, मुखेल अधिकारी
१४. वाळेसपण, पारपोळपण, वादयांवपण
१५. आश्चर्य जावप, नवल दिसप
१६. धीर आशिल्लें, धीट
१७. उत्तर प्रदेशांतलें हिंदूंचें एक पवित्र थळ
२१. थाळी, ल्हानसार सोबीत ताट
२५. धा आनी वीस
२६. बंधन, शर्त

## फेब्रुवारी उतर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| उ | ल | व | णें | ■ | के | स्तां | व | खो | र |
| पा | ■ | ज | ■ | कू | ळ | ■ | ण | ■ | वी |
| स | प | न | ■ | ■ | व | ण | ख | प | ■ |
| ना | ■ | दा | ट | सा | ण | ■ | णें | ■ | उ |
| ■ | फ | र | क | ■ | ■ | भा | ■ | क | म |
| म | स्त | ■ | म | न | ■ | र | स | पा | ळें |
| ले | ■ | सा | क | र | भा | त | ■ | ट | ■ |
| रि | ग | प | ■ | मा | ■ | ■ | क | ■ | स |
| ट | ग | ■ | मा | व | सो | ■ | र | ■ | वा |
| ■ | र | ग | ड | प | ■ | क | प | चे | ल |



- कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

*जाणट्यांक वा भुरग्यांक सगळ्यांकूच शाबासकेची गरज आसता. ती त्या मनशाक चण्याच्या झाडार चडोवपाक व्ही ताच्या कामाची दखल घेवन ताका दिल्ली ती पावती आसता. त्या खातीर नवें नवें करपाक ताका उर्बा येता.*




# उर्बा

**आ**ज एस. एस. सी. भुरग्यांचो शाळेचो निमाणो दीस आसलो. आज शाळेंत तांच्याखातीर खासा कार्यावळ घडोवन हाडिल्ली. शाळेंतलो त्या वर्साचो सर्वोत्तम चली वा चलो वेंचून काडपाचें आसलें. निमणे फेरयेंत तीग जाणां पावलीं. तिगांय जाणां अभ्यासांत, खेळांत, भाशणांत सदांच मुखार. स्वताखातीर आनी शाळेखातीर ताणीं जायतीं इनामां हाडिल्लीं. खरें म्हळ्यार शाळेकूय तांचो खूब अभिमान दिसतालो. निमणे फेरयेंत तांकां एखाद्री घडणूक सांगपाची आसली,जे घडणुकेन तांच्या शालेय जिणेंत अचकीत बदल जालो आनी तांची जिणूच बदल्ली.

पयल्या दोगांयनी आपले जिणेंतले अणभव सांगले. तिसरें चली आपले अणभव सांगूंक लागलें. सदांच कमी उलोवपी, आपलेंशें आपूण रावपी चली आज खूब खूब उलयतालें. घडये शाळेंतलो निमाणो खीण म्हूण आपले उमाळे व्यक्त करतालें जावंये. 'हांव केजी तें एस. एस. सी हेच शाळेंत शिकलें. पूण आठवी वर्गामेरेन सगल्या शिक्षकांनी म्हजी उपेक्षाच केली. हांव अभ्यासांत हुशार आसलें पूण म्हाका खंयचेच सर्तींत वांटो घेवपाक संदूच दिली ना. सर्त म्हणटकच शिक्षक कांय भुरग्यांकूच वेंचून काडटाले. म्हाकांय सर्तींनीं वांटो घेन दिसतालें. पूण शिक्षकाकडे लाग मारपाक, खट कशें फाटीक लागपाक आवडनासलें. घडये ह्याच कारणाखातीर हांव सदांच फाटीं उरतालें! णववेक आसतना टिचर सुमनान पि. टी. ए.च्या मेळाव्याक सादर करपा खातीर एक कोंकणी नाटकुलें बसयल्लें. तिणें म्हाका नाटकांत वांटो घेता काय म्हूण विचारलें. जे संदीची हांव वाट पळयतालें ती संद म्हज्या दारांत आयिल्ली. हांवें ती संद उखलून धरली. तें नाटकुलें खूब बरें जालें. त्या नाटकुल्यांत हांवें एका शाळेंतल्या भुरग्याचो अभिनय केल्लो. त्या भुरग्याचो आवय -बापूय आपले विचार ताचेर लादतालीं. ताणें डॉक्टर जावंचें ही ताचे आवयची इत्सा. ताका कोण जावपाक जाय? हें आवय केन्नाच विचारना. म्हजी ही भुमिका सगल्या शिक्षकांक आवडली थंय जमिल्ल्या सगल्या आवय-बापायनी म्हजी पोट भरून तुस्त केली.''

''टिचर सुमन तुमी म्हज्या आंगांतल्या सुप्त गुणांक वाव दिलो आनी हांव खंयच कमी ना हाची म्हाका जाणीव करून दिली.

आज हांव धिटायेन तुमच्या मुखार उलोवंक शकतां हाचें श्रेय हांव तुमकां दितां. तुमी म्हजे जिणेंत रंग भरलो. म्हजी उर्बा वाडयली.

टिचर सुमन स्तब्ध जाली. हांवें येदें व्हडलें दिव्य केलां हाची तिका जाणीव लेगीत नाशिल्ली. तिचे दोळे भरून आयले.

म्हजो एक इश्ट सांगता. हांव शाळेंत आसतना निबंद बरयतालों आनी शिक्षकाक उमेदीन दाखयतालों. म्हजे नदरेन हांवें तो बरोच बरयल्लो. पूण तो शिक्षक सदांच तांबड्या पेनान आडी ओडटालो आनी म्हाका कितें बरयलां हें? परत बरय. म्हूण परत दितालो म्हजी खंय चूक जाल्या? कसो बरोवपाचो? हाची विस्कटावणी केन्नाच केली ना. ह्याच कारणाखातीर म्हाका तो शिक्षकूय आवडनासलो आनी तो निबंदाचो तासूय आवडनासलो.

म्हाका म्हजी इश्टीण अपर्णा गारूडीची खूब लक्तुबाय दिसता. तें दुसऱ्यांची उर्बा वाडयत आसता. शाळेच्या भुरग्यांचेर आनी बायलांचेर ताचो चड भर आसता. भुरग्यांक वेगवेगळ्या कार्यावळींक घेवन चल. तांचेकडल्यान लिखाण बरोवन घे. तें तपासून नेमाळ्यांनी उजवाडाक हाड, 'लेखकाचे भेटेक' सारक्या कार्यावळींचें आयोजन कर ह्या सारकीं कामां करीत आसता.

बायलांच्या खूबश्या संस्थाकडें ताचो लागशिल्लो संबंद आसा. तांकां तें फक्त अशें करात, तशें करात म्हूण सांगना. तांची कार्यावळ बरी जावंची म्हूण ते कार्यावळींत रस घेता आनी तांचे बरोबर वावुरता. तांची उर्बा वाडयता. सर्वसामान्य बायलां भशेन ताकाय वेळ नासता. शिक्षकी नोकरी सांबाळत तांचे पसत वेळ काडटा आनी तांच्या जिणेचें भांगर करपाचो प्रयत्न करता. ताच्या प्रयत्नाचें फळ म्हूण आज त्यो बायलो वेगवेगळ्या समाजीक वावरांत वावुरतना दिश्टी पडटात.



जाणट्यांक वा भुरग्यांक सगळ्यांकूच शाबासकेची गरज आसता. ती त्या मनशाक चण्याच्या झाडार चडोवपाक न्ही ताच्या कामाची दखल घेवन ताका दिल्ली ती पावती आसता. त्या खातीर नवें नवें करपाक ताका उर्बा येता.

'निंदकाचे घर असावे शेजारी' अशें म्हणटात. ती निंदा जर ताच्या विकासाक मदत करपी आसत जाल्यार बरेंच जालें. आपल्यो चुको सुदारत ती व्यक्ती वयलो पांवडो गाठपाक शकतली. जर ती निंदा कुच्छित्रांनी केल्ली आसत, त्या उतरांनी उपहास आसत जाल्यार ताची गत पाखांटे तोडिल्ल्या सुकण्याभशेन जाता. उडपाची तांक आसून तीं उडपाक शकनांत.

भुरग्यांचें मन तर खूब नाजूक. शाळेंतलें वय आसता तांची जीण फुलोवपाचें. तांका जिणेंतलीं दालनां उगडीं करून दाखोवपाचें. ल्हान आसतनाच जर तांच्या मनाचेर उतरांचो आघात जावपाक लागलो जाल्यार तांची फुलती जीण करपून बावून वतली. निराशावादी जातलीं. मन गोंधळिल्ल्यान मुखार काळोख दिसतलो. ताचो वायट परिणाम घरच्यांकूच न्हय तर समाजाक लेगीत भोगचो पडटलो. ताचे जिणेंत मंदावणी येतली.

आज गरज आसा भुरग्यांचेर सकारात्मक विचार बिंबवपाची, तांची उर्बा वाडोवपाची. तांकां वायट गजाली पासून पयस दवरपाक जाय. कारण हींच भुरगीं फाल्यांच्या भारताचें नवनिर्माण करतली.





– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय
मो. : ९८२२१३६८८५

# मार्चांतलें संगीत : सैमांतलें आनी तना-मनांतलें...!



*जेन्ना म्हाका मरण येतलें तेन्ना तें अशेंच तोंडार चान्नें पडिल्लें आसतना, भायर सवण्यांचें संगीत चलतना येवचें अशें म्हाका दिसता. म्हज्या मनाची, तनाची ही वसंतोत्सवाची आस्त बी न्हय मू? ना तर कित्याक येवचे हे विचार म्हज्या मनांत, जेन्ना भायर वसंत फुल्ला आसतना?*

**मा**र्च म्हयनो लागलो काय हांव सामको प्रसन्न जावन वतां. आमचे मदल्या सगळ्यांकूच हें घडटा काय कितें तें म्हज्यान सांगू नज. 'व्यक्ती तितल्यो प्रकृती' हेय तशे अणभवाचे बोल. मार्च म्हयन्यांत अर्थसंकल्प जाहीर जाता. भोवतेक मनशाची जीण ही अर्थकारणाचेर आसता. अर्थसंकल्प मना सारको नासत, ताका लागून आपल्या वेवसायांत लुकसाण आसा अशें दिसपी मनशाक मन प्रसन्न दवरप जमता काय खबर ना. जांचें मन वेगवेगळ्या समस्यांनी रडत आसता, आक्रंदत आसता ताका मार्च म्हयन्यांतलें कोगुळेचें गायन आयक म्हण सांगप वो तशी अपेक्षा बाळगप कितलें योग्य आसा हें म्हाका समजना. पूण वेगवेगळ्या अडचणींत आसतना हांव मात मार्च म्हयनो आयलो काय फुलून वतां.

मागीर हांव म्हजे म्हाकाच प्रस्न करूंक लागतां, म्हज्यांतूच संशोधन करूंक लागतां आनी हयन्हयशी जाप म्हाका मेळूंक लागता, म्हाका हें सगळें होलमता, भावता ताचें फाटलें कारण म्हळ्यार हांवें अजून म्हाका सैमांतलो वेगळो घटक म्हूण मानून घेवंक ना. हांव सैमाचोच एक अंश म्हणून म्हजेकडेन पळयत रावलां आनी तेच पासत म्हजें शरीर आनी मनूय ह्या रूतूचक्रावांगडा उत्सव मनयत रावता. उत्सवाक आरंब जालो काय ताच्या येवकाराक सगळ्यांत पयलीं म्हजें तन दरेक रूंव फुलोवन तयार जाता आनी गावंक लागता म्हजें मन.

मार्च म्हयन्याच्या आरंबाक आरंबाक सुलूस लागता ती वसंताची. वसंत घेवन येता फुलांचो उत्सव, वसंत घेवन येता तरांतरांच्या सवण्यांचें गायन. वसंत घेवन येता कार्नवाल आनी शिगमो, वसंत घेवन येता आंतरराष्ट्रीय महिला दीन...वसंत रूतू घेवन येता तो शिगमो...

शिगमो म्हळ्यार शीतगमय.... शीतगमयची, म्हळ्यार थंडी ना जावपाची खोस हालीसराच्या हवामानाक लागून कोणाक तशी खास होलमुपाची ना. ताचो अदमास येतलो जाल्यार आमच्या मदल्या

जाण्टेल्यांकडेन कोणेंय चवकशी करूंक जाय. मागीर ते सांगतले आपले भुरगेपणार थंडी कशी पडटाली ती! शींयाचो कुडकुडो म्हळ्यार कितें हाचो अणभव घेतिल्ले आमचे पूर्वज त्याच पासत शीगम्याक-शीत गमयाक म्हत्व दीत आयल्यात. तेन्ना आयचे सारके थंडी धांवडावन घालपी हीटर नासताले. वेगवेगळ्यो सुविधायो नासताल्यो. आसतालो तो सैमीक हीटर म्हळ्यार सूर्य. त्या सूर्याचें आगमन जाय म्हणसर पयलीं पेट्टालो तो धग. दरेक घराच्या पोरसांत वो मागिलदाराक सरभोंवतणचो कोयर, झाडपालो एकठांय करून, ताका उजो लावन धग तयार जातालो. त्या धगा भोंवतणी घरच्या सगळ्यांनी शेकत बसप हो एक सुवाळोच आसतालो. घरांतलीं बायलां भायर धगाकडेन येना आसलीं तरी भाकरी थापपाक, च्या, पेज, आंबील रांदपाक चुलीकडेन बसून आपले परीन शेकतालींच.

हो घराघरांनी पोल्लो पेटोवन धग घेवप म्हळ्यारूय एक मिनी होळीच कशी, दर सकाळीं दर घराचे भितोडेक पेटपी. ती तयारी येवपी होळये पुनवेची! सरभोंवतणचें नश्ट सगळें भस्म करपी परबेची.

तर थंडेच्या काळांत शिंयांचो हो शेक मनशाचेर चलतालो आनी ना नपयत करपाक येतालो वसंत. तोच सृश्टींतलो शिगमो आनी शिंयान कुडकुडत आयिल्ले मनीस जातीक आतां शीं गेलें, शीत गमय म्हणून शिगमो मनोवपाक तयार करून शबय शबय म्हणत नाचूंक लावपी तो हो वसंतूच.

मार्च म्हयन्यांत खंयीय नदर मारात, आमकां दिसतलीं तीं फुलांच फुलां. तरांतरांच्या फुलांचें संमेलनूच हे धर्तरेर भरता. फुलांचे आकार, फुलांचे रंग, फुलांचो गंध तरी कितल्या म्हूण प्रकाराचे! प्रत्येक फुलांचो रंग नियाळचो, तांचे आकार पळोवचे, जमता जाल्यार तांचो गंध आपल्या शरिरात भितर मेरेन ओडून घेवंचो. हाका लागून दोळ्यांक, मनाक आनी कानाकूय एक वेगळीच धुंदी चडटा. अशें धुंद जावन जियेवंक शिकयता तो हो वसंत रूतू.

आमचो मनीस हो वेव्हारी. ताका हांव जी गजाल सांगतां त्यो बेकारभासोय दिसू येतात. पोटा पाणयांच्या हुसक्या मुखार कोणें सांगलां हें सगळें? वेळ कोणाक आसा? पूण तांचेय पासत सैमान वेवस्ता केल्या. आंबे फुल्ल्यात, काजू फुल्ल्यात. तांकाय फळ धरता तें ह्याच वगतार. मागीर हो मनीस वर्सूयभर पोटा पाणयाची वेवस्ता करूंक वो भाटकार, धनयाच्या भंयान मान सकयल घालून वावरत आसता तो मान वयर करून वावुरता. तो पळयता खंयचो आंबो फुल्ला आनी ताका कण धरल्यात. ताची नदर सोदीत आसता खंयची काज चंवरल्या आनी आपल्याक कितलें उत्पन्न मेळटलें! आनी हें करतां करतां तोय मनीस हेरूय रूखांवेलो फुलोत्सव पळयता. ताचें मन शिगमो खेळूंक लागता.

म्हाका भुरगेपणार कांयच कळनाशिल्लें तरी भावताले ते फुलांचे रंग. म्हजे आईक फुलांचें पिशें आशिल्लें. तिका माथेंभर फुलां माळूंक आवडटालीं. आपूणय माळटाली आनी हेरांकूय फुलांच्यो फातयो करून दिताली. घरा भोंवतणी पोरसांत ती फुलझाडां रोयताली. तातूंत आबोल्यो आसताल्यो. रतन आबोलीं तीं रगतावरीं तांबडींच आसतालीं. शेंदुरीं! बाकीचीं हळदुवसार आसतालीं. म्हाका रतन आबोलीं हेर रंगाच्या आबोल्यांपरस चड आवडटालीं. शेंवतींय खूब आसतालीं. हळदुवीं आनी जांबळा कोराचीं. बुतांव आसताले. सदाफुली आसताल्यो! घीस, बोकोडयो बी घालून आई शेंवत्यांची, आबोल्यांची फाती घालताली. जमनीर बसून, एक पांय सोडून त्या पांयाच्या आंगठ्याक केळम्याच्या गब्याचो दोर घुस्पावन त्या दोरार ती हीं फुलां फिशालकायेन, तल्लीन जावन गुंथताली. ते वेळार तिचें मनूय भोवतेक गायतालें जावंक जाय. कारण ती तो वावर घेवन बसतना अंतर्मूख जाल्ली दिसताली.

ह्या म्हयन्याक परिक्षा सुरू जाल्ली आसताली. शिगम्याच्या काळारूच ह्यो परिक्षाय कित्याक आसतात काय? हो प्रस्न म्हाका त्याय काळार पडटालो आनी आतांय पडटा. मन प्रसन्न उरून जर सैमशिगमो मनोवंक जाय जाल्यार मनाचेर तशें कसलेंच दडपण आसूंक फावनां. परिक्षांचें लेगीत. पूण शिगम्याचें वाजप आनी वातावरण अभ्यास करपाकूय म्हूण उमेद हाडटालें. ताश्यार पडिल्ली बडी आनी धोलार बशिल्ली तोणी ही त्या धोल-ताश्याचे ताणिल्ले कातडीचेरूच पडनाशिल्ली तर त्या आवाजान म्हजें तनूच न्हय तर मन लेगीत थिरकतालें. होच आवाज मनाक दिताली ती उर्बा. अभ्यास करतना वो परिक्षा दितना ह्या आवाजाचें डिस्टर्बन्स केन्नाच जालें ना. उरफाटें अभ्यासा खातीर हो शिगम्या बोवाळ तसो पुरकच दिसतालो म्हाका.

मागीर शाळेक येतना वतना नदर भिरभिरप. खंयचे चुन्नीक फुलां फुल्ल्यांत, खंयचे चुन्नीक चुन्नां लागल्यांत, काणणीचीं तीं फुलां. काणणां लागूंक कितलो काळ उरला? जांबळीणी फुल्ल्यात. जांबळां केन्ना लागतलीं? हे सगळे प्रस्न फळांचे आशिल्ले तरी फुलांच्या हिसबान तोखेवप जातालें. सर्वसामान्यानी लेगीत फुलांक तोखेवंचें म्हूण सैमान कसल्या कसल्या म्हूण फळाची आस लायल्या मनशाक!

मार्च म्हयनो लागलो काय म्हजें शरीर आसुसता तें रंगाक. भुरगेपणार आमचे गांवांत शिगमो नासतालो. म्हणटकच गुलालान रंगपाचो प्रसंग येच नाशिल्लो. म्हजो जल्म आगशी जाल्लो आसलो तरी म्हज्या बापायचो, पापाचो गांव कुंकळ्ये. ताका दर शिगम्याक आपल्या गांवची ओड लागताली. मागीर तो म्हाड्डोळच्या शिगम्याक धांवतालो. केन्ना केन्नाय आमकां भुरग्यांकूय व्हरतालो. थंयचे ते रंगात रंगून, धोल-ताश्यांच्या आवाजांत नाचपी लोक पळोवन

म्हजीय पावलां ताल धरतालीं. म्हाकाय केन्ना कोणे असोय रंगोवचो अशें दिसतालें.

आगशी कार्नावलाक रंगोवप जातालें. ह्याच दिसानी कार्नवाल फुलतालो. मुज्ग वाजतालें. खेळ गांवा गांवानी येताले. कोकात्यो एकमेकार मारताले. तांतली नीळ आंगार पडटाली. ती नीळ आंग रंगयताली पूण मन रंगोवंक असमर्थ थारताली.

मागीर हांव पणजे पावलों शिकपा खातीर. पणजे होळयेचें वातावरण आसतालें. रंगपंचमीक रंगपाचो कार्यक्रम आसतालो. दर वर्सा हांव म्हज्या वेगवेगळ्या संवगड्यां वांगडा रंगलां. तनान आनी मनानूय. जे कोण हे वेळार रंग लावं नाका म्हूण सांगत पयस धांवतात तांची म्हाका तिडकच मारता. आरे पापयानो वर्सातल्यान एकदीस तरी निदान आंग रंगोवन घेयात. मनान रंगप काय तुमच्या नशिबांत ना. तनान रंगून तरी वचात थोडो वेळ मागीर उडयात जाय जाल्यार धुवन!

आतां फाटलीं चार-पांच वर्सां हांवें तनाक रंग लावप सोडला. फक्त मनान रंगतां. रंगांत भेसळ आयल्या आनी म्हज्या धव्या फुल्ल खाडांत, केंसांत हो तरांतरांचो रंग वचून बसलो म्हणटकच तो धुंवन काडपाक दोन म्हयने लागतात. म्हजें रंगेलपण मागीर लोकांक खटकता. तांचें आपलें बरें आसता. एक दीस रंगप आनी सगळें मागीर धुवन उडोवप आनी आपूण तांतलो न्हयच अशें दाखोवप. म्हजे बाबतींत तें घडना. शिवाय भेसळ रंगाक लागून ॲलर्जीय जाता. देखून हो तनाचो रंग टाळपूच बरो.

मार्च म्हयन्यांत येता तो आंतरराष्ट्रीय महिला दीस. शिगम्याच्या दिसांनी, होळयेच्या दिसांनीच हो दीस येता. सैम फुलून येता वसंतात तश्यो बायलो वर्सूयभर वसंतूच जावन रावतात देखून तांच्या मानाक हो मार्च आसूं येता. बायल मनशेंत मंथरा, कैकया आसली तरी राधाय चड प्रमाणांत आसता देखून दर मार्च म्हयनो हांव बिम्बाचो मार्च अंक महिला विशेशांक



म्हूण काडटां. म्हजे खातीर तोय एक उत्सवूच आसता.

केन्ना केन्नाय म्हज्या मनांत कांय खोडकर तिरसुवाद विचार येतात. खरें म्हळ्यार तें जीवनांतलें सत्य. पूण लोक समजून घेना आसतना म्हज्यांतलो हो निराशावाद म्हणत म्हूण भंय दिसता. हो मर्णाचे कसले विचार करता काय! थुमेकाल! अशें म्हणत म्हूण दिसता. पूण खरें सांगूं? म्हाका मरण येता जाल्यार तें मार्च म्हयन्यांतूच येवचें आनी होळये पुनवेक तें येवचें अशें म्हाका दिसता.

हें मरणाचें चित्र हांवें रंगयलां तें अशें! म्हजो बेडरूम असो आसा की तो धड पूर्वेक ना आनी धड अस्तंतेक ना. म्हज्या बेडरूमाक आसा व्हडलें जनेल. खरें म्हळ्यार थंय वणतूच ना. फक्त जनेलाची फ्रेम आसा म्हूण तें जनेल. हांव तकली पूर्वेक आनी दोळे अस्तंतेक लावन म्हज्या बेडार रातचो पडटां. न्हीद लागसर म्हाका ह्या जनेलांतल्यान मळबांतलो उत्सव, रूखांवेले काजूले आनी रूखांची रातची स्तबधताय पळोवंक मेळटा. खरो उत्सव पळोवंक मेळटा तो पुनवे राती. रातभर चान्नें शिंपडायत फांतोडेर चंद्र पावता पश्चिमेक. थंयच्यान तो आपलें फांतोडेवेलें चान्नें म्हज्या बेडरूमांत सोडटा. पुराय बेडरूम ह्या चान्न्याक लागून प्रकाशीत जाल्लो आसता. हाका कितें म्हणप, अस्तंमपी चंद्राचें चान्नें?

सूर्याचें आपलें बरें आसता. तो खंयच्यान उदेता हें खबर आशिल्ल्यान ताचे खातीर उदेन्त आसता आनी खंय अस्तमपाचें हें ताका खबर आशिल्ल्यान ताका लाबलां अस्तमतेचें अढळपद. पूण चंद्र बाबडो खंयीय उदेता. तो खंयीय अस्तमता. ताका अढळपद ना देखून तो शीतल आसूंक जाय. सूर्याक उदेन्त आनी अस्तम अशीं अढळपदां लाबल्यांत. देखून तो जळयता. म्हाका सकाळीं आपलीं किर्णां लावन तोच उठयता हेंय तितलेंच खरें!

तर हांव कितें सांगतालों? मरणाची काय पुनवेची खबर? दोनांचीय!

हांव म्हज्या बेडाचेर रातचो जेन्ना न्हिदतां तेन्ना दर पुनवेक आनी पुनवेच्या आसपासच्या रातीनी चंद्र चान्नें म्हजे ते कुडींत सोडटा. म्हजेर पुराय चान्नें घालता. तेच वेळार भायर तरांतरांचीं शेवणींय रूखांरूखांचेर जागीं जाल्लीं आसतात. तीं गायतात तरी कितल्या सुरानी. कोण शेनाय वाजयता, कोण टीपरी आनी कोण आनी कितें! आतां ह्या म्हयन्यांत तर सगळ्यांच्या वयर ती कोगूळ गायत आसता! अश्या ह्या संगीतांत आंब्याची, आंबाड्याची सावळी म्हज्या रूमांत पडटा. पूण म्हज्या तोंडार मात झिरपता तें चान्नें. तेन्ना जेन्ना म्हाका मरण येतलें तेन्ना तें अशेंच तोंडार चान्नें पडिल्लें आसतना, भायर सवण्यांचें संगीत चलतना येवचें अशें म्हाका दिसता. म्हज्या मनाची, तनाची ही वसंतोत्सवाची आस्त बी न्हय मू? ना तर कित्याक येवचे हे विचार म्हज्या मनांत, जेन्ना भायर वसंत फुल्ला आसतना?

■ ■ ■



# राजगड



– पद्मनाभ नायक
तिलक – नगर, डोंबिवली.
मो.: ९९६९२६७६५६

निसर्गाच वैभव पोळोकावे, ट्रेकींगाची आवड ऊर्का आनी ट्रेकींगाची आवड आसिल्यांक शियांदिसांतु आंगांतु आवेश एत्ता. अस्सीं आवेश आयिल धाडसी ट्रेकर्सांक सह्याद्री शिखरांतुल बलाढय गडकिल्ले 'राजगड' प्रेमान 'येया...' म्होणु आपैता.

पूणासाव्नु राजगड वोच्याक सातारा वोच्चे वाटेन नरसापूर वोचका. थंचान १५-२० कि. मी. अंतराचेर मार्गासनी गांव आस्सा. मार्गासनीसाव्नु वाजेघर गेल्यारी उजवे दिकान पाली दरवाजा, दावेदिकान चोरदरवाजा वोच्ची वाट मेळता. खंचेऽ वाटेन गेलेतिकी राजगडावैले पद्मावती माचीरी वोचून पावताती.

पूणा शहराचे स्वारगेट बस्स स्थानकासाव्नु सीदा वाजेघर थांय वोच्ची बस् आस्सती. टायमींग विचार्नु घेवका.

राजगडारी तीन माची आस्सती; पद्मावती, सुवेळा, संजीवनी. हे तिन्नी माची विस्तार भूप्रदेशान आनी संरक्षणेच दृष्टीन मजभूत उरच्यादिकून तीन स्वतंत्र गड आसिल्यावरीची. ह्या तिन्नी माचीचे मद्यस्थळारी बालेकिल्लो आस्सा.

बालेकिल्यारी वोच्याक फक्त एक वाट आस्सा. ती सुध्दां सरळ नंय्! कठीण. चडतना बेलेन्स चुकल्यारी जीवाक अपाय आस्सा. वाट धोखादायक आस्सा दिकून दुर्गप्रेमी ट्रेकर्सानी भंय दिस्तल्यां खात्तिरी चडतना दावे दिकान लोखंडी पाईप फिक्स केल्याती.

ह्या गडाक पैलें मुरंबदेवाल दोंगर म्हणतसिले. इ. स. १६४८तु शिवाजी महाराजान ह्या गडावैल्यान हिन्दवी स्वराज्य स्थापनेचे स्वतंत्र राज्य कारभार कोर्चेदृष्टीन, तोरणा किल्लेचेरी मेळ्ळीलें गुप्त धन वापरून, बांधकाम सुरू केलें. बांधकाम पूर्ण जावच्याक पांच वर्षं लागलीं. नंतर ह्या गडाक 'राजगड' म्होणु नांव दवलें. महाराज सपरिवार त्या गडारी राबच्याक आयले.

शिवाजी महाराजाल जीवनांतुल अनेक महत्वाच घटना ह्याच गडारी आस्तना घडिल्यो. ताणे २०-२२ वर्षं हांगच्यान राज्यकाराभार केल्लो. महाराजालीं पाऊलं जास्तीन जास्त ह्याच गडारी पळ्यांती.

पद्मावती माचीरी पाव्नापडेन थोड आराम करा. कारण तीन-चार तास चलत आयिल आयास दूर कोरच्याक ताज्जी अवश्यकता आस्सा. आनी कित्ली घाई केल्लीतिकी एक्कदिसांतु संपूर्ण गड पोळोच्याक जायना. कमीत कम्मीं दीड-दोन दीस जावकाती. ह्या गडारी पिवचे उद्दाक सोळ्यारी खावच्याक कस्सने मेळना. थंय वत्तना आम्मीं घेव्नु वोचका. शिजोन खावका. वीस-पंच्वीस लोकांले ग्रूफ आसल्यार सकलचे गांवकरी सांगल्यारी जेवण हाणदित्ताती. रात्रिचें सुद्दां गडचोण वैर्यी हाणदित्ताती.

गडारी उत्तरेक पद्मावती माची, पूर्वेक सुवेळा माची, पश्चिमेक संजीवनी माची आनी मधेंची बालेकिल्ला अस्सीं चार प्रमुख भाग आस्सती.

पद्मावती माचीचेरी पद्मावतीदेवी मंदीर, पिव्चे उत्काचें तलाव, पालीदरवाजा, चोरदरवाजा, गुंजवणे दरवाजा, इत्लें नंय्, अश्वशाला, अंबरखाना आनी शिवाजील कालांतुल प्रमुख कारभाऱ्यांल वसतीग्रहाच अवशेष पोळोच्याक मेळताती.

सुवेळामाची पोळोन येवच्याक अर्ध दिवस जावका. सकाळचें गुलाबी थंडींतु, प्रसन्न: वातावरणांतु खंचेतरी ऊंच शिले पात्थरारी बसून अरूणोद्याच अनोखा सौंदर्य पोळोका. सह्याद्रीच पर्वतरांगेतुल खांचितुल्यान, क्षण-क्षण रंग बदलत वैर्यी येवचे सूर्यकिरण पोळोच अनुभव अविस्मरणीय जाव्नास्ता. तें पळय्त... पळय्त पळय्तले निसर्गासी एकरूप जात्ताती. आपोआप तांगेल्यांतु अतूट संबंध तयार जात्ता. ते निसर्गाक प्रेम कोरच्याक शिकताती. हो अलौकीक आनंद शब्दांनी सांगच्याक जायना. अनुभवांतुल्यान कोळका. सुवेळा माचीरी वत्तना उजवेदिकान बालेकिल्ला, दावेदिकान गुंजवणे दरवाजा लागता. वाट्टेरी ६-७ मीटर ऊंच शिले खडकारी, एक अरूंद जागेरी आर-पार छिद्र जालिलें दिसून एत्ता. ताक्का मराठींतु



'नेढें' म्हणताती. निसर्गान निर्माण केलिल तो एक चमत्कार जाव्नास्सा. ह्या सुवेळा माचीचेरी शिवाजी महाराजाल निष्ठावान सरदार तानाजी मालसुरेले, एसाजी कंकाले, शिलिमकराले राबचे वाडे आस्सिल खंय्.

संजीवनी माची सुवेळा इत्ली विस्तार ना जालेतिकी अतिशय सुंदर जाव्नासा. पद्मावती कडच्यान एत्तना बालेकिल्याच उजव्यान संजीवनी माचीरी वोच्चिवाट आस्सा. माचीच तुदीरी राबून बालेकिल्यादिकान पळय्ल्यारी राजगडाची ताकत् किल्ली म्हळिल कल्पना कोरेत. त्या गडाची भव्यता, दिव्यता पोळोनु सहजा सहज राब्बिल कडच्यान आम्मीं त्या गडाक शिरसावंदन कर्ताती.

बालेकिल्यारी वोच्याक एक तास लागता. कारण पद्मावती माची सादारण समुद्र सपाटी पासून ११६७ मीटर ऊंच आस्सा. आनी बालेकिल्ला १३९५ मीटर ऊंच आस्सा. महादरवाजे पर्यंत वाट जरा कठीण आस्सा. जाल्यारी भिन्चे कारण ना. वैयल्यांन विहंगमावलोकन केल्यारी स्वर्गारी फिरच्याक आयिल अनुभव जात्ता. तिन्नी माचीवैल संपूर्ण भू प्रदेश दोळे नजरेंतु दिसता. बालेकिल्यारी महाराजाले राजवाड्याचे, राजकारभाराच्या कार्यालयाचे, बाजार पेठेचे, अंबरखानाचे, ब्रह्मर्षी मंदिराचे अवशेष पळय्ल्यारी तेन्नांचें गत वैभव अंदाजो कोरेत! राज्यकर्ताल दृष्टीन अत्यंत प्रशस्त जागेरी हो गड आस्सा. म्हणून हाक्का गडांचा राजा, राजांचा गड 'राजगड' म्हणताती.

राजगडाच रक्षणेक चारीदिकान लिंगाणा, तोरणा, सिंहगड, लोहगड, विसापूर, तुंगी, तिकोना, पुरंदरगड, वज्रगड सज्ज जाव्नु स्वामीनिष्ठ सैनिकांवरी राबिल दिस्ताती. ह्या गडावैली डबल् तटबंदीची वास्तु रचना आनी खंयी पोळोच्याक मेळना.

सह्याद्रीन आमगेल देशाच धर्म, संस्कृती, स्वातंत्र्य रक्षणेक भरपूर सहाय केल्ला. ह्या सह्याद्रीच आश्रय घेव्नु छत्रपती शिवाजी महाराजान मुघलं, निजामशाही, आदिलशाही, पोर्तुगीज,









ब्रिटिशर्सां विरूध्द अत्यंत कमीं सैन्य घेव्नु लढत राज्य विस्तार केल्लें आनी प्रजाजनांल रक्षणा केल्ली.

आज राजगडारी गेलिल्यांक तो भूप्रदेश निवांत, निर्जन जाव्नु दिसता पण ज्यांनी शिवाजी महाराजाल इतिहास वाचिला तांका तो प्रदेश सजीव जाव्नु दिसता. ह्या पवित्र जागेरी गेलिल तेन्नां थंचे पावित्र्य भष्टावनाक्काती. गडावैली स्वच्छता राका. त्याज्य वस्तु जळोन उडया. थंडी म्होणु वन संपत्ती नाश कोर्नु शेकोटी पेटोवनाक्काती.



### जानेवारी २००५

संपादकीय
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले...
परबीं – जयंती नायक हाका साहित्य अकादेमी पुरस्कार
सवाद – धाव्या युवा महोत्सवाचें वजें पेलतनां/ प्रा. अंजू साखरदांडे
कथा – पानवळ / जयंती नायक
खळांतली आंबली – लक्षान उगडलें सर्गाचें दार...
सैम सांगात – व्हांवती संस्कृताय / नीरजा वैद्य यादव
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
रूपशिंगार–धंडेंत सौंदर्याची काळजी कशी घेवप?/कामिनी किणी
भुरग्यांचें आंगण – बाब मोहीत अनिल खरंगटे, राजश्री बांदोडकार कारापूरकार
मनसंवेदना – दिपा उदय कामत, हर्षा शेटये, भालचंद्र गांवकार, महेश पारकार, अशोक रंगा शिलकार
चिवडो – अंदू म्हजी एस्.एस्.सी. न्हय?/अंगिता शणै नगर्शेकार
फांतोड पावली – उजवाड आसा म्हणसर तुजें काम करून घे / सुधा सुरेश आमोणकार
पडवेर – लोभाची शीम–मेर हुंपप समा न्ही / वामन विष्णू कामत
कोंकणी पॉप
कथा – वर्तुळ / भालचंद्र गांवकार
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार :विजेचो धक्को/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – थँन्कस् टू भाई मावजो हां! / दिलीप बोरकार

### फेब्रुवारी २००५

संपादकीय
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – फळांचो राजा आंबो : ताची काळजी आमी घेतात व्हय? / पुरूषोत्तम (बाबू) मुकुंद प्रभू कोलवाळकार
गोंयचें नांव व्हड करून.../ एम्. बॉयेर
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – सुटिल्लो तीर / आनंद वर्टी
खळांतली आंबली – आनंद वर्टी... काळजाक चुरको लावन गेले
चिवडो – पावस आयलो गो ऽ ऽ / अंगिता शणै नगर्शेकार
आंबट तीख – शीलाचो रीसीपी बूक / शीला कोळंबकार
मनसंवेदना – हर्षा शेटये, भालचंद्र गांवकार, दिपाली, पुरूषोत्तम वि. सतरकार, आनंद वर्टी
फांतोड पावली–वकलाबगर तूं दिसता/सुधा सुरेश आमोणकार
सैम सांगात – एक पेझाद बरें पृथ्वीगीत जाय!! / नीरजा वैद्य यादव
रूपशिंगार–धंडेंत सौंदर्याची काळजी कशी घेवप?/कामिनी किणी
नदर जिमेची / सुरेश कामत सातोस्कार
भुरग्यांचें आंगण –सदानंद प्रभू तेंडूलकार, चिंतामणी हेमंत आमोणकार, दिलीप बोरकार
पडवेर – अविचाराचो परिणाम/ वामन विष्णू कामत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार : विषबाधा/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – हांव प्रकाशक म्हणूनय फसतां दिसता!/ दिलीप बोरकार

### मार्च २००५

संपादकीय
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – सुनामीच्या चोपक्यांत गोंयचो भाजपा / सुशांत कुंकळयेंकार
संवाद – हिंदू आनी किरिस्तावांच्या एकचाराचें प्रतीक हेमा सरदेसाय
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – अशेंय एक जैत / भालचंद्र गांवकार
तोखणाय – हो दोंगर खाचा खळग्यांचो, काट्याकुड्यांचो न्ही!/ महाबळेश्वर सैल
कथा – ते दीस.../ सुजाता सिंगबाळ
आंबट तीख – शीलाचो रीसीपी बूक / शीला कोळंबकार
मनसंवेदना – हर्षा शेटये, भालचंद्र गांवकार, योगेश कापडी, चित्रा कांत, तेनझिन त्सनड्यू
फांतोड पावली – सुंदरपण सांसणाचें उरतलें दुख खिणाची / सुधा सुरेश आमोणकार
सैम सांगात – तिबेटाच्या राष्ट्रीय क्रांतीदिसा निमतान / नीरजा वैद्य यादव
भुरग्यांचें आंगण – राजश्री महाबळेश्वर सैल, दिलीप बोरकार, सदानंद प्रभू तेंडूलकार
पडवेर – देवमनीस/ वामन विष्णू कामत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार : रेबीज/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – गोंयचो महामनीस/ दिलीप बोरकार

### एप्रिल २००५

संपादकीय
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – शिगमोत्सव गोंयकारांच्या खुशालकायेचो उत्सव
तोणी – हांव अजून लोकवेदाचो अभ्यासकूच /डॉ. पांडुरंग फळदेसाय
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – मुरवत / रामनाथ गजानन गावडे
सैम सांगात / भारती बांदोडकार
कथा – सीमा / दिपाली पावस्कार
चिवडो – कविता, कथा आनी मोग / सम्राट बोरकार
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, गाधा भट, योगेश कापडी, चित्रा कांत, दिपाली पावस्कार, तेनझिन त्सनड्यू
फांतोड पावली – भुरगीं पयसावतात/ सुधा सुरेश आमोणकार
पुस्तक वळख – श्रेयार्थी निमित्तान / रमेश लाड
भुरग्यांचें आंगण – सदानंद प्रभू तेंडूलकार, दिलीप बोरकार
पडवेर – म्हामूर्ख कोण?/ वामन विष्णू कामत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार : सनस्ट्रोक/ डॉ. वंदना धुमे
अंतर्मनांतले अंतरंग – वसंताचो बॉल/ दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

### मे २००५

संपादकीय / चवकडीचे चवकटींतले विचार कोंकणीक मारक!
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – गोंय वळवळटा उदका थेंब्याक / सुशांत कुंकळकार
घटकराज्य / प्रकाश कामत
संवाद–अणभवाचे घण म्हजे लिखणेची शक्त/ एन् शिवदास
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – मरणश्राप / भालचंद्र गांवकार
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, हर्षा शेटये, दिपाली पावस्कार, तेनझिन त्सनड्यू
फांतोड पावली – टिचर ताची ख्यास्त म्हाका दी/ सुधा सुरेश आमोणकार
भुरग्यांचें आंगण – हर्षा शेटये, सदानंद प्रभू तेंडूलकार, राजश्री सैल, दिलीप बोरकार, सुदत्त संजय प्रभू तेंडूलकार, राजश्री बांदोडकार कारापुरकार, ज्योती कुंकळकार
सैम सांगात – आर्मान्दोचो अरमान जाता तेन्ना / निरजा वैद्य
पडवेर – सोबनाशिल्लें मोठेपण/ वामन विष्णू कामत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार सर्पाची विषबाधा/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – हाय फिलॉसॉफी पूण म्हाकाच उमगना तसली/ दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / एन्. शिवदास

### जून २००५

संपादकीय / लोकशायेंतलें अस्त्र सारकें वापरूया...!
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – पोटवेंचणुको काय राजकी घट्टाण?
यादीची गाठ / शंकर भांडारी म्हळ्यार... शंकर भांडारी
प्रासंगीक – यू. एस. आनी बारबाला / निरजा वैद्य यादव
आंकरी – दर्यावेळेर एक सांज / नीता दिनकर नायक
संवाद – देव आनी धर्म ह्या देशाचीं व्हडलीं संकश्टां/दादू मांद्रेकार
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – सूख / रामनाथ गजानन गावडे
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, हर्षा शेटये, दिपाली पावस्कार, गाधा भट
फांतोड पावली – धैर्याचो दिश्टावो/ सुधा सुरेश आमोणकार
खळांतली आंबली – सुनील दत्त/ दिलीप बरकार
भुरग्यांचें आंगण – तन्मय महाजन, शलाका भेंब्रे, नाजरीन पेराल संघवी फडते, सदानंद प्रभू तेंडूलकार, सौम्या सुनिल नायक, सायली प्रभुदेसाय, सिध्दी राजीव देसाई, आशय दिलीप शेटये, अक्षवी नाईक, ईशा निमिष नाटेकार, लिएँन सांफ्रांसिस्को, संकेत लवंदे, अपेक्षा रायकार
सैम सांगात / भारती बांदोडकार
परमळ – म्हजी आजी / हर्षा शेटये
पडवेर – वण्टीक कान लावन कोणाचेंय आयकुचें न्ही/ वामन विष्णू कामत
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – आठ माय आनी रेमोची मांय/ दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / दादू मान्द्रेकार

### जुलाय २००५

संपादकीय / राजकारणांत आमची भुमिका कितें?
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – राजकीय अस्थिरतायेंत राणे सरकार तिगतलें व्हय?/ सुशांत कुंकळकार
कथा – एकूच संद/ भालचंद्र गांवकार
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
चिवडो – पावस आयलो गो ऽऽ/ अंगिता शणै नगर्शेकार

भोंवडी – म्हजो पयलो कोकण रेल्वेचो प्रवास /हर्षा शेटये
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, हर्षा शेटये, चित्रा कांत, काशीनाथ शांबा लोलयेकार, प्रा. राजय र. पवार
फांतोड पावली – तूं कोणाचें दोन तरांच्या मोगाचें!!!/ सुधा सुरेश आमोणकार
प्रासंगिक – म्हायतीहक्क / प्रकाश वामन कामत
स्वरावळ – राग यमन / योगराज बोरकार
कोंकणी पॉप – पाताळांतलो कुंवर
भुरग्यांचें आंगण – सदानंद प्रभू तेंडूलकार, श्वेता नायक, लिएॅन सांफ्रांसिस्को, राजश्री महाबळेश्वर सैल, समृध्दी कुंकळकार
सैम सांगात – मलेरिया! जापसालदार कोण? / निरजा वैद्य यादव
पडवेर – खरो ज्ञानी/ वामन विष्णू कामत
कथा – न्हंयेची सुनामी / सतीश दळवी
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार जोर/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – विवेक शेणोवन बशिल्लो साहित्यिक!/ दिलीप बोरकार

**जुलाय २००५**

संपादकीय / राजेंद्र तालकाचें अभिनंदन जायच !
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – गोंय बसलां ज्वालामुखीचेर पूण प्रशासन मात घोरेता!/ सुशांत कुंकळकार
कथा – बेबदो/ भालचंद्र गांवकार
संवाद – मुखार वचप्याक तेंको दिल्यार सगळेच मुखार पावतात / राजेंद्र तालक
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
आंकरी – कुळाराच्यो यादी / नीता नायक
कोंकणी पॉप – माणकुल्याक पयलीं धर
मनसंवेदना – हर्षा शेटये, इंदू गेरसप्पे, लिना कुंकळ्येंकार, सुनिता सुभाष शाह, रोशन गांवकार
फांतोड पावली – भुरग्यांचीं उतरां/ सुधा सुरेश आमोणकार
गांवपण – व्हडलें म्हजें गोंय / रामकृष्ण जुवारकार
पुस्तकजात्रा – जिणेंतले रंग दाखोवपी आमोरी अमुरपिकी / हेमा नायक
भुरग्यांचें आंगण – सदानंद प्रभू तेंडूलकार, श्वेता नायक, लिएॅन सांफ्रांसिस्को, माणिका कुंकळयेंकार, सुदत्त संजय प्रभू तेंडुलकार, स्वदील दीपक गाड, दिलीप बोरकार
स्वरावळ – राग भूप / योगराज बोरकार
सैम सांगात – सॅटलायट युगांत दादलो शॉविनिस्ट जाला?/ निरजा वैद्य यादव
पडवेर–चतूर शेतकार आनी बडबडी घरकान्न/वामन वि. कामत
कथा – रेखा / दिपाली पावस्कार
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / प्रथमोपचार संवसारीक स्तनपान आठवडो/ डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग / दिलीप बोरकार
व्यक्तित्व / राजेंद्र नारायण तालक

**सप्टेंबर २००५**

संपादकीय
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – चवथ ही आयज भोगावळूच उरल्या?
गणेश चतुर्थी / आचार्य काका कालेलकार
कथा – इश्टेटीचे धनी/ भालचंद्र गांवकार
ललित – समर्पण / नं. ध. बोरकार
काणी गणपतीची / सदानंद प्रभू तेंडूलकार
चवथ / शितल स. आरोलकार
कारवारकारांली चवथीची परब /
माटोळी : एक गिरेस्त दायज / प्रा. भूषण भावे
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, लिना कुक्कळ्येंकार, मनोज नरेंद्र कामत, गाधा भट, राजश्री महाबळेश्वर सैल
पोस्ट मार्टम उ नवें हॉस्पिसियो हॉस्पिटल खंय आसचें? / डॉ. उदय बरड
भुरग्यांचें आंगण – सदानंद प्रभू तेंडूलकार, आयुषी शेटये, डॉ. (मेजर) प्रकाश शेटये
चवथ कालची आनी आयची / उषा उल्हास राणे
रिसीपी – शितल स. आरोलकार, हर्षा शेटये
स्वरावळ – राग भीमपलास/ योगराज बोरकार
कोंकणी पॉप – तुजो मोग
गणपती बाप्पा / इंदू गेरसप्पे
अस्तुरी – बायल / भारती बांदोडकार
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी / हरयाळी (दुर्वा) : एक सैमीक अजाप/ डॉ. आर. सुब्रमनीअन एम्.
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – क्लासीक पुतांची त्रासीक आवय! / दिलीप बोरकार

**दिवाळी २००५**

संपादकीय
एक रिपोर्ट / अना म्हांबरो
हिन्दू धर्म निखाल्लूस ना जावपाचो ना.../रवीन्द्र केळेकार
कथा – फोन / शीला कोळंबकार
कादंबरी – समर्पण / नं. ध. बोरकार
कथा – ममता / गोपीचंद
आंकरी – इश्टागत फूल फुलयता आनी बावयता लेगीत.../ दिपाली पावसकार
टाईमपास – पणसाचो दीक / महेश पारकार
कथा – उतळ / रामनाथ गजानन गावडे
ललित – करीत कोण पालव म्हाका हें कोडें सोडोवपाक? / सुधा सुरेश आमोणकार
कथिका – हॅल्मेट / सम्राट बोरकार
कथा – अनील / सतीश दळवी
तूं वयता त्या वेळार / दादू मांद्रेकार
गद्यकाव्य – व्ही. आर. एस./सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार
पुस्तक पसरो न्हय पुस्तक जात्रा जाय / निरजा वैद्य यादव
कथा – निर्णय / हेतल सुभाष शाह
कथा – एक नातें इश्कागतीचें / संदेश श्रीकांत बांदेकार
दिपोत्सव / आचार्य काका कालेलकार
कथा – सोव्हिनीर...! / जलमाला दणायत
कथा – रितो पोसो /हर्षा शेटये
कथा – उडटी पिराय / रोमा सावंत
फळार दिवाळेचो / शितल स. आरोलकार
आयली दिवाळी, आयलो उजवाड/रोमीयो आल्मेदा
कथा – काळजाचें फूल / सुजाता सिंगबाळ
कथा – मन वळटां वळना / माया अनिल खरंगटे
कादंबरी – सखी वसुंदरा / दिलीप बोरकार
कथा – वळवळे / महाबळेश्वर सैल
कथा – सूर / योगिनी बोरकार
कथा – दिवाळी परत हांसली / अतुल र. पंडित
सांतुची साहित्य यात्रा / रामकृष्ण जुवारकार
कथा – बरें म्हूण बरें.../ साई
स्वरावळ – राग बागेश्री / योगराज बोरकार
नरक चतुर्दस दिवाळी / सदानंद तेंडुलकार
भौमानेस्त महाबळेश्वर सैलाल्या साहित्यांतलीं बायलपात्रां / राजश्री महाबळेश्वर सैल
काणी – जशाक तशें / नीता नायक शिरोडकार
पिंटूची काळ भोंवडी / दिलीप बोरकार
बोस्कीलें मळब / गुलजार
भुरग्यांचें आंगण / सदानंद तेंडुलकार, दत्तराज सदगुरू शेटये, सिध्दी राजीव देसाई, लिएन मारिया सांफ्रांसिस्को, मोहीत अनील खरंगटे, त्रिविक्रम लक्ष्मीकांत कामत, दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये, नयना आडारकार, अनंत शिवराम नायक, पवनकुमार रेड्डी, युगा आडारकार, सिध्दांग तेंडुलकार, अनीश अर्जुन चव्हाण, नाजारेन पेरेरा, धनश्री शिवदास नाईक, आयुषी शेटये, आकाश अर्जुन चव्हाण, हिरण्येश आडारकार, रोशन राय, दर्शन देविदास रेडकार, तन्मय महाजन, शुभम उदय गुडे.
कविता – रमेश भगवंत वेळुस्कार, हर्षा शेटये, दादू मांद्रेकार, मनोज नरेंद्र कामत, महेश पारकार, चित्रा कांत, दिपाली पावसकार, इंदू गेरसप्पे, शितल स. आरोलकार, भिकाजी घाणेकार, सदानंद तेंडुलकार, सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार, सुनिता शाह, सुरेश कामत सातोस्कार, नुतन उसकयकार, डॉ. अजय करंडे, मंगला नागराजन, राजश्री सैल, भालचंद्र गांवकार.

**डिसेंबर २००५**

संपादकीय – गोंयकारांनी भडवे जावंक फावना!
प्रतिबिम्ब
शिर्शकथा – इफ्फी गोंयांतूच राबितो करतलो? / राजू नायक
खळांतली आंबली – ओर्दाद तोर्दाद तातू गेलो...
कथा – बिरेस्तारचें व्रत/ अमृता प्रीतम
ललित – घरकान्नीलें दुयेंस / नं. ध. बोरकार
बाळकू वंडरमॅन / सम्राट बोरकार
कपलाचो कुंकूम – एक प्रश्नचिन्ह / हर्षा शेटये
परिसर – आधुनिक शार्विलक / जयमाला दणायत
कोंकणी पॉप – राना रानांत वाजता गे शीळ
कोंकणींत ज्ञानेश्वरीचो सृजन अविश्कार! / महाबळेश्वर सैल
आमच्या तनान आनी मनान नातालां समरंभूया/विन्सी क्वाद्रस
मनसंवेदना – भालचंद्र गांवकार, मनोज नरेंद्र कामत, गाधा भट, मंगला नागराजन, हर्षा शेटये, रोमियो आल्मेदा
चिवडो – सी. ई.टी. २००५ जालीच/ अंगिता शणै नागर्शेकार
सैमसांगात –आमदारांक जागोवंक जाय? / निरजा वैद्य यादव
भुरग्यांचें आंगण – सदानंद प्रभू तेंडूलकार, लीएन मारीया सांफ्रांसीस्को, राजश्री सैल, युगा आडारकार, भिकाजी घाणेकार, दिपाली पावसकार
पडवेर – विश्वासघाताचें प्रायश्चीत / वामन वि. कामत
रिसीपी – गोंयचीं गोडशीं / हर्षा शेटये
उतरकुवाडें / मुकेश थळी
काळचक्र / ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे
भलायकी – प्रथमोपचार डेंग्यू / डॉ. वंदना धुमे
हरयाळी / महेश दिवेकार
अंतर्मनांतले अंतरंग – अमृता प्रितम–एक बरी इश्टीण गेली / दिलीप बोरकार, व्यक्तित्व / लक्ष्मीकांत शेटगांवकार

# भलायकी जतनाय आतां तुमच्या हुंबऱ्यार नुसी वॉक्हार्ट एक पावल तुमकां लागीं


वैजकी केंद्र, मडगांवचें उक्तावण

गोंय राज्यांतल्या थळाव्या लोकांक उत्तम आनी सोयिस्कर आरोग्य जतनाय सेवा दिवपाच्या उद्देश्यान, नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पीटलान हालींच राज्यांत वैजकी केंद्रां (ओपीडी) सुरू केल्यात. ह्या वैजकी केंद्रांचें फाटल्या म्हयन्यांत मडगांव आनी पणजे उक्तावण जालें.

इंडियन मेडिकल असोसिएशन, मडगांव–गोंय (आयअॅमए)चे अध्यक्ष आनी राज्य इंडियन मेडिकल असोशिएशनचे वेंचून आयिल्ले तिसरे अध्यक्ष डॉ. ग्लॅडस्टोन डि कोस्ता हांचे हस्तुकी वॉक्हार्ट वैजकी केंद्र, मडगांवचें उक्तावण जालें. श्री. प्रसन्ना आचार्य, अॅडिशनल कलेक्टर I आनी अॅडिशनल मॅजिस्ट्रेट (दक्षिण गोंय जिल्लो) तशेंच नुसी वाक्हार्ट हॉस्पिटलाचे केंद्र मुखेली श्री. अरविंद भगानिया तांच्या पंगडा सयत हाजीर आशिल्ले.

गोंयच्या लोकांखातीर नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलान एका पाख्या खाला सुपर स्पेशिअलीटी टेरटिअरी केअर कन्सल्टेशन सेंटर सुरू करपाक घेतिल्ल्या कश्टांचेर उजवाड घालो. ताणीं मुखार अशेंय म्हळें, ''राज्यांत उणाव आशिल्ल्या वैजकी सुविधायांची वाडटी गरज पुराय करपी वैजकी केंद्र आसा. श्री. प्रसन्ना आचार्य हाणीं म्हळें की, ''ह्या शारांत असल्या वैजकी केंद्राची पयलीं सावन गरज भासताली ती पुराय जावन आता सुरक्षित आनी अणभवी हातांत ती आसा अशें म्हाका दिसता.''


वैजकी केंद्र, करंजाळेचें उक्तावण

दुसरें 'वॉक्हार्ट वैजकी केंद्र' तिसवाडीच्या करंजाळे हांगा २० नोव्हेंबर दिसा इंडियन मेडिकल असोशिएशन (आयएमए) तिसवाडी गोंयचे अध्यक्ष, डॉ. सीताकांत घाणेकार हांच्या हस्तुकी उक्तावण जालें. हें वेळार डॉक्टर घाणेकार हाणीं , 'वाडत वचपी वैजकी सुविधायो आनी त्यो सहजपणान उपलब्ध जावपी सुवातो हांचे मदीं पूल बांदपाचो वावर वॉक्हार्ट केंद्र करतलें अशें ह्या प्रसंगार म्हळें.

नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलान सुरू केल्लें 'वॉक्हार्ट वैजकी केंद्र' हें पुराय गोंयच्या लोकांच्यो गरजो पुराय करपाखातीर सुरू केलां. कार्डिऑलॉजी, कार्डियाक सर्जरी, न्युरो सर्जरी, ऑर्थोपेडीक्स आनी सांदे बदलप, युरोलॉजी, नॅफ्रोलॉजी, मिनिमल अॅक्सेस सर्जरी आनी वुमन केअर ह्या मळार वॉक्हार्ट हॉस्पिटलान नदरेक भरपा सारकें योगदान दिलां आनी तीच सेवा आतां नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलांतूय उपलब्ध आसतली. ह्या मळावेले तज्ञ आतां वॉक्हार्ट वैजकी केंद्रांत सोमार ते शेनवार ह्या दिसांनी आदीं अॅपोयन्टमेंट घेवन उपलब्ध आसतले आनी ह्या वैजकी केंद्रांक नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलाचो अद्यावत सेवेचो सगळो आदार लाबतलो.

नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलाचे केंद्र मुखेली श्री. अरविंद भगानिया हाणीं उतर दिलें की हें वैजकी केंद्र पणजी आनी मडगांव सारख्या शारांत उपलब्ध नाशिल्ली सेवाच दितले अशें न्हय तर पणजी, मडगांव आनी भोंवतणच्या वाठारांत सुपर स्पेशलिटी कन्सल्टेशन दिवपाक हीं केंद्रां योग्य ठिकाणां थारतलीं जे सामान्य लोक भलायकेभरीत जिवीत सारूंक तज्ञांचो सल्लो घेवंक हांगा थंय भोंवून वेळ होगडायतात तांचो सुपर स्पेशलीटी केंद्रां वेळ वाचयतलीं. ताणीं मुखार म्हळें 'ह्या वैजकी केंद्रांक नुसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलाचो जें स्टेट ऑफ द आर्ट सुपर स्पेशलिटी हॉस्पिटल म्हूण वळखतात जें पांझरकोणी, कुंकळें, गोंय हांगा आसा ताचो तेंको आसतलो. हें हॉस्पिटल सगळ्या अर्विल्ल्या तंत्रगिज्ञान, डॉक्टर्स, तज्ञ, उत्तम प्रशिक्षीत पॅरामॅडिकल स्टाफ जे जागतीक दर्जाची वैजकी सेवा सामक्या माफक दरांत भेटयता.'

